# खगोल शास्त्रीय नाट्यांगण



श्रीकांत शंभू नागवेंकार



बिम्ब प्रकाशन

खगोलशास्त्रीय नाट्यांगण
श्रीकांत शंभू नागवेंकार

Khagolshastriya Natyangan
**Shrikant S. Nagvenkar**

प्रकाशन क्र. १९



पयली आवृती
मार्च २००३

छापणावळ
इम्प्रेशन
बी-२ 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव-५९०००२



अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन



मुखचित्र :
डॉ. सुबोध केरकार

'पयलो चंवर' येवजणेंत गोंय कोंकणी अकादेमीच्या पालवान हो संग्रह प्रकाशित केला.

प्रकाशक :
दिलीप बोरकार
बिम्ब प्रकाशन
परवरी गोंय.

मोलः रु. १००

*सदांकाळ उत्साही, धडपडी, प्रामाणीक समाज कार्यकर्ते*
*विचारवंत, इतिहासतज्ञ.*
*तशेंच*
*गोंय खगोलशास्त्र मडंळाचे अध्यक्ष*

*भौ. पेरसिव्हलबाब नोरोन्हा हांका*

# मांडावळ



**धांवात.... धांवात ! कॉमेट पडता**

आनी

**संकष्टीच्या चंद्राची प्रेमकथा**

ह्या नाटकुल्यांचे पयलें प्रसारण आकाशवाणी पणजे केंद्राचेर जाल्लें.

**मेळय गिन्यान पळय गिराण**

ह्या नाटकुल्याचो संक्षिप्त भाग गोंय-दुरदर्शनाचेर जाल्लो.

# लेखकाची दोन उतरां.... ....

खगोलशास्त्र हें आमच्या विज्ञानाचें मुळावें उगमस्थान म्हणून मानतात. भौतिक उत्क्रांतितल्यान मानवजात निर्माण जाली आनी उपरांत सामाजीक उत्क्रांती घडून मानवाचे बुध्दीचो विकास घडत गेलो. पर्यावरणांतल्यो अनंत घडामोडी आनी तेचवरी मळबांतले ग्रह, तारे, नखेत्रां आनी हेर घडणुको हें सगळें ताचे बुध्दीक अदभूत आनी अजापीत करपासारकें आशिल्लें. खरें म्हळयार तें ताचे बुध्दीक एक आव्हानच आशिल्लें. वयर दिसपी मळब हें ताचें पयलें आकर्शण. तेंच ताची पयली प्रयोगशाळा थरली. मळबांतल्या सतत निरिक्षणांतल्यान ताची तर्कनिष्ठ विचारशक्ती आनी सृजनशील सोदबुध्दी अशी बौध्दिक पातळीची उदरगत घडून आयली.

खगोलशास्त्र हें सगळयांत पोरने शास्त्र. हवामान, ऋतु, शेतकीकाम, व्यापार अश्या व्यवहारांखातीर ते खगोलशास्त्राचो उपेग करुंक शिकले. आयच्या खगोलशात्रान दोळे दिपावपासारकी प्रगती केल्ली आसा. ग्रह,उपग्रह, तारे, नखेत्रां हाचे पुरतें हें शास्त्र मर्यादीत उरुंक ना. नवें नवें तंत्रज्ञानाखातीर हया शास्त्रान अंतराळांत प्रकाशाचे गतीन झेप घेतल्या. नेबुल्ला, गॅलक्सी, धवल वामन तारे, लाल राक्षस, पतसार अशे अनेक विश्वांतले घडामोडींचें ज्ञान मिळयल्लें आसा. पूण दुर्दैवाची गजाल म्हळयार आमचो मानव खगोलशास्त्राचें मुळावें ज्ञान पसून आत्मसात करुन घेवपाची तयारी दाखयना. अत्यंत आधुनिक विज्ञान आनी तंत्रयुगांत मानव आजूनय फल ज्योतिष आनी अंधश्रध्दा हांच्या मोहिनी पाशांत गुरफटून बसला, ही सगळयांत दुख्खाची बाब आसा. हाका खूब कारणां आसूं येतात. पूण त्या शास्त्राविशीचें कमीत कमी मुळावें तरी ज्ञान समाजांत पसरचें आनी तेविशीं जागृताय निर्माण जावंची हया प्रामाणीक हेतून हया खगोलशास्त्रा विशींची नाटयकृती लोकांमुखार हाडपाचो एक यत्न केला. खगोल शास्त्राच्या विंगड विंगड विशयांचेर हीं नाटकुलीं आदारुन आसात.

खगोलशास्त्र हें खूब कटीण आनी सरसकट मनशाक समजुपासारकें न्हय अशी एक समजूत आसा, हो समज बरोबर न्हय. योग्य त्या माध्यमाचो उपेग

करीत जाल्यार खंयचेय ज्ञान मनोरंजनीय जांव येता. हीं नाटकुलीं लोकांक आकर्शक जावचीं म्हणून विनोद आनी मनोरंजनीय घडामोडी भर दिल्लो आसा. मर्दी खंय तरी मनोरंजनाचो भाग अती जांव येता. पूण ज्ञान आनी मनोरंजन हांचो समतोल राखपाचो चडांत चड प्रयत्न केल्लो आसा.

विज्ञान सरसकट मनशाकडेन विशेश करुन भुरग्यांकडेन पावंचे म्हणून फाटलीं १५-२० वर्सां सातत्यान वावर करीत आसतना नाटय हें एक मुखेल आनी प्रभावी माध्यम म्हणून जाणीव जाली आनी हीं नाटकुलीं बरोवपाक एक प्रयोजन मेळ्ळें.

लोकविज्ञान चळवळी खाला आयज विंगड विंगड कार्यक्रम जातात. टी. व्ही, रेडिओ, सिनेमा, वर्तमानपत्रां हया सारकीं प्रसारमाध्यमां लोकविज्ञान कार्याक प्राध्यान्य दितात ही एक खोशेची गजाल. विज्ञान कादंबरी, विज्ञानकथा अश्या साहित्यकृतींक आयज आंतरराष्ट्रीय मान्यता मेळिल्ली आसा. पूण हें विज्ञानसाहित्य शास्त्रीय ज्ञानापरस अद्‌भूत घटनांचेर अदीक भर दिता अशें दिसून येता. विज्ञानीक सिध्दांताचेर आदारीत विशेश करुन खगोलशास्त्राचेर नाटक-नाटकुलीं निर्माण जाल्लीं आयकूंक येवंना. हीं नाटकुलीं म्हणजे कोंकणी साहित्यांत एक वेगळो प्रकार म्हणून स्थान मेळयतलीं आनी साहित्यीक दृष्टींतल्यान खंयच कमी पडचीना हाची काळजी घेतल्या.

गोंय राज्याच्या विज्ञान आनी तंत्रज्ञान खात्याच्या आदारान पणजेंत एक खगोलशास्त्र वेधशाळा फाटलीं धा वर्सां सावन कार्य करता. खगोलशास्त्र मित्रमंडळ संस्था ही वेधशाळा चलयता. हे संस्थेचे अध्यक्ष भौ. पेरसीव्हालबाब नोरोन्हा हे एक तळमळीचे, सदाकाळ उत्साही, धडपडी आनी अत्यंत प्रामाणिक समाज कार्यकर्ते आसात. तांच्या आग्रहाक लागूनच हीं नाटकुलीं बरोवन जालीं. तांची काम करपाची धडपड आनी उत्साह पळोवन हांव खूब प्रभावीत जाल्लों आसा म्हणूनच हें पुस्तक तांच्या मोगाक हांवें आदरान अर्पण केलां.

म्हजे इष्ट श्री. तुकारामबाब शेट हाणी म्हज्या हात बरोवपांतल्या शुध्दलेखनांत उतरान उतर वाचून सुदारणा केल्यो, त्याचवरीं मनासावन प्रोत्साहन दिलें म्हणून हांव तांचो सदांच उपकारी उरतलो.

तशेंच दोतोर भिकाजी घाणेकार हाणी हीं नाटकुलीं पुस्तकरुपांत येवंचीं म्हणून उत्तेजन दिलें त्याखातीर तांचे आभार मानतां.

कोंकणी अकादमीचे अध्यक्ष भौ. पुंडलिक नायक, सचीव भौ. नारायण नावती, बाय जयंती नायक तशेंच आदले अध्यक्ष भौ. उदय भेंब्रो, उपाध्यक्ष भौ. एन. शिवदास आनी सचीव भौ. कमलाकार म्हाळशी ह्या सगळयांनी हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादमीच्या पयलो चंवर अनुदान येवजणेखाला छापून हाडपाक मजत केली त्याखातीर सगळयांचे आभार मानतां.

बिम्ब प्रकाशन संस्थेन हीं खगोलशास्त्रीय नाटकुलीं बऱ्या प्रतीची छापणावळ करुन पुस्तक रुपांत हाडली त्याखातीर भौ. दिलीप बोरकार आनी तांचे वांगडी हांचे खाशेले आभार मानतां.

मेरशी -गोवा

**श्रीकांत शंभू नागवेंकार**





# ओरायन, सिरीअस आनी नेबुल्ला

**पात्रां**

सुरेश,
शापैबाब,
सुरेखा,
ओरायन,
सिरीअस,
नेबुल्ला,
सिरीअस-बी

**ह्या प्रयोगाक लागपी शास्त्रीय साहित्य**
**ओरायन नक्षत्राचो कटआऊट, टॉर्च, दुर्बिण**

(सुरेशाच्या बंगल्याचो भायलो कंपाऊंड. स्टेजीच्या फाटल्या वटेन ओरायन ह्या नक्षत्राचो व्हडलो कटआऊट. कटआऊटाक मुखेल ताऱ्यांच्या जाग्यार बल्ब पेट्टात. सुरेश एके दुर्बिणींतल्यान वयर मळबांत पळयता. शापैबाब गेटीच्या भायल्यान उलो मारता)

शापै : सुरेश, सुरेश आरे ह्या थंडीच्या दिसांनी हें कितें घेवन बसला?

सुरेश : यो शापैबाब, यो भितर.

शापै : **(गेटी भितर येता)** तुका ह्या खगोलशास्त्राचें म्हणून बरेंच पिशें.

सुरेश : ह्या मळबांत पळोवपाची एकदां संवय लागली म्हणजे पिशेंच लागता.

शापै : अशें कितें पळयतालो?

सुरेश : ओरायन.

शापै : ओरायन म्हणजे ?

सुरेश : **(कटआऊट दाखयत हातांत टॉर्च घेवन ताऱ्याचेर उजवाड घालता)** तो पळय चार ताऱ्यांचो एक चौकोन दिसता

शापै : हय, हय. पळयलें, पळयलें.

सुरेश : आनी एके वळींत तीन तारे आसात.

शापै : हय हय.

सुरेश : ह्या ताऱ्यांच्या समुहाक ओरायन नक्षत्र अशें म्हणटात.

शापै : ओरायन म्हणजे ?

सुरेश : ग्रीक भाशेंत ओरायन म्हणजे शिकारी. ताका ह्या समुहांत एका शिकाऱ्याची आकृती दिसली.

शापै : शिकारी कसो रे ?

सुरेश : वयले दोन तारे हीं भुजां. सकयले दोन तारे हे ताचीं जांगडां. मदलो तो कमरेचो पट्टो. वयर बारीक तारे आसात पळय, दिसले ?

शापै : हय.

सुरेश : वयर आसा ती तकली. उजव्या हातांत ते बारीक तारे म्हणजे बाण आनी दावे हातांत तें धनुष्य.

शापै : कल्पना सामकीच वायट ना.

सुरेश : आपले आपले कल्पने प्रमाणच ह्यो आकृती तयार केल्यात. भारतीय विद्वानांनी वेगळीच कल्पना केली.

शापै : तांका कितें दिसलें तर.

सुरेश : तांका हीं दोन हरणांचीं मुंडकीं शीं दिसलीं. मृग नक्षत्र म्हणटात तें हें.

शापै : आमी मीर्ग म्हणटात तें न्हय ! मीर्गाचो पावस म्हणटात तें !

सुरेश : हें नक्षत्र दिसपाक लागलें म्हणजे पावसाळो सुरु जातालो म्हणून लोक मीर्ग नक्षत्राची वाट पळयताले.

शापै : आनी तो एक तारो कितलो चकचकता पळय.

सुरेश : तो सिरीअस. मळबांतलो सगळ्यांत तेजस्वी दिसपी तारो.

शापै : पूण तूं दुर्बिणिंतल्यान कितें पळयतालो?

सुरेश : राव दाखयतां. **(दुर्बिण ॲडजस्ट करुन दिता)** पळय आतां.

शापै : **(पळयता)** आरे हो ढग न्हय?

सुरेश : तो पावसाचो ढग न्हय. ताका नेबुल्ला म्हणटात. अंतराळांत अशे खूब ढग दिसतात. हे नेबुल्ला म्हणजे धूळ आनी वायुंचे व्हडले व्हडले ढग. तांचो आवांठ आमच्या सुर्या परस कितलेशेच हजार पटीन व्हड आसतलो.

शापै : येदे व्हडले? बापरे!

सुरेश : ह्या नेबुल्लांभितर एक मोठी मजेशीर गजाल दिसून आयल्या.

शापै : कसली?

सुरेश : कांय नेबुल्लांभितर ताऱ्यांचो जन्म जाता अशें दिसून आयलां.

शापै : तारे जन्माक येतात ?

सुरेश : इतलेंच न्हय ? मरतातय.

शापै : मरतात? तारो मेलो म्हणून केन्नाच आयकलें ना.

**(सुरेखा बशींत केळीं घेवन येता आनी दोगांकय दिता )**

सुरेखा : मेलो ? दामुअण्णा मेलो.कालच खबर घेतिल्ली. वचपाचोच आशिल्लो खंय. गाळयांबगर तोंडांत उतर नाशिल्लें.

सुरेश : आगो लोकांक कित्याक मारता?

सुरेखा : म्हणजे दामुअण्णा मरुना ? मागीर कोण मेलो ?

शापै : आगो सुरेखा, दामुअण्णा न्हय गो. तारो मेलो.

सुरेखा : तारो ? कोण तारो ? कोणालो घोव?

शापै : कोणालोच घोव न्हय. मळबांतलो तारो.

सुरेखा : मळबांतलो तारो? ते आनी मरतात ? सगळेच मेल्यार बरे.नाजाल्यार हेंका आनी उद्योग कितें आसा. रातभर दुर्बिण घेवन मळबांत पळय. दोन दीस जाले टी. व्ही लागनां. खबर तरी आसा?

सुरेश : तूं आतां चल भितर. कामाक लाग.

**(सुरेखा तिडकीन वता)**

सुरेश : शापैबाब केळें खावया.

**(दोगूय केळीं खातात. खातां खातां शापै वयर पळयता )**

शापै : सुरेश आरे वयर ओरायन दिश्टी पडना मरे.

सुरेश : ना कसो. आतांच दाखोवना तुका हावें?

शापै : हय रे. पूण वयर पळय. खरेंच दिसना.

सुरेश : **(वयर पळयता)** आं खरेच ना. ढग आयला आसतलो.

शापै : ढग कांय दिसना म्हणून.

सुरेश : शापैबाब मळबांतलीं नक्षत्रां कशीं ना जातलीं. पिशेपणां र्शी!

शापै : हय रे. पूण तो दिसना न्हय. आसूये, ढग आयला आसूये.

**(घोडो रडपाचो आवाज )**

शापै : कोण रडटा, घोडो ?

सुरेश : घोडो आनी हांगा खंयचो?

शापै : **(भायर पळोवन)** घोड्याबशेन कितेंतरी भितर येता रे.

सुरेश : **(भायर पळोवन)** हय मरे. **धांवडायता)** हय! हय!

**(एक दांडो काडटा. घोडो भितर येता. फकत तोंड घोड्याचें. बाकीचें आंग अस्पश्ट)**

शापै : **(सुरेश फाटल्यान लिपता )** सुरेश हें रे बाबा कितें? आरे ही भुताटकी. राम! राम! ख़रेंच हें भूत. चल धांव धांव.

सुरेश : शापैबाब मात्सो धीर धर.

शापै : कसलो धीर धर? हो घोडोय न्हय. भूतच तें!

**(घोडो फुडें फुडें येता दोगूय फाटीं फाटीं वतात )**

नेबुल्ला : भियेंव नाकात. हांव भूत न्हय. म्हाका आधार करात.

शापै : आरे तो उलयता. राम! राम!! राम!!! हें भूतच.

सुरेश : कोण तूं? तुजें सारकें जनावर हांवें पृथ्वीचेर केन्नाच पळोवना.

नेबुल्ला : हांव नेबुल्ला.

सुरेश : हॉर्स हेड नेबुल्ला ?

शापै : हॉर्स हेड नेबुल्ला ? हें आनी कितें लचांड.

सुरेश : शापैबाब भियेंव नाका . हो नेबुल्ला. येदोळ हावें दाखोवना ढगासारको आकार आशिल्लो? तसलोच हो नेबुल्ला.

शापै : पूण हॉर्स हेड म्हणजे?

सुरेश : दुर्बिणिंतल्यान ताचो आकार घोड्याचे तकले बशेन दिसता. म्हणून हॉर्स हेड.

नेबुल्ला : हांव घोडो न्हय.

शापै : पूण तूं घोड्याबशेन रडटालो न्हय.

नेबुल्ला : हांवें आवाज केल्लो.

शापै : ताकाच घोड्याचो आवाज म्हणटात आमी.

नेबुल्ला : तुमी म्हाका बेगीन लिपयात.

सुरेश : लिपयात? कितें जालां?

नेबुल्ला : तो राक्षस, ओरायन म्हाका मारपाक सोदता.

सुरेश : ओरायन, शिकारी. तो तुका कित्याक मारपाक सोदता ?

नेबुल्ला : तुमी मनशांनी ताका चड म्हत्व दिलां. तुमी ताका शिकारी म्हणटात म्हणून ताची सगळ्या मळबांत दादागिरी चल्ल्या.

सुरेश : पूण तो तुज्या फाटल्यान कित्याक लागला?

नेबुल्ला : हांव प्रोटोस्टार जावपाक सोदतां म्हणून.

सुरेश : प्रोटोस्टार जावपाक लागला? पूण तशें आमकां कांय दिसून येवंना.

नेबुल्ला : तुमी मनीस चड शाणे समजतात. हांव प्रोटोस्टार जातां, हें कळपाक तुमकां आनी १००० प्रकाश वर्सां वाट पळोंवची पडटली.

शापै : तो अशें कित्याक म्हणटा सुरेश?

सुरेश : अंतराळांतले तारे इतले पयस आसात कि तांचें अंतर मेजपाक किलोमीटर हीं मापां खूप ल्हान पडटात. म्हणून प्रकाश वर्स हें माप वापरतात.

शापै : प्रकाश वर्स म्हणजे कितलें ?

सुरेश : एक प्रकाश वर्स म्हणजे प्रकाश किरण एका वर्सांत कितलें अंतर वता हें एक माप. ताका प्रकाश वर्स म्हणटात.

शापै : प्रकाश कितल्या वेगान वता तर .

सुरेश : तुका सादे भाशेंत सांगतां. प्रकाश एका सेकंदाक पृथ्वीच्यो सात-आठ भोंवतडी मारता.

शापै : म्हणजे एक वर्साक तो कितलो पयस वतलो. बापरे! म्हजी तकलीच चलना रे बाबा. म्हणजे हो इतल्या पयसुल्यान आयला? अजाप मरे! आरे, घोड्या इतले पयसुल्यान कसो आयला रे?

सुरेश : तो प्रकाश किरणाचे गतीन पसून आयल्यार ताका एक हजार वर्सां लागतलीं.

शापै : मागीर तो कसो आयला तर. आतांच तो वयर दिसतालो. आरे घोड्या कसो आयला रे तूं . उलय रे.

नेबुल्ला : ये जाण्टेल्या तोड धांप. तें तुज्या तकले भायर आसा (सुरेशाक) तूं म्हाका लिपयता काय ना. (सुणो भुंकपाचो आवाज ) तो सुणो येता हांगा.

शापै : सुणो!

सुरेश : कोण सिरीअस?

नेबुल्ला : हय.

शापै : कोण सिरीअस?

सुरेश : येदोळ हावें सागुंना ! मळबांत सगळ्यांत चकचकीत तारो दिसता तो तारो म्हणजेच सिरीअस.

शापै : पूण तो ताचे फाटल्यान कित्याक लागला?

नेबुल्ला : सांगलां न्हय ! हांव प्रोटोस्टार जाता म्हणून त्या ओरायनाक नसाय जाता. म्हणून तो आनी ताचो सुणो म्हज्या फाटल्यान लागल्यात.

शापै : प्रोटोस्टार म्हणजे?

नेबुल्ला : ये जाण्टेल्या तुका कळपाक ना म्हणून सांगलां न्हय. तूं तोंड धापून बस थंय.

शापै : सुरेश, हो म्हजेर तापता सो. चड जालें मरे ताजें.

सुरेश : राव राव. हांव सांगतां तुका प्रोटोस्टार म्हणजे कितें तें. नेबुल्ला ढगांतले वायू आनी कण हळूहळू एकटांय जावपाक लागतात तशे

ते दाट दाट जायत वतात. दाट जाता तितल्या प्रमाणांत ताचेवयलें गुरुत्वाकर्षण बळ वाडपाक लागता. हळुहळू एक व्हडलो गुळो जाता आनी ताचें तापमान वाडपाक लागता. ही क्रिया चालूच उरता ताका प्रोटोस्टार म्हणटात.

**(भोकपाचो आवाज)**

नेबुल्ला : **(भियेता)** लिपय म्हाका. लिपय म्हाका.

**(भोकपाचो आवाज लागीं लागीं येता. सुरेश नेबुल्लाक लिपयता. सिरीअस भितर येता. तोंड सुण्याचें)**

सिरीअस : **(भोकीत शापैबाबाच्या आंगार धांवता)** हांगा घोडो आयला ?

सुरेश : ना. हांगा आनी घोडो खंयचो. तूं कोण?

सिरीअस : तें मागीर सांगतां. पयली सांग घोडो खंय?

सुरेश : हांगा घोडो ना.

सिरीअस : हांव तुमगेलो घोडो म्हणिना. अंतराळांतलो घोडो.

सुरेश : पूण हांगा खंयचोच घोडो ना.

शापै : अंतराळांत आनी घोडे आसात ?

सिरीअस : **(रागान)** म्हाका वास येता. पयलीं सांगात घोड्याक खंय लिपयला?

सुरेश : पूण तूं कोण?

सिरीअस : म्हाका चड उलोवपाक लायनाका. घोडो खंय? हो पळय लिपला. **(नेबुल्लाक)** ये भायर सर पयलीं. तुगेलीं नाटकां पुरो जालीं.

नेबुल्ला : **(भायर येता)** हे सुण्यां तूं म्हज्या वाटेक कित्याक लागला.

सिरीअस : तूं सुणो कोणाक म्हणटा. राव ओरायन येवंदी. दाखयतां तुका.

शापै : **(सुरेशाक)** तो ताका सुणो कित्याक म्हणटा?

सुरेश : इजिप्ताचे नाईल न्हंयक हुंवार येताले. त्या काळांत हो तारो मळबांत दिसपाक लागतालो. म्हणून हो तारो दिसप म्हणजे दुश्चिन अशें इजिप्ताचे लोक मानपाक लागले. म्हणून ह्या ताऱ्याक ते लोक डॉग स्टार अशें म्हणपाक लागले.

शापै : अशें. पूण ताची वागणूकय सुण्याबशेनच शी.

सिरीअस : **(नेबुल्लाक)** चल रे वयर बेगीन. तुज्या जाग्यार चल.

नेबुल्ला : म्हज्या पायांत तांक आशिल्ली तर एक खोंट मारुन धाडटलों आशिल्लों तुका वयर, सुण्या.

सिरीअस : परत सुण्या ? आरे हांव सिरीअस. सिरीअस म्हळयार कितें तें जाणा तूं? सिरीअस म्हणजे लखलखीत. मळबांतलो सगळ्यांत लखलखीत तारो तो हांव.

नेबुल्ला : आरे तूं खयचो लखलखीत. सुर्याचे ग्रह तुज्यापरस लखलखीत दिसतात.

सिरीअस : खंयचे ग्रह रे! सुर्याचीं पिलां मरे तीं! सुर्यापरस हांव कितलो व्हडलो तें जाणा मरे तूं!

सुरेश : तुज्यापरस लखलखीत तारे खूब आसात. तूं लागी आसा म्हणून आमकां लखलखीत दिसता.

सिरीअस : तें कितेंय आसूं. हे घोड्या, तूं पयलीं वयर वता काय ना?

नेबुल्ला : ना वचचो. तुजी दादागिरी हांगा चलची ना.

सिरीअस : कोणामुखार तूं हें अडेचें बळ दाखयता, ह्या पृथ्वी वयल्या लोकांमुखार? आरे हीं कुसकुटां मरे. आमच्या बरोबर तांची तुळा जाता? आरे तांचें आयुर्मान केदें ७० वर्सां? ८० वर्सां? आमचें आयुर्मान केदें! कोटी आनी अब्जानी वर्सांचो हिशोब दवरचो पडटा. हे मानव तुका सालवार करतले? चल पोक्यो बडायो नाकात. चल वयर पयलीं.

नेबुल्ला : हे सुण्या, असो भोकीत राव नाका. चल तूं तुज्या धनयां फाटल्यान, ताचे पांय चाटत.

शापै : सुरेश हो सिरीअस बरोच तापट मरे. नावांबशेन सिरीअस **(serious)** तांचे भानगडींत आमी पडचे न्हय.

सुरेश : शापैबाब, तूं भियेनाका. हांव पळोवन घेतां. आरे सुण्या, सॉरी सॉरी सिरीअस. असो सिरीअस जायनाका. आमी कॉंप्रोमायझ करुया.

सिरीअस : तें कशें ?

सुरेश : तो स्टार जावपाक सोदता. ताची आकांक्षा पुराय जावंदी. तुमी ताची नसाय कित्याक करतात?

शापै : पूण तो प्रोटोस्टार जाला न्हय. स्टार आनी कसो जातलो?

सुरेश : प्रोटोस्टार जातगर नेबुल्लांतल्या धुळीचें आकूंचन खूप वेगान वाडत वता. तेचवरीं ताचें तापमानय वाडत वता. इतलें वाडटा इतलें वाडटा कि कितलेशेच लाख अंश सेल्सीअस वाडटा. अशा तापमानाचेर हायड्रोजन अणूंचें फ्यूजन सुरु जाता. आनी प्रचंड उर्जा भायर सुट्टा. तो प्रकाश दिवपाक लागता. तेन्नाच नवो तारो निर्माण जाता.

शापै : आमचो सुर्य असोच तयार जाला.

सुरेश : हय.

सिरीअस : ये, ह्यो तुमगेल्यो गजाली कुशीक दवर. ये घोड्या तूं पयलीं वयर वता काय ना?

नेबुल्लां : ना वचचों.

सिरीअस : बरें आसा. धनयाकच आपयतां (भोकता). ता थै या तत थै या (अशें म्हणीत झांज वाजयता) ता थै या तत थै या (ओरायन तालार नाचत येता. हातांत धनुष्य-बाण, खांदार, कमरेक तारे लायल्यात).

ओरायन : खंय आसा तो दळिद्रो?

सिरीअस : हो पळय. हे नेबुल्लीच्या, यो मुखार .

नेबुल्ला : ये गाळी संवनाका. तुज्या बापायलें हावें कांय खावंना.

सिरीअस : म्हज्या बापायक वयर काडटा? राव दाखयता.

**(ताच्या आंगार धांवता. सुरेश आडायता)**

सुरेश : हें पळयात तुमी अशे झगडत रावल्यार प्रश्न सुटचोना.

ओरायन : आरे, तूं मानव मर्दी पडनाका.

सुरेश : पूण ताणें केलां तरी कितें?

ओरायन : सिरीअस, आरे तुवें सांगुना हांव कोण तो?

सुरेश : जाणां तूं ओरायन म्हणून.

ओरायन : मागीर अशें कितें उलयता तर तूं?

सुरेश : तशें न्हय. तुजें ताणें कितें वायट केलां?

ओरायन : तो दळिद्रो म्हजें कितें वायट करुं शकता?

सुरेश : मागीर तूं ताच्या फाटल्यान कित्याक लागला?

ओरायन : हांव सांगतां तसो तो वागना.

नेबुल्ला : तूं कोण म्हाका सांगपी? म्हाका जाय तें हांव करतलों.

ओरायन : हांव कोण काय विचारता? नेबुल्लीच्या हांव मळबांतलों सम्राट. सगळ्या मळबांत हावंच लोकांचे नदरेंत भरतां.,

सुरेश : तूंच कित्याक? सप्तर्षी, वृश्चिक हीं नक्षत्रांय नदरेंत भरपा सारकींच आसात.

ओरायन : पूण हांव शिकारी. म्हज्या हातांतलें हें शस्त्र पळय. हाच्या बळार हांव मळबांत राज्य करतां.

सुरेश : पूण तुज्या ह्या शस्त्रांतले तारे सामकेच अंधूक आसात. ते स्पश्ट दिसचनांत.

ओरायन : आरे ते पुराणांतले बाण न्हय. तांचो मारो १००० प्रकाश वर्स मेरेन वता.

सुरेश : लेझर काय कितें ?

ओरायन : आरे लेझर हाचे मुखार फकांड.

सिरीअस : धनयां तें कितें तें सांगनाका. हे मानव ताचो उपेग करुन आमकांच काबार करपाक उणे नांत.

सुरेश : तरीय तुका आमी मळबांतलो सम्राट म्हणूंक शकनांत.

नेबुल्ला : तुमी ताका शिकारी म्हणलो तेंच वायट केलें, म्हणूनच ताची बडाय वाडल्या.

ओरायन : ये तोंड बंद कर. सिरीअस, हो मनीस अर्दवट सो दिसता. तांका सांग म्हज्या उजव्या खांद्यावयल्या ताऱ्याचें नांव कितें तें.

सिरीअस : आरे, हो उजव्या खांद्यावयलो तारो आर्द्रा, तांबड्या रंगाचो.

सुरेश : जाणां हांव. इंग्लिशींत Betelguese अशें म्हणटात.

सिरीअस : ताचो आवांठ ३० कोटी ६० लाख सुर्या येदो. आरे लाल राक्षस तारो तो.

सुरेश : रेड ज्यायंट Red Giant तो. जाणा हांव

नेबुल्ला : ताचें वजन कितलें तें सांग मरे.

सुरेश : फकत पांच सुर्या येदें.

शापै : येदो व्हडलो आवांठ आनी वजन इतलेंच?

सुरेश : ताचो वयलो द्रव पदार्थ सामको विरळ आसा.

शापै : पूण हो आर्द्रा तारो, लाल राक्षस तारो अशें कित्याक म्हणटात?

सुरेश : ताचें अशें आसा . तारो जन्माक येतकर ताच्या वयल्या हायड्रोजन वायुचें फ्यूजन सुरु जाता आनी उर्जा निर्माण जाता. ही क्रिया लागीं १००० कोटी वर्सां चालू उरता.

शापै : पूण ते हायड्रोजन काबार जायना.

सुरेश : तेंच हांव सांगपाक सोदतां. १००० कोटी वर्सांनी हे हायड्रोजन सोंपत वता.

शापै : मागीर?

सुरेश : हायड्रोजन फ्यूजन क्रिया बंद पडटा.

शापै : मागीर?

सुरेश : जशी जशी ही क्रिया बंद जावपाक लागता तशें ताच्यावयलें तापमान कमी जावपाक लागता म्हणून तो तांबडो जावपाक लागता.

शापै : तापमान कमी जाल्यार तांबडो जाता ?

सुरेश : हय. ताच्याचें तापमान खूप आसता. खूप म्हणजे खूपच. कितलेंशें हजार अंश म्हणून तो धवोफुल्ल आसता. जसो तो न्हिवपाक लागता तसो तो तांबडो जावपाक लागता म्हणून ताका लाल म्हणटात.

शापै : आनी राक्षस तारो कित्याक म्हणटात ?

सुरेश : जशी हायड्रोजन फ्यूजन क्रिया बंद पडपाक लागता तशें ताचें गुरुत्वाकर्शण कमी जाता आनी ताऱ्याचें भायलें कट्टें एकदम फुगता. इतलें फुगता कि ताचो आवांठ कितलेशेच पटीन वाडत वता.

शापै : आर्द्रा ताऱ्याबशेन ?

सुरेश : हय. अशे अवस्थेक लाल राक्षस तारो म्हणजेच रेड ज्यायंट (Red Giant) म्हणटात.

नेबुल्ला : पूण ताची आतांची अवस्था जाणात?

सुरेश : कितें?

नेबुल्ला : तो सुपरनोवा जावपाचे अवस्थेकडेन पावला.

सुरेश : सुपरनोवा? **(खोशयेन नाचता)**

शापै : सुपरनोवा? तूं इतलो खूश कित्याक?

सुरेश : लाल राक्षस ताऱ्याची अवस्था जातगर ताऱ्याचें भायलें कट्टें एकदम स्फोट जावन फुट्टा आनी प्रचंड उर्जा भायर येता. ताकाच सुपरनोवा म्हणटात.

शापै : म्हणजे ताऱ्याचो स्फोट जाता?

सुरेश : हय. ताकाच ताऱ्याचें मरण म्हणटात. अकस्मात हो तारो कांय काळ चकचकीत दिसपाक लागता. १९८७ वर्सा असो एक सुपरनोवा दिसलो. आयन शेलटोन (ION SHELTON) हाणें तो पयलो पळयलो.

नेबुल्ला : म्हणूनच म्हणटां **(ओरायनाक)** तुज्यो मिजाशी पुरो कर.

ओरायन : सिरीअस हो मानव चड उळोवपाक लागलो. ताचो पयलीं अंत करुया. वाजय बेगीन.

**(सिरीअस झांज वाजयता. ता थै या ता थै या. ओरायन नाचता. आवाज आयकून भितल्ल्यान सुरेखा येता)**

सुरेखा : कोणाचो आवाज? **(ओरायनाक पळोवन)** कोण विरभद्र. देवा तूं आमच्या घरा? पायां पडटा **(पायां पडटा)** आमच्या सगळ्या पिडयांचो उध्दार जालो.

ओरायन : कोण रे ही बायल? सिरीअस हिका बेगीन भितर धाड. बायलांक पळयल्यारच म्हाका कितेंशें जाता.

सिरीयस : ये बायले चल भितर.

सुरेखा : देवा म्हाका पयलीं वर दियात.

ओरायन : वर? कसलो वर?

सुरेखा : देवा, लग्न जावन १३ म्हयने जाले कितली सरकारां येवन गेलीं. आमची अजून कूस उजवली ना.

ओरायन : अशें! ये बायले, हांव हांगा भुरगीं करपाक येवंना, म्हाका पयली खावपाक हाड. सामकी भूक लागल्या.

सुरेखा : कितें नैवेद्य जाय? बरें हाडटां. **(भितर वचपाक घोड्याचेर नदर पडटा)** आरे, घोडो! तूंय आसा? बरेंच जालें. घोडो आमच्या कुलदेवतेचें वाहन तुकाय नैवेद्य हाडटां. **(भितर वता)**

ओरायन : बरेंच जालें. पिडा गेली.

शापै : सुरेश हाचें झगडें मात्शें जाग्यार घाल.

सुरेश : आतां मात्सो ॲग्रेसिव जाल्लो बरो.

सिरीअस : ये घोडोबा यो मुखार.

सुरेश : **(तापता)** सिरीअस, तुजी दादागिरी बंद कर. म्हाका सांग, तुजो भाव खंय आसा?

सिरीयस : **(नर्व्हस जाता)** कोण भाव?

सुरेश : तूं म्हाका लिपयनाका.

सिरीअस : म्हजो गिड्डो भाव तो! तुका कशें कळ्ळें?

सुरेश : हांव जाणा. तुजो गिड्डो भाव तो. ताका आमी धवल वामन तारो म्हणटात. म्हणजेच व्हायट ड्वार्फ (White Dwarf)

शापै : गिड्डे तारे आसतात?

सुरेश : ह्या सिरीअसाचो एक गिड्डो भाव आसा. खूप खूप तेजस्वी. धवो

फुल्ल. आकारान सामको ल्हान पूण वजनान सुर्यापरस कितलेशे
पट्टीन जड.

शापै : गिड्डो म्हणून ताका वामन तारो नांव दिलां काय कितें ?

सुरेश : हय. धवल वामन तारो.

नेबुल्ला : हे दोगूय भाव एकमेकां भोंवतणी भोंवतात.

सुरेश : हय दोगूय हातांत हात घालून फुगडी खेळल्याबशेन एकमेकां भोंवतणी फिरतात. म्हणून खगोलशास्त्रज्ञांक सिरीअसाक भाव आसा, हें खूप उसरां कळ्ळें. ह्या वामन भावाक सिरीअस ब अशें म्हणटात. अश्या ताऱ्यांचे जोडयेक इंग्लिशींत बायनरी स्टार्स (BINARY STARS) म्हणटात.

शापै : पूण तो तारो गिड्डो कसो जालो?

सुरेश : तुका लाल राक्षस तारो कसो जाता तें सांगलां न्हय.

शापै : हय. ताच्या उपरांत तो सुपरनोवा जाता.

सुरेश : सुपरनोवा जातगर ताचें भायलें कट्टें फुटून वता आनी मदलो उरिल्लो केंद्र, कोर (Core) गुरुत्वाकर्शण बलाक लागून परत आकुंचीत जायत वता. हो इतलो आकुंचीत जाता. लागी लागी तो हजार पटीन ल्हान जाता. कल्पना कर किं एक फुटबॉल आकुंचीत जावन गड्ड्या येदो जालो.

शापै : इतलो? ताचें गुरुत्वाकर्शण खूप वाडटलें न्हय?

सुरेश : हय गुरुत्वाकर्शण खूप वाडटा तापमान लागीं लागीं १० कोटी अंश वाडता. आनी अशा तापमानात लागून हेलियम वायूंच्या अणूंची फ्यूजन किया सुरु जाता. आनी तो परत प्रचंड उर्जा दिवपाक लागता.

ओरायन : तुका आमच्या विशीं बरीच माहिती आसा तर.

सुरेश : म्हणूनच म्हणटा कि तुमी बरे बशेन आतां चलात. ह्या नेबुल्लाक तारो जावंचो दिसता ताका जावंनी सैमीक नियमाप्रमाण तो तारो जातलो ताकां तुमी कितें करतले.

ओरायन : तो तारो जाता म्हणून म्हाका कसलीच नसाय ना.

सुरेश : मागीर ?

ओरायन : हो नेबुल्लीचो......

सुरेश : परत गाळी नाकात.

ओरायन : हो घोडो, म्हज्या आर्द्रा ताऱ्याकय म्हज्या विरुध्द खुबळायता. ताका कृष्णविवर जा म्हणून सांगता.

नेबुल्ला : हावें तशें सांगुना. तें म्हाका विचारतालें कि कृष्णविवर जावपाक कितें करपाक जाय म्हणून.

सुरेश : मागीर तुवें कितें सागलें?

नेबुल्ला : हावें सांगलें कि ताचो मूळ तारो सुर्यापरस १.४४ पटीन जड आसत तर तो कृष्णविवर वा न्यूट्रॉन स्टार जावं येता. हें शास्त्र म्हाका सारकें खबर ना अशें हावें ताका सांगलां.

सुरेश : शापैबाब, हें शास्त्र कोणे सोदून काडलां खबर आसां?

शापै : कोणे ?

सुरेश : सुब्रीमणम चंद्रशेखर. हे जन्मान भारतीय खगोलशास्त्रज्ञ. ताणीं हें सोदून काडलें

शापै : अशें! पूण हे न्युट्रोन स्टार आनी कृष्णविवर म्हणजे कितें ?

सुरेश : जर तारो सुर्यापरस १. ४४ पटीन जड आसत तर सुपरनोवा जातगर.....

शापै : म्हणजे मरतगर.

सुरेश : हय. ताचो न्यट्रोन स्टार जाता. न्युट्रोन स्टार खूब जड आसतात. तांचें वजन खूप आसता. गुरुत्वाकर्शण इतलें आसता कि एका टेबल टॅनीस बॉलाच्या आकारचें वजन १ कोटी टन इतलें आसतलें.

शापै : बापरे!

सुरेश : ताच्यावयर प्रकाश किरण तयार जायनांत.

शापै : मागीर?

सुरेश : ते ठराविक काळांतरान रेडिओ लहरी सोडटात. तांका इंग्लिशींत

पल्स म्हणटात म्हणून न्युट्रोन स्टाराक पल्सार (pulsar) अशेंय म्हणटात.

शापै : आनी कृष्णविवर म्हणजे?

सुरेश : कृष्णविवर म्हणजे ब्लॅक होल (Black hole). जर मूळ तारो सुर्या परस खूप पटीन जड आसत तर तो मरतगर ताचो कृष्णविवर-ब्लॅक होल जावं येता. १. ४४ हे संख्येक खगोल शास्त्रांत चंद्रशेखर लिमीट अशें म्हणटात.

नेबुल्ला : हावेंय आर्द्राक तेंच सागिल्लें. हावें कितें चाडी करुंक ना.

ओरायन : ताच्यान म्हाका विचारपाक जातालें!

नेबुल्ला : तुज्या दादागिरीचो तांका वीट आयला.

ओरायन : म्हणून तें कृष्णविवर जावपाक सोदता. जावंनी जावंनी! कृष्णविवर जाल्यार आमचें कितें वायट जावपाचें आसा. सिरीअस तुका कितें दिसता?

सिरीअस : धनयां हांव विचार करतां, ह्या घोड्याचें आनी आर्द्राचें कितेंय कारस्थान आसूं येता.

शापै : सुरेश आर्द्राचें कृष्णविवर जाल्यार कितें जांव येता?

सुरेश : कृष्णविवर अत्यंत घन आसता. ताचें गुरुत्वाकर्शण इतलें आसता कि ताचेवयलो एक कण चंद्राच्या वजना इतलो भरतलो.

शापै : इतलें ? कल्पने भायर मरे!

सुरेश : ताचेवयले प्रकाश किरण, रेडिओ लहरी कांयच भायर येवंक शकनांत. म्हणून तें आमकां दिसनां.

शापै : म्हणून तें काळें?

सुरेशं : पूण ताचे लार्गी खंयचीय वस्त वचत-प्रकाश किरण पसून लागिंच्यान वचत तर कृष्णविवराचें प्रचंड गुरुत्वाकर्शण बळ ताका ओडून घेता. आनी ते द्रव वा किरण नश्ट जाल्लेवरी दिसता.

शापै : म्हणजे फोंडांत पडून नाच्च जाता, तशें.

सुरेश : म्हणून विवर-होल म्हणलां ताकां.

शापै : ते दिसनांत जाल्यार तांचें अस्तीत्व कशें समजता?

सुरेश : हो एक बरो प्रस्न! अंतराळांत कांय रिकाम्या जाग्यांकडेन तांच्या सरभोंवतणचे वायू-द्रव आकर्शित जातात अशें दिसता.

शापै : म्हणजे त्या रिकाम्या भागांत विवर आसा. अशेंच न्हय?

सुरेश : एकदम बरोबर.

सिरीअस : **(अकस्मात)** धनयां, आतां म्हाका कळ्ळें ह्या घोड्याचें आनी आर्द्राचें कारस्थान.

ओरायन : कितें तें?

सिरीअस : हें आर्द्रा कृष्णविवर जावन आमकां सगळ्यांक ओडून घेतलें आनी नष्ट करतलें.

ओरायन : अशें. ह्या नेबुल्लाचे हें कारस्थान? सिरीअस वाजय बेगीन आतांच ताचो नाश करतां.

**(सिरीअस वाजयता ता थै या. . . .ओरायन बाण धनुष्याचेर चडोवन नेबुल्लाक मारपाक वता. इतल्यांत सुरेखा नैवेद्य घेवन येता. गोंदळटा)**

सुरेखा : कितें जालें ? आरे म्हज्या घोड्याक मारतात?

**(नेबुल्लाच्या मुखार रावून ओरायनाक आडायता)**

ओरायन : ये बायले उठ थंयची.

सुरेखा : तुमी देव काय राक्षस? म्हज्या कुलदेवतेचें वाहन तें. तुमी ताका मारचीं ना. तुमचें निसंतान जातलें. घोड्या धांव तूं हांव पळयतां कितें करतात ते!

**(नेबुल्ला धांवतां.ताच्या फाटल्यान ओरायन आनी सिरीअस धांवत वतात)**

ओरायन : **(वतां वतां)** हे बायलेन सगळी वाट लायली.

**(सुरेश, शापैबाब, सुरेखा वयर पळयतात )**

शापै : हे पळय. पावले ते. हो पळय ओरायन दिसपाक लागलो.

सुरेश : हो पळय सिरीअस.

शापै : कितलें अद्भूत न्हय! कोणाकय सांगल्यार खरें दिसपाक ना.

सुरेश : येदोळ ते वयर दिसना आशिंल्ले ते ह्याच खातीर.

सुरेखा : म्हजो नैवेद्य तसोच उरलो.

शापै : आमी खावया.

**(इतल्यांत भोकपाचो आवाज. एक सुणो, सामको गिड्डो भितर येता)**

सुरेखा : आवयस, हो आनी सुणो खंयच्यान आयलो?

सिरीअस-ब : हांव सिरीअसाचो गिड्डो भाव. सिरीअस-ब.

शापै : वामन तारो ? आरे तूं आनी हांगा कित्याक?

सिरीअस-ब : नैवेद्य खावपाक!

**(सगळी अवाक् जातात सोंपता)**

# सूर्यमंडळाक बादली लालूची ग्रहदशा

**पात्रां**

गजानन, सुत्रधार, नटी, मानू, एकटो, लालू, गुरुबाबा, नारद, ब्रह्मदेव, न्यूटन, मंगळ.

**टीप : ह्या प्रयोगाखातीर लागपी शास्त्रीय साहित्य.**
**मंगळ ग्रहाचें चित्र आशिल्लो मुकूट, शास्त्रज्ञ न्यूटनची वेशभूषा.**

**(गणपती स्तवन चलता. सुत्रधार आरती म्हणटा. सगळीं पात्रां उबीं रावन साथ दितात )**

आरती : पयलें नमन तुज गणराया
मुखडे आमचे सोबीत रंगल्या
नाट्यकर्मी आमी सेवक तुमचे
विघ्न सारुंक आशिर्वाद दिवचे

सुत्रधार : देवा, लंबोदरा आयज रिध्दी -सिध्दी पावल्यो नात म्हणून रागार जाय नाकात. तरी नृत्य गान सुरु करुन आमकां आशिर्वाद दिवचें.
**(गजानन नाचता)**

आरती : पयलें नमन तुज मोरया
नैवेद्याक हाडल्यात पांच नेवऱ्या
ताल मृदंगाची साथ दिवचें
नाटक आमचें सोबून व्हरचे
**(नैवेद्य वाट्टात)**

सुत्रधार : लंबोदर महाराज, पुजा जाली. आतां आमकां आशिर्वाद दियात आनी चलात.

गजानन : नटी खंय ?
**(मुखड्यांतल्यान अर्दे तोंड भायर काडीत विचारता).**

सुत्रधार : येवपाची जाली.

गजानन : तुका मात नटी मेळ्ळी. म्हाका मात रिध्दी-सिध्दी मेळ्ळ्यो नांत न्हय तुका?

सुत्रधार : माफ करात म्हाराज.

गणपती : पूण नटीचें तोंड पळयल्याबगर कसो वचूं?

सुत्रधार : हें अतीच जालें. तुमच्यो आरती जाल्यो न्हय मागीर चलात आतां आमकां नाटक सुरु करपाक जाय.

गणपती : **(बेजारत)** बरें वतां करात तुमचें नाटक.

**(रागान वता)**

सुत्रधार : नटी खंय पावली? आजूनय पत्तो ना. शे! बायलांचे हे नखरे केन्नाच सोंपचेले नात. बसली आसतली मेकअप करीत. **(घडयाळ पळयता)** शी! लोकांक पासेंस. **(प्रेक्षकांकडेन पळोवन)** तर भांवडांनो, नाटकाक आमी आरंभ करुया. नटी येवपाचीच जाली. एक-दोन मिण्टां. चडांतचड पांच ते धा मिण्टां. तो मेरेन आमी थोड्यो गजाली करुया. कशें चल्ला राजकारण? राजकारण हो असो विशय आसा कि ताचेर कोणय उलोवंक शकता. अनाडी जांव शिकिल्लो, भिकारी वा श्रीमंत, पिसो तसो शाणो. राजकारणांत नांत तेच राजकारणाचेर चड उलयतात. आमचे राजकारणी इतलीं बेस बरीं संवगां करतात, तीं पळयल्यार आमकां नाटक्यांक पसून लज दिसता. ह्या राजकारण्या मुखार आमचो धंदो सामकोच बसपाक आयला न्हय! **(भितर पळयता)** खंय गेली ही? शे! आजूनय ना. हीं बायलां आनी आमचे राजकारणी हाच्यांत एक साम्य आसा. केन्नाच वकतार येवपाचीं नांत. **(भितर पळयता)** जांव सायबा, येता शी दिसता ! यो यो बेगीन. **(नटी येता)** कितलो कळाव, जनाची नाजाल्यार मनाची तरी लज राखची.

नटी : **(प्रेक्षकांक)** माफ करात आं. कांय तांत्रीक कारणांक लागून म्हाका येवपाक मात्सो कळाव जालो.

सुत्रधार : आतां हें म्हणप परंपरेनुसार जालें. पूण खरें कितें कारण तें कळत?.

नटी : कांय ना रे, वाटेर तिट्यार एक ज्योतिशी बशिल्लो दिसलो सहज म्हणलें भविश्य विचारुया.

सुत्रधार : तुजें आनी कितें भविश्य विचारपाचें उरलां.

नटी : म्हणजे म्हगेलें माधुरी आसा तें रे! निदान ह्या वर्सा तरी लग्नाचो योग आसल्यार पळोवया म्हणलें.

सुत्रधार : मागीर ज्योतिशान कितें सांगलें.

नटी : तो म्हणता, ह्या वर्सा योग आसा. पूण मंगळ खंय कर्क राशींत वता. तो खंय आडखळ हाडतोलो.

सुत्रधार : मागीर ?

नटी : त्याखातीर ताणें एक व्रत कर म्हणून सांगलां.

सुत्रधार : व्रत केल्यार मंगळ कर्क राशींत वचपाचो थांबतलो.

नटी : म्हाका कितें खबर.

सुत्रधार : म्हाका सांग, तुवें व्रत केल्यार मंगळ आपले गतीक ब्रेक लायतलो?

नटी : तें कशें जातलें?

सुत्रधार : मागीर व्रत कित्याक करप.

नटी : म्हाका तें कांयच खबर ना.

सुत्रधार : तुमचें ज्योतिशशास्त्र हे विसंगतीचेर आदारलेलें आसा.

नटी : विसंगती म्हणजे कितें?

सुत्रधार : विसंगती म्हणजे, विसंगती म्हणजे आतां तुका कशें म्हणून सांगपाचें आं हें पळय , हें हांगा आसा आनी हें हांगा ना ह्यो दोनूय गजाली सत आसूं शकतात?

नटी : हे, तू कितें सांगता सारकें सांग पळोवया.

सुत्रधार : राव राव परत सांगतां. हें पळय, तूं म्हणटा कि हें हांगा आसा.

नटी : कितें तें.

सुत्रधार : कितें तरी आसा. पूण हांव म्हणटां हें हांगा ना.

नटी : हांव म्हणटा हें आसा. तूं म्हणटा हें ना. बरें आसा. आसा, ना, आसा ना.

सुत्रधार : तर दोगां पयकी एकटोच खरो आसूं शकता. दोगांजाण खरे आसपाक शकनांत.

नटी : हें हें तुवें कितें सांगलां तें तुका तरी सारकें समजलां मरे!

सुत्रधार : तुका कशें म्हणून सांगप? बायलांक अक्कल कमी म्हणटात तें फट न्हय! बरें अशें समज. हांवें अशें म्हणलें किं तू खूब सुंदर आसा.

नटी : **(मोडत)** हय. बरोबर आसा तें.

सुत्रधार : पूण प्रेक्षक म्हणटात कि तें विसंगत आसा.

नटी : म्हणजे?

सुत्रधार : तूं कशें आसा आनी हांवें कितें म्हणलां हीं दोन विधानां परस्पर विरोधी आसात. म्हणूनच विसंगत आसा.

नटी : म्हणजे तुका कितें म्हणपाचें आसा. हांव सुदंर न्हय! पुरो, पुरो जालें तुजे. चल नाटकाक आरंभ कर.

सुत्रधार : हय. कितलो कळाव जालो. तरी बरें लोक इतलो वेळ वोगी रावले तें अजाप!

नटी : म्हाका पळोवन वोगी आसात ते. बरें तुगेल्या नाटकाचो विशय कितें?

सुत्रधार : विशय तर आतांच मेळ्ळा. पूण खंयच्या फाटभुंयचेर तें सुरु करचें हेंच कळना.

नटी : आरे, तो पळय तो कोण ताकतिकेन असो येता.

सुत्रधार : आगो तो आमच्या लालू मुखेलमंत्र्यांचो पी. ए.

नटी : पी. ए. म्हणजे एम. ए. च्याकूय व्हडलो ?

सुत्रधार : पी. ए. म्हणजे खाजगी सल्लागार.

नटी : खाजगी सल्लागार म्हणजे कितें करता?

सुत्रधार : तो सदांच मंत्र्यांच्या कानांत कित्या कितें गुणगुणटा.

**(पी. ए. येता)**

सुत्रधार : आरे आरे असो ताकतिकेन सो खंय रें?

मानू : आरे निवडणुकीची तारीक जाहीर जाल्या.

सुत्रधार : पूण तूं असो ताकतिकेन खंय वता?

मानू : आरे मुखेलमंत्र्यान म्हाका गुरुबाबा कडेन धाडला ज्योतिष पळोवपाक. जनता ही आमचीच आसा. तिका ह्या बोटावयल्यान त्या बोटाचेर हाडपाक आमकां बेस बरें खबर आसा. पूण ग्रहदशा कशी आसा तें पळोवपाक जाय न्हय. तिच्यामुखार आमचें कांयच शाणेपण चलना. बरें, तुमी नाटक करात हांव वतां. बरें जावंदी.

**(वता)**

सुत्रधार : सापडली सापडली पार्श्वभूमी सापडली. आतां आमी निवडणुकी सावनच नाटकाची सुरुवात करुया. चला चला तयारी करात. चल रे वाजय.

एकटो : किते वाजय घंटो?

सुत्रधार : हय रे घंटो वाजय.

**(सगळे एके ओळीत उबे रावतात.एकटो मुखावयल्यान घंटा वाजयत वता. सगळे पद म्हणटात)**

निवडणुकीची थरली तारीक
मंत्री लालू खाटीक
जनतेची लावक दशा
सोदता आपली ग्रहदशा
हे लोकतंत्र है
लालूजी हमारा मंत्री है

**(लालू आनी मानू येतात )**

लालू : मानू गुरुबाबाक तुवें रकाद दिलो तर.

मानू : हय भाऊ, आतां येवपाचोच जालो.

लालू : बेगीन यो म्हणून सांगलां न्हय! आमचेकडेन चड वेळ ना.

मानू : मोटार धाडल्या. भाऊ, विरोधी पक्ष आमच्या डुकरा खावडीच्या प्रकरणाचो फायदो घेतले शे दिसता.

लालू : आरे मानू जनतेची स्मरणशक्ती खूब कमी आसता. असलीं कितली प्रकरणां हांवें पचयलीं. हे डुकरांखावडीचें कितें घेवन बसला. दुनिया झुकती है झुकानेवाला हम है. तूं कांय भीवं नाका. आमची ग्रहदशा कशी आसा तें पळोवपाक जाय. ग्रहदशा बरोबर आसत तर लाय जनतेची दशा.

मानू : **(हातांतलो फोन वाजता. फोनाचेर उलयता)** आं धाड भितर. भाऊ, गुरुबाबा आयलो.

लालू : बेगीन येवंदी.

**(गुरुबाबा भगवें वस्त्र, हातांत जपाची माळ. गंभीर वृती. लालू ताच्या पांयार तकली दवरता. गुरुबाबा आशिर्वाद दिता)**

गुरु : आयुष्यमान भव, यशस्वी भव. कळय, कित्याक आपोवणें धाडलें तें कळय . इलेक्शन लागी पावलें मरे.

लालू : हय तुमचे आशिर्वाद जाय, बाबा.

गुरु : गादयेर बसपाक जाय?

लालू : गादी आसाच आमची. पूण ती कोणेंय ओडून व्हरची न्हय म्हणून.

गुरु : सगळीं ग्रहदशेचें कर्मां पुता. आमच्या हाती कितें आसा. बरें पत्रिका खंय?

लालू : मानू, पत्रिका खंय दवरल्या?

मानू : धाडतां.

**(एक पेटी घेवन येता आनी गुरुबाबाकडेन दिता. गुरुबाबा पत्रिका काडून पळयता. हाताचीं बोटां मेजून हिशोब करता)**

गुरु : अुं! गुरु बरो आसा. तुगेलीं सगळीं काळीं कर्तुबां साबाळटलो. भिरांत ना. हो शनी वृषभ राशींत वता तो तुगेल्या गुंडांक बैलांचें बळ दितलो, हो मंगळ . . . मंगळ. . . . .

ालू : कितें जालें? मंगळाचें कितें जालें?

ुरु : तशें न्हय .हो मंगळ ग्रह कन्या राशींत वता. तो तुका बरो न्हय. तो सिंह राशींतच उरपाक जाय.

ालू : आतां कितें करप.

ुरु : उपाय आसा.

ालू : कितें सांगात बेगीन.

ुरु : ब्रह्मयज्ञ करचो पडटलो. फाल्यांच करचो पडटलो.

ालू : फाल्यांच करुया. मानू सगळया खात्यांक ऑर्डर काड. आनी आयजच मंत्रीमंडळाची मिटींग आपय.

मानू : यस सर.

आवाज : श्रीमान नारायण! नारायण! नारायण!

**(नारद येता. हातांत सरबताची बाटली.पद म्हणटा)**

श्रीमान नारायण! नारायण! नारायण!
मै पृथ्वीपर जा रहा हूं
रास्तेपे मुझे तान लगी है
और सरबत मैं पी रहा हूं
थोडी थंडी लगी तो मैं क्या करुं

नारद : नारायण! नारायण! खूब तेप जालो, पृथ्वीचेर पावल्यार. चलून चलून पांय वळटात. आतां देवालीं वाहनां आसात. म्हाका मात कसलेंच वाहन दिलें ना. तरी स्कूटर घेवची म्हणून विचार करतालों. पूण विष्णूदेव लायसंस दिवपाक तयार ना **(भितर पळयत)** हो कोण? ब्रह्मदेव आनी हे दिकेन? पृथ्वीच्या दिकेन? नवो अवतार बी घेवपाचो आसा काय कितें **(उलो मारता)** देवा ब्रह्मदेवा, आयकूंकच येना दिसता! **(परत)** पात्रांव, आं आतां आयकूंक आयलें.

**(ब्रह्मदेव येता हातांत लस्सीची बाटली)**

ब्रह्मदेव : आरे नारदा, आरे तूं खंय वतालो?

नारद : हांव भूतलाचेर वतालों. पूण तुमच्या हातांत कितें?

ब्रह्मदेव : आरे ही लस्सीची बाटली हांगा उदकाचो दुकळ म्हणून लस्सी घेतली.

नारद : पूण वतात तरी खंय?

ब्रह्मदेव : भूतलाचेर

नारद : अशें अकस्मात ठरलें!

ब्रह्मदेव : आरे, पृथ्वीचेर लालू एक व्हडलो साडेतीन कोटींचो यज्ञ करपाक मुखार सरला. ताका वर दिवपाक हांव पृथ्वीचेर वतां.

नारद : पूण यज्ञ करचे पयलींच वर? नारायण! नारायण!

ब्रह्मदेव : आरे ताणें तयारी दाखयल्या न्हय. पुरो जालें. आनी लालू तो साडेतीन कोटीचो गोबोर करपाक फाटीफुडे पळोवंचो ना. हांव ताका सांगतलों किं हांव प्रसन्न जातां. तेन्ना हे साडेतीन कोटी एके ब्रिफकेसींत घालून दी म्हणून.

नारद : नारायण! नारायण! देवा म्हाका तरी हो अधर्मच दिसता.

ब्रह्मदेव : नारदा तुजो गैरसमज जाला. कोट्यांनी रुपयांची लांच घेवपाक, हांव नरसिहांचो अवतार घेना. हे सगळे पैशे हांव जनतेकच वाटपाक सोदतां.

नारद : तरी देवा म्हाका तुमचें कांयच कळना जालां.

ब्रम्हदेव : वेळ येतकच सगळें कळतलें.

नारद : तरी देवा विचार करात. लालू यज्ञ करता हें एक धर्मकांड ताजेर तुमी भुलतात. ताची मनोवृती कितें. ताचो तुमी विचार करप ना? जनतेची पिळणूक करपाक हो लालू गादीचेर बसपाक सोदता. ताचो थोडो तरी विचार करप ना?

ब्रहम्देव : आरे, भस्मासुराक शंकरान वर दिल्लो तेन्ना ताणें ताची मनोवृती पळयल्ली? नारदा आमी भक्तीक तानेल्यात. आतां हे सरबत तूं पिता तुजी तान गेली. पोटांत पावतगीर ताचे बरे वायट परिणाम कितें जातात ताचेर तुवें विचार केला? ना. तशेंच आमी भक्तीक तानेल्यात. चल आमी या बेगीन.

**(सकयल पळयतात. सकयल यज्ञाची तयारी चलता. हवेंत उडल्यावरी हात वयर करीत वतात)**

जनतेच्या फाटीक लालूची पिडा
लालूक लागल्या मंगळाची दशा
मंगळाच्या भ्रमणाक धरुक काबूंत
यज्ञ करता मंत्री लालू

यज्ञ हो देवाक लालूच
देव पावता लालूक.

**(लालू बसता)**

लालू : मानू यज्ञाची सगळी तयारी जाल्या न्हय.

मानू : हय भाऊ, रानखात्याक, अर्दे रान कापून हाड म्हणून सांगलां. अन्नखात्याक पांच टन कडधान्य आनी तूप धाड म्हणून सांगलां. सगळया सेक्रेटरींक कामाक लायल्यात.

लालू : बहोत खूष. मागीर देर कित्याक.

मानू : गुरुबाबा येवपाचे जाले. ते येतगरच यज्ञ सुरु जातलो.

**(दोग जाण पडदो घेवन येतात. फाटल्यान नारद आनी ब्रह्मदेव. दोगूय पडदो घेवन वतात)**

नारद : नारायण! नारायण! लालू आमी आयल्यात.

लालू : **(उसळून उठता)** मानू, हे कोण? सेक्युरीटी फोडून हे कशे भितर पावले?

मानू : सेक्युरीटी सेक्युरीटी

**(भायर धांवता)**

नारद : फ्रीज ! **(मानू तसोच उरता)** लालू आमी नारद आनी ब्रह्मदेव.

लालू : नारद आनी ब्रह्मदेव? तुमी खरे काय नाटकांतले?

नारद : आमी खरे . स्वर्गांतल्यान आयल्यात.

लालू : मानू, लोकांनी नवो धंदो सुरु केला दिसता. अरे सेक्युरीटी खंय रे तुजी.

मानू : सेक्युरीटी.....

**(भायर धांवता. परत फ्रीज)**

नारद : लालू आमी खरेंच स्वर्गांतल्यान आयल्यात. हो पळय तुका पुरावो. हांव सांगतां तशें मानू करतलो. मानू कानाक हात धर. उठाबशो काड .माकडाबशेन उडयो मार.

**(नारद सांगता तशें मानू करता )**

मानू : भाऊ, भाऊ . हे खऱ्यांतलेच देव

**(तांच्या पांयार तकली दवरता )**

लालू : देवा म्हाका माफ कर आमची चूक जाली. हांव तुका शरण आयलां.

**(पांयार तकली दवरता)**

नारद : सदांच असत्य पळोवपाची सवंय जाल्ल्यान तुमी आमकां वळखले नांत.

लालू : आमची चूक जाली. हांव तुमकां शरण आयलां

**(दोगूय तकली धाडायतात )**

नारद : उठा आतां.

ब्रम्हदेव : लालू तूं येदो व्हडलो यज्ञ करपाक मुखार सरता तें पळोवन हांव प्रसन्न जालां. माग तुका जाय तो वर माग.

नारद : देवा, वर दिवचे पयलीं विचार करात.

ब्रम्हदेव : ताची पर्वा तूं करिनाका. ब्रम्हाच्या तोंडांतल्यान शब्द सुटलो तो केन्नाच परत घेना. लालू तूं वर माग.

लालू : देवा हांव निवडणुकीत उबो रावलां. म्हाका जनतेचीं मतां जाय.

ब्रम्हदेव : मागीर यज्ञ कित्याक? प्रचार कर .

लालू : देवा मंगळ ग्रह दोन दिसांनी कन्या राशींत वता. तशें जाल्यार म्हाका निवडणूक जड वतली. ताका दोन दीस तरी सिंह राशींतच दवरपाक जाय.

ब्रम्हदेव : इतलेंच? तथास्थु. तुजें काम जालें. तुका हांवें वर दिलो. मंगळ आनी दोन दीस मेरेन कन्या राशीत वचपाचो ना.

नारद : देवा, वर दिवचे पयली विचार तरी करचो आशिल्लो.

ब्रम्हदेव : ताजी पर्वा तूं करिनाका. लालू तुजें काम जालें. पूण... . मंगळाक कन्या राशींत वचपाचो आडावप कसो! नारदा हें रे कशें करप?

नारद : नारायण! नारायण! देवा आमचीं कितें फकाणां करता? हें ब्रम्हांड तर तुमीच निर्माण केलां आनी म्हाका कितें विचारतात.

ब्रम्हदेव : हय रे, ब्रम्हांड हावेंच तयार केलां पूण खंयचो ग्रह कसो घुंवता हातूंत हांवें कित्याक लक्ष घातलां? आरे एक बॉम्ब स्फोट करपाचो तसो हांवें स्फोट केलो आनी हें ब्रम्हांड तयार केले.

मानू : बॉम्ब स्फोट!

ब्रम्हदेव : हय रे मानवा. तुमी चवथीक, दिवाळेक बॉम्ब लायतात, तेन्ना जमनीवयलो खंयचो फातर कसो आनी खंयच्यान उडटलो हें तुमकां खबर आसता?

मानू : ना देवा.

ब्रम्हदेव : तशेंच हें ब्रम्हांड निर्माण जालां आनी तेन्ना हांवें स्फोट केल्लो पळय ताचो परिणाम आजूनय दिसून येता. म्हणून हें विश्‍व आजून वाडत आसा. फुगत आसा.

मानू : देवानो, देवाश्रीनो माफ करात मदीं उलयतां म्हणून. विसाव्या शतकांत एडवीन हबल (Edwin Hubble) म्हणून एक व्हडलो खगोलशास्त्रज्ञ जावन गेलो. ताणें अशें सोदून काडलें कि आमच्या दूदगंगे भायर आनी खूब गॅलक्सी आसात म्हणून.

लालू : आरे, तू आनी मदींच आपलीं कसलीं शाणेपणां सांगता रे.

नारद : सांगूनी ताका.

ब्रम्हदेव : पूण दी दूदगंगा आनी गॅलक्सी म्हणजे कितें रे मानवा?

मानू : गॅलक्सी म्हणजे कोट्यानी कोट्यानी ताऱ्यांचो समुह. आमचें सुर्यमंडळ ज्या गॅलक्सीन आसा ताका दूदगंगा म्हणटात.

नारद : देवा आमी स्वर्गातल्यान येतना वाटेर खूब ताऱ्यांचे चोंबे दिसताले ते आसतले.

ब्रम्हदेव : हय आयलें लक्षांत. अश्यो खूब गॅलक्सी आसात ह्या विश्वांत.

मानू : हय देवा, हबलान आनीक एक सोद लायलो. ताका अशें दिसून आयलें किं ह्या विश्वांतल्यो गॅलक्सी, तारे एकमेकापासून पयस वचत आसात.

ब्रम्हदेव : म्हणजे हांवें स्फोट करुन जी तांका गती मेळिल्ली ती आजूनय आसा अशें म्हणपाचें.

मानू : हय देवा ह्या निरीक्षणांवयल्यान ताणे असो निष्कर्ष काडला कि हें सगळें विश्व एका केंद्राकडेन एकत्रीत आशिल्लें. एक उज्याचो गुळो कसो. ताचें तापमान कोट्यांनी कोटी कोटी अंश सेल्सीअस अशें आशिल्लें. ताणे सुत्रां मांडून ताचो काळय सोदून काडला.

नारद : अशें! म्हणजे तुमकां काळय खबर आसा.

मानू : पंदराशें कोटी वरसां पयलीं हें विश्व एका केद्रांकडेन उज्याचो गुळो कसो एकत्रीत आशिल्लें. ताका ते कॉस्मीक एग अशें म्हणटात.

नारद : कॉस्मीक एग म्हणजे?

मानू : कॉस्मीक एग म्हणजे विश्व अंडज.

ब्रम्हदेव : म्हणजे हे विश्व एका तांतया पासून जालें.

मानू : हय देवा अशें म्हणू येता. ह्या अंडजाचो एक प्रचंड स्फोट जालो ताका बीग बेंग (Big Bang) अशें म्हणटात.

लालू : बीग बेंग म्हणजे ढाम ढूम.

मानू : विश्वाची उत्पती कशी जाली हें बीग बेंग सिध्दान्त सांगता.

ब्रम्हदेव : अशें तर मागीर कितें जालें?

मानू : बीग बेंग स्फोट जातगर ३०० कोटी वर्सांनी गॅलक्सी तयार जावंक लागल्यो आनी एक हजार कोटी वर्सांनी आमचें सुर्यमंडळ तयार जालें.

लालू : आरे, हें सगळें खंय शिकलो?

मानू : हांव एस. एस. सी. क आसतना आमकां सरान सांगिल्ले. हांवें सामकें तोंड पाठ केल्लें.

लालू : अशें! तूं कोटी कोटी वर्सांचो हिशोब दवरपाक शिकलो म्हणूनच तूं म्हज्यो कोटी कोटी नोटी मेजपाक शकलो. सादारण मनशाक हें जमपाचें नाशिल्लें.

ब्रम्हदेव : मानवा आतां म्हाका सांग मंगळ ग्रह कन्या राशींत वचपाचो कसो आडावप?

मानू : तें म्हाका कितें खबर .आमच्या सिलेबसांत तें नाशिल्लें.

नारद : पूण लालू, मंगळ ग्रह कन्या राशींत गेल्यार तुका वायट जातलें हें तुका कशें कळ्ळें?

लालू : आमच्या गुरुबाबान सांगलां

नारद : ताका कशें कळ्ळें.

लालू : ताका कशें कळ्ळें? कशें कळ्ळें म्हाका खबर ना. आं! ग्रंथांत बरयलां.

नारद : ग्रंथ कोणे बरयल्यात?

लालू : देवा तुमीच

ब्रम्हदेव : आमी अशें केन्नाच बरोवना.

नारद : देवा, आमच्या नांवार हांगा खुबशे धंदे चलतात अशें दिसता. आमी चौकशी आयोग नेमिल्लो बरो.

ब्रम्हदेव : नाका ताचो निकाल लागता म्हणसर आनी एक बीग बेंग जातलो. हो मंगळ कन्या राशींत वचपाचो आडावप कसो? शे! प्रश्न दिसता सोपो पूण सामकोच कठीण जावन बसला.

नारद : देवा, तुमी तें सोडून दियात.

ब्रम्हदेव : कदापी नहीं एकदां दिल्लो वर परत घे म्हणटा? शक्यच ना.

मानू : हांव सांगू?

ब्रम्हदेव : सांग सांग बेगीन.

मानू : सतराव्या शतकांत पृथ्वीचेर इझाक न्यूटन नावाचो एक मोठो शास्त्रज्ञ जावन गेलो. ताका हें सगळें खबर आसा.

ब्रम्हदेव : खंय आसा तो आतां?

मानू : म्हाका कशें कळटलें?

ब्रम्हदेव : नारदा, न्यूटनाक सोदून काडप शक्य आसा रे?

नारद : सतराव्या शतकांत वचपाक शक्य आसा. पूण ताका वळखतले कशे?

मानू : हांव ताका वळखतां.

नारद : तुवें ताका पळयला?

मानू : ना. पूण हांवें ताचें चित्र पळयलां.

ब्रम्हदेव : मागीर चल तूं यो बरोबर.

नारद : नारायण! नारायण! देवा ह्या पापी मनशाक जीवंत स्वर्गांत व्हरप? हो एक अधर्म जातलो.

ब्रम्हदेव : नारदा खूब वेळा तडजोड करची पडटा **(लालूक)** तुमचेकडेन गोमूत्र आसा? ताका सगळया पापांतल्यान मुक्त करुया.

लालू : गोमूत्र ना. स्प्रे आसा.

ब्रम्हदेव : बरें दी **(मानूचेर स्प्रे मारता)**. चला आतां लालू तूं निवडणूक प्रचार चालू दवर, फुडलें हांव पळयतां.

**(सगळे हात वयर करुन उडल्यावरीं करतात)**

जनता पागल है, लालू शाणो है
लालून मागलो वर, ब्रम्हाचो जालो घात
जाप सोदून काडपाक न्यूटनची घेतली फाट.

**(नारद, ब्रम्हदेव, मानू हात वयर करीत सोदत येतात. एका कोनशाक न्यूटन हातांची बोटां मेजता. वयर पळयत पळयत भोंवता. ताचे तकलेक धोंग आसा)**

मानू : हो तो पळय होच तो न्यूटन.

**(सगळे ताच्या फुड्यांत वतात)**

नारद : आरे, तूंच रे तो न्यूटन?

न्यूटन : या. आय एम न्यूटन. व्हीच लेंग्वेज यू स्पीक?

मानू : कोंकणी.

न्यूटन : कोंकानी? व्हेरी गुड आय लायक कोंकानी.

नारद : आरे न्यूटन तुजे तकलेर हें धोंग कसलें?

न्यूटन : व्हॉट हेपन्ड यू नो, वन डे हांव गार्डनांतल्यान वतालों. तेन्ना वन ॲपल फॅल ऑन माय तकली आनी हें डोंग डोंग धोंग आयलें.

ब्रम्हदेव : म्हाका एक सांग दोन दिसांनी मंगळ ग्रह कन्या राशींत वता हें बरोबर आसा?

न्यूटन : या. बरोबर आसा.

नारद : मंगळ कन्या राशींत वता म्हणजे कितें जाता?

न्यूटन : वेल-इट इज लायक दीस. मंगळ कन्या राशींत नॉट गोयींग बट मंगळ वता अशें दिसता. भास जाता.

नारद : म्हणजे कितें?

न्यूटन : यू नो. मळबांत खूब खूब स्टार्स आसात. स्टार्स खूब खूब पयस आसात .व्हेरी व्हेरी फार. ग्रह खूब खूब लागी आसात. ग्रह आर व्हेरी व्हेरी नियर. दी स्काय इज लायक राऊंड स्क्रीन. राऊंड पडदो. धीस राऊंडाचे, वर्तुळाचे बारा इक्वल भाग केल्यात. तांका राशी म्हणटात. राशींची नावां जाणात न्हय.

मानू : एस्. मेष, वृषभ, मिथून, कर्क, सिंह, कन्या, तूळ, वृश्चिक, धनू, मकर, कुंभ आनी बारावी मीन.

न्यूटन : व्हेरी गुड, व्हेरी गुड. व्हेन ग्रह सुर्याभोंवतणी घुंवतात रीव्होल्व जातात. तेन्ना ते एका भागांतल्यान दुसऱ्या भागांत वतात. गो वन राशी टू अदर राशी असो भास जाता. इफेक्ट राशी आर इन दी बॅकग्रॉऊंड.

ब्रम्हदेव : आतां सांग, मंगळ ह्या दोन दिसांत कन्या राशींत वचपाक जायना. तर कितें करप?

न्यूटन : तिसऱ्या दिसा गेल्यार जाता?

ब्रम्हदेव : हय.

न्यूटन : व्हेरी गुड! प्रोब्लेम आय लाइक टू सोल्व सच प्रोब्लेमस्.

**(गणीत करता बोटां मेजता, बरोच वेळ)**

नारद : आरे कितें चल्ला?.

न्यूटन : डॉन्ट डिस्टर्ब.

**(परत गणीत करता)**

नारद : आरे सांग मरे बेगीन.

न्यूटन : राव मेन. ताका एक लॉ-नियम आसा.

नारद : कसलो?

न्यूटन : ताका ग्रॅव्हीटेशनल लॉ अशें म्हणटात. म्हणजे गुरुत्वाकर्शणाचो नियम. फस्ट टायम तो हांवें सोदून काडलो.

नारद : गुरुत्वाकर्शणाचो नियम म्हणजे कितें?

न्यूटन : खंयच्योय वस्तु एकमेकांक अेट्रेक्ट करतात.

नारद : म्हणजे खंयच्योय दोन वस्तू एकमेकांक आकर्शीत करतात. म्हणजे मानू आनी तूं हांचेभीतर आकर्शण करपाचे बळ आसा तर.

न्यूटन : य्या करॅक्ट ॲनी टू ऑब्जेक्ट्स. दोन फातोर. पृथ्वी आनी एक फातोर. मून आनी अर्थ. ॲनी टू.

नारद : तशें जाल्यार मागीर तुमी दोगूय एकमेकांक आकर्शीत जावून लागीं कशे येनांत?

न्यूटन : व्हेरी गुड प्रश्न. नाव, म्हजो लॉ सारको आयक. द लॉ इज धीस. खंयच्याय दोन ऑब्जक्टां मदलें आकर्शण बळ म्हणजे ॲट्रेक्शन फोर्स, डिपेंड्स ऑन धि प्रोडक्ट ऑफ देअर मासीस ॲण्ड धि दिसस्टंस बीटवीन देम.

मानू : म्हणजे आकर्शण बळ दोन वस्तुंच्या वस्तुमानाचो गुणाकार आनी तांचें अंतर हाजेर अवलंबून आसा.

न्यूटन : इफ धि प्रोडक्ट ऑफ देअर मासीस इज मोर धि ग्रॅव्हीटेशनल फोर्स इज मोर.

मानू : जर वस्तुमानाचो गुणाकार चड आसत, तांचें मदलें गुरुत्वाकर्शण बळ चड. हाचो अर्थ असो जाता दोनांमदली खंयचीय एक वस्त जड आसल्यार पुरो. म्हणजे पृथ्वी आनी एक ल्हान फातोर. हांगा पृथ्वी ही खूब जड आनी फातोर हो सामकोच ल्हान. पूण तांच्या दोगांयच्याय वस्तुमानाचो गुणाकार खूब जाता म्हणून पृथ्वी आनी फातोर हांचेमदीं गुरुत्वाकर्शण बळ खूब चड आसा म्हणून फातोर पृथ्वीर पडटा.

न्यूटन : वन मोर थींग धि ग्रॅव्हीटेशनल फोर्स डिपेंड्स ऑन देअर दिश्टंस्.

मानू : गुरुत्वाकर्शण बळ तांच्या अंतराचेर अवलंबून आसा. अंतर चड आसल्यार गुरुत्वाकर्शण बळ कमी जायत वता.

न्यूटन : मून अर्थाक लागी आसा म्हणून तांच्या ग्रॅव्हीटेशनल फोर्साक लागून अर्थार भरती-सुकती जाता.

नारद : पूण हांव म्हणटां कि मानू आनी न्यूटन, तुमच्या दोगांभीतर गुरुत्वाकर्शण बळ कित्याक ना? तुमी एकमेकांचेर कित्याक आपटनांत?

न्यूटन : इफ यू युज माय फॉर्मुला. म्हजें सुत्र वापरलें आनी कॅलकुलेशन केलें तर तुमकां दिसतलें किं दॅर इज ग्रेव्हीटेशनल फोर्स.

नारद : मागीर तुमी एकमेकांक कित्याक आपटनात ?

न्यूटन : बिकोज आमचे भितर ग्रेव्हीटेशन फोर्स सामको कमी आसा. इतलो कमी किं आमचे तकलेर एका केसाचें जितलें वजन आसा ताचे परस कमी.

ब्रह्मदेव : पूण तुमचें हे सुत्र खरें कित्यावयल्यान ?

न्यूटन : ईट इज प्रुव्हड बाय अेक्सपेरीमेंट. सायन्स इज नॉट ॲक्सेप्टेड व्हीदाऊट अेक्सपेरीमेंटल प्रुफ. प्रयोगांत सिध्द जाल्याबगर सायन्स खंयचोच लॉ सत मानिना.

ब्रम्हदेव : इतलोच आधार तुज्या सुत्राचो.

न्यूटन : नो नो म्हज्या सुत्राच्या आधाराचेर खूब प्रेडीक्शनां, भाकींतां केल्लीं तीं सगळीं खरीं जाल्यांत. सतराव्या शतकांत एडमोंड हेले ह्या खगोलशास्त्रज्ञान अशें भाकीत केलें कि एक कॉमेट ताका हेलेज

कॉमेट अशें म्हणटात तो एव्हरी सेवेंटी सिक्स वर्सांनी परतो येतलो म्हणून आनी तें खरें जालें. जाणें म्हजेंच सुत्र वापरिल्लें.

मानू : तो आजूनय दर ७६ वर्सांनी परतो परतो येता.

न्यूटन : य्या. नेपचून हो सोलर सिस्टमाचो आठवो ग्रह. डु यू नो?

ब्रम्हदेव : हांवें ताका पळोवना. हांवें फक्त शनी मेरेन पळयला.

न्यूटन : ह्या ग्रहाचो सोद म्हज्या सुत्रावयल्यानच लागलो. पयलीं गणीत सॉल्व करुन, ताचो जागो सोदून काडलो आनी मागीर दुर्बिणिंतल्यान तो जागो निरखावून ताचो सोद लायला.

ब्रम्हदेव : पूण आमी अंतराळांत अशें करुन **(हात वयर करुन ॲक्शन)** हांगा थंय वतात. आमकां तुमच्या गुरुत्वकर्शणाचो प्रभाव कित्याक पडना?

न्युटन : बिकोज यू डू नॉट हेव फीजीकल एक्झीस्टंस. तुमकां भौतीक अस्तीत्व ना. देट इज कॉंट्रोव्हरसी. तो वादाचो विशय आसा. यू डू नॉट आस्क देट.

ब्रम्हदेव : बरें, आतां तुजें सुत्र वापरुन सांग मंगळाक कसो आडावंचो?

न्यूटन : य्या. आय डू कॅलकुलेशन.

**(बरोच वेळ बोटां मेजता )**

नारद : आरे जावंना आजून?

न्यूटन : आय गोट इट. उरेका उरेका.

**(म्हणीत हांगा थंय धांवता )**

नारद : आरे जालां कितें? आतांच बरो आशिल्लो !

न्यूटन : सॉरी! सॉरी! हें आर्किमीडीजान म्हणपाचें हांवें न्हय.

नारद : मागीर सांग बेगीन.

न्यूटन : मंगळाची स्पीड अमकी अमकी आसा ती निमकी निमकी जावपाक जाय.

नारद : अमकी अमकी. निमकी निमकी. आरे सारकें कोंकणींत सांग रे.

ब्रम्हदेव : नारदा. निमकी म्हणजे अर्दी.

न्यूटन : या.अर्दी जावपाक जाय.बट देट व्हील क्रिअेट प्रोब्लेम.ताजे परीणाम वायट जातले.

ब्रम्हदेव : तें हांव पळोवन घेतां. चला आतांच मंगळा कडेन या. बरे न्यूटना आभार .परते मेळुया.

न्यूटन : यू आर व्हेलकम. देव तुमचें बरें करुं.

**(वतात)**

चलते चलते मंगळको धूंड रहे है
अंतराळ मे चलते चलते
सुर्यमंडळाचो चवथो ग्रह
रंग तांचो तांबडो लाल
अंतराळ, मैं चलतें चलतें
मंगळको धूंड रहे है.

**(नारद,ब्रम्हदेव, आंनी मानू हात वयर काडीत येतात हांगा थंय सोदतात)**

नारद : सूर्यमंडळांतलो चवथो ग्रह न्हय? रंग तांबडो. **(सकयल बोट करीत)** हो पळय होच तो.

ब्रम्हदेव : **(उलो मारता)** मंगळा....

**(मंगळ येता. माथ्यार मुकूट आसा. तांचे भोवती गोल फिरता)**

मंगळ : कोण नारद आनी ब्रम्हदेव? प्रणाम नारदा, प्रणाम ब्रम्हदेवा.

नारद : गतीमान भव.

ब्रम्हदेव : आयुष्यमान भव.

मंगळ : पूण हो कोण मानव?

ब्रम्हदेव : कांय भियेनाका ताका पापमूक्त केला.

मंगळ : देवाश्रीनो कितें समाचार .

ब्रम्हदेव : समाचार कांय ना. तुजी गती कमी कर अर्दी जावपाक जाय.

मंगळ : कितें ? गती अर्दी कर म्हणटा तें कशें शक्य आसा?

ब्रम्हदेव : कित्याक शक्य ना?

मंगळ : तशें केल्यार म्हजो अंत जातलो.

ब्रम्हदेव : हावेंच तुका जन्माक घातला आनी म्हजें आयकना? गती अर्दी कर नाजाल्यार शाप दितलों.

मंगळ : नाका देवा, हांव गती कमी करतां पूण फुडल्या परिणामांक तुमी तोंड दिवचें पडटलें.

ब्रम्हदेव : बरें आसा.

**(मंगळ परत गोल गोल घुंवपाक लागता. हळू हळू गती कमी करता. आनी लकता)**

मंगळ : ब्रम्हा, नारदा, म्हाका धर. हांव पडटां.

**(नारदाचेर येवन पडटां. नारद ताका घट्ट धरता. मुकूट सकयल पडटा. मानू बेगी बेगीन मुकूट काडटा आनी आपल्या माथ्यार घालता )**

मंगळ : ब्रम्हा, हांवें सांगू नाशिल्लें कि हांवें गती कमी केल्यार वायट परिणाम जातलो म्हणून.

ब्रम्हदेव : पूण तूं पडलो कसो ?

मंगळ : सूर्य आनी म्हजेमदीं गुरुत्वाकर्शणाचें बळ आसा म्हणून.

ब्रम्हदेव : पूण हरशीं तूं घुंवता आसतना कित्याक पडलो ना. तेन्ना हें बळ खंय गेल्लें ?

नारद : न्यूटनान आमकां चिकान केलें शें दिसता.

मंगळ : ना. न्यूटनान चिकान केलें ना. सूर्य आनी म्हजेमदीं गुरुत्वाकर्शणाचें बळ आसा हें बळ सुर्याच्या दिकेन आसा. तेचवरी आनीक एक बळ सारकें विरुध्द दिकेन आसा. तें बळ म्हजे गतीक लागून आसा. ताका सेंट्रीफुगल फोर्स अशें म्हणटात. हे दोनय फोर्स समान आनी विरुध्द आसात म्हणून तीं म्हाका बॅलन्स करतात म्हणून हांव म्हज्या कक्षेंत उरतां.

मानू : गती कमी जाली म्हणजे सेंट्रीफुगल फोर्स कमी जालो. गुरुत्वाकर्शण फोर्स चड जालो म्हणून मंगळ सुर्या दिकेन पडपाक लागलो.

नारद : मंगळ गोल गोल गतीन घुंवता म्हणून ताका हो सेंट्रीफुगल फोर्स आसा.

ब्रम्हदेव : नारदा, हें शास्त्र बरेंच मुखार पावलां मरें!

नारद : हय देवा आमची हांगा दाळ शिजपाची ना.

ब्रम्हदेव : मंगळा, आतां तूं तुजेच गतीन राव.

नारद : पूण लालूक दिल्या त्या वरांचें कितें?

ब्रम्हदेव : तें हांव आतां भगवान विष्णू कडेनच सोपयतां.

मंगळ : नमस्कार देवाश्रीनो. आरे पूण म्हजो मुकुट? **(मानूच्या माथ्यार पळोवन)** आरे तुज्या माथ्यार कसो पावलो?

मानू : तो सकयल पडटालो हांवें काडून माथ्यार घातलो.

मंगळ : आरे घात केलो.

मानू : कितें जालें?

मंगळ : मंगळ ग्रहा भायल्या खंयच्याच वस्तीचो ताका स्पर्श जावपाक जायना.

नारद : मागीर अशें कर .तू ह्या मानवाकच मंगळार दवर. मंगळवासी कर ताका.

ब्रम्हदेव : हय म्हणजे हो मंगळावयलो पयलो मानव जातलो.

नारद : **(ब्रम्हदेवाच्या कानांत)** बरें जालें .ना जाल्यार ह्या पातकी मानवाक घेवन आमकां स्वर्गात वचचें पडटलें आशिल्लें. पूण पृथ्वी वयले लोक ताका सर्गवासी, कैलासवासी,वैकुंठवासी म्हणून समजतले. तांका हो मंगळवासी म्हूण कशें कळटलें ?

ब्रहादेव : आरे, फॅक्स धाडून कळय तांकां.

मंगळ : **(मुकूट घेता)** आरे पूण ह्या मुकुटावयलो हिरो खंय?

मानू : हिरो खंय?

**(सोदतात)**

नारद : हो तो पळय पृथ्वीचे दिकेन वता.

मंगळ : वचूनी. म्हजो जीव सालवार जालो तेंच पुरो. बरें देवाश्रीनो प्रणाम.

ब्रम्हदेव : गतीमान राव.

**(वतात)**

मॅड ही जनता मॅड ही जनता
लालू खाटीकाची चलता ही सभा.
कोल्याची घेता संवगां
जनतेक लायता शिंगां
ओड ओड़ ओ मॅड ही जनता

**(सुत्रधार नटीचो हात धरीत धांवत येता)**

सुत्रधार : यो बेगीन यो बेगीन लालूचें भाशण आयकुया.

नटी : कसलें भाशण.

सुत्रधार : तो निवडणूकीक उबो रावला न्हय.

**(लालू येता आनी कदेलार उबो रावून भाशण करता)**

लालू : भावानो आनी भयणीनो, निवडणुकीची तारीक लागीं पावल्या. आयुश्यभर तुमची सेवा करीत आयलां तेन्ना हाचे मुखार तुमची सेवा करपाक मेळची.

**(भाशण चालूच आसा. मर्दी मर्दी सुत्रधार आनी नटी टाळयो मारतात )**

सुत्रधार : लालूचें भाशण आयकुपाक मजा येता. आतां मेरेन ताणें ४५ वेळां गाळी संवल्यो.

नटी : **(वयर पळयता)** आरे वयर पळय. कितें तरी पडटा.

सुत्रधार : हय. म्हाका दिसता, मंगळावयलो तो हिरो पडटा.

नटी : हय मंगळाच्या मुकुटाचो हिरो तो चकचकता.

सुत्रधार : ह्या वटेनच पडटा तो.

**(दोगांय उठतात)**

दोगांय : धावांत धांवात कितें तरी पडटा.

**(एक दांड्याक चकचकीत बॉल बांदून एकटो हातांत धरुन धांवत येता आनी लालूच्या वटेन वता. लालू उडी मारुन धांवता सगळे धांवतात)**

लालू : बचाव, बचाव. वाचयात वाचयात.

**(बॉल लालूचे तकलेर आपटता)**

लालू : **(किंळांच)** मेलों मेलों.

**(पडटा. सगळे ताचे भोंवतणी उबे रावतात )**

सगळे : लालू मेलो, लालू मेलो, लालूचो अंत जालो.

**(सुत्रधार आनी नटी मुखार येतात)**

नटी : व्वा नाटक खूब बरें जालें . लोकांकय आवडलें शें दिसता!

सुत्रधार : कितें विसंगती पळय! आमी लोक जे फुडारी भ्रश्ट आसात म्हणून जाणां जावन मतां दितांत, म्हणून अशा लालूसारखेल्या समाज कंटकांचो बेगीनच अंत जावपाक जाय.

नटी : त्याच बरोबर आमचे तकलेंत जी विसंगत अशी अंधश्रध्देची की आसा ताचोय बेगीन अंत जावपाक जाय .

दोगांय : बरें नमस्कार.

❑❑❑



# संकष्टीच्या चंद्राची प्रेमकथा

**पात्रां**

चंद्रिका,
मालू,
चंद्रकांत,
सोमू,
चंद्रदेव,
विष्णूदेव

**ह्या प्रयोगाखातीर लागपी शास्त्रीय साहित्य :**

घुंवपाचें कदेल, एक फुटबॉल - अर्दो भाग धवो आनी अर्दो भाग काळो, संकष्टीचो चंद्रकोर आशिल्लो मुकुट.

**(चंद्रिका हातांत पुजेचें सामान घेवन येता. तोंडांत स्तोत्र पुटपुटता)**

चंद्रिका : आयज संकष्टी, अंगारीका. आंकवार आसतना पसून हांव सदांच नेमान करीत आयलां. चुकून लेगीत चुकवना. म्हजें अशें, करता जाल्यार सारकें करचें. नाजाल्यार करचें न्हय. म्हजें व्रत म्हणजे सामकें कडक! कडक म्हणजें सामकेंच कडक! दुसऱ्यांबशेन तें म्हाका मातय जमना. सकाळीं हांवें स चपात्यो खाल्यात तितलेंच. मागीर उदकाचो एकय थेंब घेवना. कांय जाणां उपासाक साबुदाण्यांची खिचडी करुन खातात. म्हाका तें आवडना. हांव केन्नाय आयसक्रीम खातां. कितेंय जाल्यार तोडांत घालतगीर ती उदकच जाता न्हय. खूब जाणांक अंगारीका संकष्टीच्या व्रताचें मोल तितलें खबर ना. ह्या व्रताक लागून म्हाका सगळें कितें मेळ्ळा. बंगलो, गाडी, सुंदर घोव. मात्सो खड्डो जांव. पूण ताचे खड्ड्यार केंस पळय सारके चंद्रकोरी बशेनच. नांवय चंद्रकान्त. योगायोगच न्हय? आनी आमचो एकटोच भांगरासारको पूत. ताचें नांव पसून हावें चद्राचेंच दवरलां, सोमनाथ-सोमू. आवयच्या उतराभायर ना. आमच्या सोमूक एक मनासारकी व्हंकल मेळ्ळी, म्हणजें हांव सुटलें. **(मालूक उलो**

**मारता)** मालू ये मालू. एक सांगपाचें विसरलें. मालू-मालीनी आमचें वावराडी. काम करपाक हुशार. सगळें काम मन लावन करतलें शिकलांय खंय! दिसपाकय बरें. कोणूच वावराडी म्हणपाक ना. अशी वावराडी मेळपाक नशीब जाय. हेंच म्हज्या संकष्टीच्या व्रताचेंच फळ बाये. **(परत उलो मारता)** मालू शिऱ्याक इल्लें तूप चडशेंच घाल. णव जावपाचीं जालीं. चंद्र ९:३५ सांक दिसतलो खंय. केन्नाकाय चंद्र दिसता आनी हो उपास सोडटां अशें जालां. हे खंय पावले? गेले आसतले त्या राहू-केतूक घेवन. राहू केतू हीं आमचीं सुणीं. दोन म्हयने जाले हाडल्यार. राक्षस शे जाल्यात. हांची तांचेर खूब माया. बायलेक पसून लागीं करनात. आनी हीं सुणीं कितें मोनजात पळय. हांचेबगर तांचे मातय जायना. **(भायल्यान भूक भूक आवाज येता)** आयले आसतले.

**(चंद्रकांत भितर येता)**

चंद्रकांत : राहू केतू येयात, भितर येयात

चंद्रिका : तांकां भितर घेनाकात.

चंद्रकांत : कित्याक?

चंद्रिका : भितर सगळें अनवाळें आसा. कित्यांतय तोंड घालतले.

चंदकांत : तें तुगेले कांयच खायनांत. भिये नाका तूं.

चंद्रिका : म्हजी आज अंगारीका. संकष्टी सामकी कडक. लोकांबशेन न्हय.

चंद्रकांत : अशें! बरें संकष्टी म्हणजे कितें तें तरी सांग.

चंद्रिका : तें म्हाका कितें खबर! व्रत केलें म्हणजे जालें.

चंद्रकात : म्हणजे ज्ञान मेळोवपाची गरज ना. अज्ञानाची पुजा करात. आगो, संकष्टी म्हणजे कितें ते तरी समजून घे.

चंद्रिका : कितें? सांग पळोवया.

चंद्रकांत : सारकें आयकून घे. दर राती चंद्राच्या उजवाडाचो जो भाग आमकां दिसता, ताका चंद्रकोर अशें म्हणटात. पुनव जातगर जी पयली

चंद्रकोर येता तिका प्रथमा, कोंकणीत पाडवो म्हणटात.दुसरी चंद्रको
व्दितीया म्हणजेच बी आनी तिसरी म्हणजे कितें,सांग पळोवया.

चंद्रिका : तूंच सांग.

चंद्रकांत : तृतीया म्हणजे तय आनी चवथी ही संकष्टी.अशे तरेन हीं नाव
दिल्लीं आसात.

चंद्रिका : पूण हें सगळें समजून घेवपाक कित्याक तकलेर पेज घेवचो. त्यापर
एका दिसाचो उपास केल्लो बरो न्हय.

चंद्रकांत : उपास खंय! सकाळच्यान गिळत आसा आनी उपास खंय!

चंद्रिका : हें पळय, फकाणां करीनाका.ही अंगारीका करतां म्हणून तुज्यासारक
घोव मेळ्ळो आनी कितें जाय!

चंद्रकांत : पूण हांवें कितें पातक केल्लें तर?

चंद्रीका : पुरो जालें आतां. पयलीं राहू-केतूक भायर बांदून घाल.

चंद्रकांत : हांव तांकां परतो पासयेक घेवन वतां. कटकट नाका.

**(चंद्रकांत वता)**

चंद्रिका : **(मालूक उलो मारता)** मालू मालू मात्शो भायर यो गो.

**(मालू येता)**

मालू : कितें गे व्हनी.

चंद्रिका : तूं हांगा मात्शी रांगोळी घाल. कित्याक हात लायनाका. हांव ह्य
देवाच्या आयदनांक मात्शें उदक लावन येतां.

मालू : बरें व्हनी.

**(मालू पाटा भोवंतणी रांगाळी घालता. चंद्रिका वता. माळयेवेल्यान
हळूच सोमू येता)**

सोमू : शूत! शूत! मालू.

मालू : **(पळोवन)** सोमू.

सोमू : यो यो हांगा यो.

मालू : तूं चल पळोवया बेगीन. व्हनी रोकडीच येतली.

सोमू : येवंदी.

मालू : व्हनीक कळतलें.

सोमू : कळूं दी. एक दीस कळपाकच जाय.

मालू : आतां शापदां सांगता. आवयच्या मुखार लोलो सो बसता.

सोमू : मालू तुजेबगर म्हाका एक सेकंद पसून करमना गो.

मालू : सांग तुजे आवयक.

सोमू : कसो सांगू? तूं हांगा कश्ट करता तें पळोवन म्हज्या काळजांत कितले कश्ट जातात म्हणून! काल भाजी चिरतना तुज्या बोटाक घावो जालो तो पळोवन धावंत तुज्या लागीं येवन तुजें बोट चोखचें अशें दिसलें.

मालू : मागीर कित्याक आयलोना?

सोमू : आगे म्हजे मांय. तुगेली होनेवाली मांय आशिल्ली न्हय गो थंय.

मालू : खरेंच, तूं म्हजेर इतलो मोग करता.

सोमू : तुका दुबाव येता?

मालू : तूं म्हाका फटोवचो ना न्हय!

सोमू : चल आतांच आमी पळून या.

मालू : आनी कितें खावया?

सोमू : केन्ना गो तो दीस येतलो?

**(हातांत हात धरता. तितल्यान आवाज)**

चंद्रिका : **(भितल्ल्यान)** मालू मालू!

मालू : चल चल बेगीन.

**(सोमू माळयेर धांवता. चंद्रिका येता. हातांत देवाचीं आयदनां)**

चंद्रिका : मालू, वरां कितलीं जालीं पळय.

मालू : ९ जावन ४० मिण्टां.

चंद्रिका : हय. चंद्र आयला आसतलो. पुजेची तयारी करुया. सोमू खंय गेलो?

मालू : खबर ना.

चंद्रिका : सोमू, सोमू.

**(सोमू माळयेवेल्यान येता)**

सोमू : कितें आई?

चंद्रिका : माळयेवेल्यान चंद्र दिसता जाल्यार पळय. **(सोमू वता)** हे आजूनय येवनांत. राहू केतू मेळ्ळे म्हणजे जालें तांचें.

सोमू : आई, चंद्र आजूनय दिसना.

चंद्रिका : कितें आजूनय ना. आरे पावणे धा जालीं सारको पळयला मरे ?

सोमू : हय आई सारको पळयला. पूर्वेक पळयलों, पश्चिमेक पळयलो उत्त आनी दक्षिणेकय पळयलो. खंयच ना.

चंद्रिका : चल रे परत पळय आयला आसतलो.

**(सोमू वता)**

मालू : व्हनी हांव पळोंव?

चंद्रिका : चल, तुका तरी दिसल्यार पुरो. खंय गेला काय? इतलीं वर्सां अ केन्नाच घडलेंना. आयजच कळाव कित्याक? **(तोंडांत स्त्रोत बडबड हांगा थंय पासयो मारता)** खंय गेलीं हीं? चंद्र पळोवपाक गेल्ली आजूनय वयर कितें करतात? **(उलो मारता)** सोमू, मालू **(मा धांवत येता. खर्शेता)** कितें जालां गो खर्शेता कित्याक?

मालू : **(खर्शेता)** चंद्र, चंद्र ना.

चंद्रिका : ना? कसो ना तर .खंयच्या मसणांत पावलो तर!

मालू : कोण चंद्र?

चंद्रिका : चंद्र न्हय. सोमू **(उलो मारता)** सोमू.

**(सोमू धांवत येता)**

सोमू : चंद्र ना.

चंद्रिका : टेर्रासाचेर वचून पळय रे.

सोमू : पळयलो. ना.

चंद्रिका : आतां कितें करप. डिस्कवरी चॅनलाचेर चंद्र बी दाखयता जाल्यार पळय.

सोमू : डिस्कवरी चॅनलार ॲनीमल वर्ल्ड चलता.

चंद्रिका : पोटांत कावळे रडपाक लागले. चंद्र दिसलो ना जाल्यार करप कितें?

मालू : **(पाटाचेर बोट दाखोवन)** त्या पुस्तकांत बरयलां आसतलें.

चंद्रिका : **(पुस्तक काडून दिता)** वाचून पळय.

मालू : **(पुस्तक वाचता)** हें पळय हांगा बरयलां.

चंद्रिका : कितें? वाच बेगीन.

मालू : संकष्टीचो चंद्र दिसलो ना जाल्यार संकष्टीच्या चंद्राची रांगोळी घालून, ताचेर फुलां घालून, पांय पडचें.

चंद्रिका : अशें? बरेंच जालें! चल गो मालू चंद्राची रांगोळी घाल.

मालू : पूण संकष्टीच्यां चंद्राची कोर कशी आसता?

चंद्रिका : तुका खबर ना? सोमूक खबर आसतली.

सोमू : म्हाका खबर ना! म्हगेली Ph.D. चंद्राचेर न्हय.

चंद्रिका : तुमी शिकून फायदो कितें?

सोमू : तूं इतलीं वर्सा संकष्टी करता मगे. मागीर तुकांच सारकी खबर आसपाची.

चंद्रिका : पूण चंद्राच्या आकाराचेर रे कोणें लक्ष दिलां आनी उपासा मुखार तें खंय लक्षांत येता. हांकां खबर आसतली. आजूनय खंय झक मारतात म्हणून कोणाक खबर! **(भोंकपाचो आवाज येता)** आयले आसतले!

चंद्रकांत : **(भितर येता)** चल वाड म्हाका.

चंद्रिका : चंद्र आजूनय येवना.

चंद्रकांत : मळबांत सगळीं पावसाचीं कुपां भरल्यांत दिसतोलो कसो?

चंद्रिका : तुमकां संकष्टीच्या चंद्राची कोर काडपाक येता?

चंद्रकांत : इतलीं वर्सां तुमी कितें केलें?

मालू : **(पेपराचेर चित्र काडून दाखयता ती चंद्रकोर विनायकीची आसता)** हो पळय हावें काडला.

चंद्रकांत : आगो पिश्या हो विनायकीचो चंद्र, संकष्टीचो न्हय.

चंद्रिका : मागीर तुमीच सांगात तरी.

चंद्रकांत : हांगा हाड तो कागद.

**(संकष्टीच्या चंद्राची आकृती काडटा)**

चंद्रिका : **(कागद घेता आनी पळयता)** असो आनी चंद्र आसता? घेगो मालू अशीं रांगोळी घाल.

**(मालू रांगोळी घालता. चंद्रिका बसून नमस्कार घालता. इतल्यान चंद्रदेव प्रकट जाता. मुकुटाचेर संकष्टीच्या चंद्राची कोर)**

चंद्रदेव : चंद्रिका, चंद्रिका ऊठ आतां हांव चंद्रदेव तुमचेर प्रसन्न जालां.

चंद्रिका : कोण चंद्रदेव आनी आमच्या घरा. आमी धन्य जालीं.

चंद्रदेव : तुमी म्हजेर खूब उपकार केल्यात.

चंद्रिका : आमी आनी तुमचेर उपकार?

चंद्रदेव : तुमी म्हाका शापमुक्त केलो.

चंद्रिका : हें आनी तुमी कितें उलयतात चंद्रदेव तुमी आमकां दर्शन दिवन आमचेर खूब मोठे उपकार केल्यात.

चंद्रदेव : ना, तुमीच म्हजेर उपकार केल्यात.

चंद्रिका : अशें कशें म्हणटात तुमी?

चंद्रदेव : ती एक मोठी कथा आसा.

चंद्रिका : कथा?

चंद्रदेव : हय. कशी सांगू?

चंद्रकांत : कशी म्हणजे?

चंद्रदेव : फ्लॅशबॅकान सांगू काय बेठीच तोंडान सांगूं

चंद्रकांत : तोंडानच सांग.

चंद्रदेव : **(गंभीर)** इंद्रदेवाक २७ चलयो.

चंद्रिका : आवयस् २७ चलयो? आनी चलो ना?

चंद्रदेव : ना.

चंद्रिका : चलो जावंचो म्हणून २७ वेळां प्रयत्न केले दिसतात.

चंद्रदेव : तेन्ना हांव सामको वयांत आशिल्लों. म्हज्या सारको तेजवान आनी सुंदर मळबांत कोणच नाशिल्लो. म्हणून इंद्रदेवान सत्तावीसय चलयांचें लग्न म्हजेकडेन केलें.

सोमू : २७ बायलो?

चंद्रदेव : पूण म्हजेंच चुकलें. ते चुकीचें प्रायश्चित हांव आयज मेरेन भोगीत आसां.

**(रडपाक लागता)**

चंद्रिका : रडूं नाका. चंद्रदेवा तूं रडूं नाका. चांदोबा, चंदा मामा हांस हांस **(चंद्र हांसता)** आतां सांग. फुडे कितें जालें?

चंद्रदेव : त्या २७ कन्या भितर रोहिणी खूब सुंदर दिसताली. तिजेरच म्हजें खरें प्रेम आशिल्लें.

चंद्रिका : पूण बाकीच्या कन्यांची नांवा तरी कितें चंद्रदेवा?

चंद्रदेव : सांगतां. ज्येष्ठा, मूळ, पूर्वाषाढा, श्रवण, रोहिणी **(विसरता)** सगळ्यांची म्हाका याद ना. रोहिणीच्या प्रेमान हांव बाकीच्यांक विसरुनच गेलों.

चंद्रकांत : हांव सांगतां. ज्येष्ठा, मूळ, पूर्वाषाढा, उत्तराषाढा, श्रवण, धनिष्ठा, शततारका, पूर्व भाद्रपदा, दक्षिण भाद्रपदा, रेवती, अश्विनी,भरणी, कृतिका, रोहिणी, मृगशीर्ष, आर्द्रा, पुनर्वसू, पुष्य, आश्लेषा, मघा.

चंद्रदेव : तुका रे कशीं म्हज्या सगळ्या बायलांचीं नांवां तोंडपाठ?

चंद्रिका : ताका सगळें ज्ञान आसा. पूण पोटाक पडपाचें न्हय.

मालू : काणीं कितली इंटेरेस्टींग न्हय. हिन्दी पिक्चरांक पसून फाटीं घालतली.

सोमू : म्हणजे तेन्ना पसून लोक प्रेम करताले?

चंद्रिका : **(चिडायत)** हय रे पुता म्हज्या. तुका कितें मोग करीन दिसलो?

मालू : चंदामामा, काणी फुडें कितें जाता?

चंद्रदेव : रोहिणी खूब सुदंर आशिल्ली. हांव तिच्या प्रेमांत पागल जाल्लों.

मालू : कळ्ळे मागीर कितें?

चंद्रदेव : बाकीच्या सगळया भयणींक नसाय जाली.

चंद्रिका : कितल्योय जाल्यार सवती जाल्यो नात.

चंद्रदेव : ताणी सगळ्यांनी आपल्या बापायकडेन कागाळ केली.

सोमू : तुवें सव्वीसय जाणांक तलाक दिवपाचो.

चंद्रदेव : आमच्या संविधानांत तें बसना. इंद्रदेवान म्हाका रागान शाप दिलो.

मालू : शाप? कितें म्हणून?

चंद्रदेव : म्हजो क्षय जातलो, म्हणून.

सोमू : क्षय म्हणजे?

चंद्रकांत : हांगा क्षय ह्या शब्दाचो अर्थ झिजून झिजून नष्ट जावप.

चंद्रिका : पूण जांवयांकच म्हणून असो शाप दिवप? कितलोय जाल्यार जावंय न्हय तो!

मालू : मागीर कितें जालें?

चंद्रदेव : रोहिणी खूब खूब रडली.

चंद्रिका : बाकीच्या सवतींनी कितें केलें?

चंद्रदेव : तांकांय खूब वायट दिसलें. सगळ्यांनी इंद्रदेवाचे पांय धरले. तेन्नाच ताणें उःशाप दिलो.

मालू : कितें म्हणून.

चंद्रदेव : पुर्णचंद्र म्हयन्यांतल्यान एकच दीस दिसतलो. पंदरा दीस बारीक जायत वतलो म्हणजेंच क्षय जायत वतलो आनी पंदरा दीस आंगान भरत रावतलो.

चंद्रिका : जांव बाये.

चंद्रकांत : म्हणूनच तुमकां संकष्टी, विनायकी सारकीं व्रतां करुन भरपूर खावपाक मेळटा न्हय.

चंद्रिका : तुमी वोगी बसात.

सोमू : कितली सुंदर प्रेमकथा न्हय. पूण चंदामामा, तुजे प्रेम कथेचो एन्ड कितें?

चंद्रदेव : हांवें मागीर इंददेवाक एक अर्ज केलो किं म्हाका पयलीं बशेंन सदांच तेजस्वी दवर म्हणून.

सोमू : ताणें मान्य केलें?

चंद्रदेव : ताणें मान्य केलें पूण एके अटीचेर.

मालू : कितें ती?

चंद्रदेव : जेन्ना पृथ्वीवयली खंयचीय कुमारीका वा सौभाग्यवती संकष्टीच्या दिसा म्हजें सारकें चित्र काडटली तेन्ना हांव शाप मुक्त जातलों.

चंद्रिका : अशें?

चंद्रदेव : पूण हो दीस येवपाक म्हाका हजारो युगां वाट पळोवची पडली.

चंद्रकांत : तुगेली कथा एकदम बरी आशिल्ली. पूण ताच्या फाटलें शास्त्र कितें तें तुका खबर आसा?

चंद्रकांत : तांचे शास्त्र अशें आसा. हांव सांगतां तें आयकात. आमच्या पुर्वजांनी म्हणजे विद्वानांनी मळबांतल्या ताऱ्यांचें, ग्रहांचें सुर्याचें, चंद्राचें खोलायेन निरीक्षणां केल्लीं. तांच्या गतीचो बरोच अभ्यास केल्लो.

चंद्रिका : तांचो हांगा कितें सबंध?

चंद्रकांत : पयलीं सांगता तें आयक. इंद्रदेवाच्यो २७ कन्या म्हणटात, तीं मळबांतलीं २७ नक्षत्रां.

सोमू : नक्षत्रां म्हणजे?

चंद्रकांत : रातचें मळबांत पळयल्यार खूब तारे दिसतात. ल्हान, व्हड, कांय तेजस्वी तर कांय मंद अशे. हांगा थंय ठरावीक ताऱ्यांच्यो रेगो जोडल्यार जनावरां, पक्ष्यांच्यो अश्यो तरेकवार आकृती जातात. ह्या आकृतींक त्याकाळावयल्या विद्वानांनी आपले कल्पनेप्रमाण

वेगवेगळीं नावां दिल्यांत. तांकांच नक्षत्रां म्हणटात. हीं २७ नक्षत्रां म्हणजेच चंद्राच्यो २७ बायलो.

सोमू : आधुनिक शास्त्रांतय २७ नक्षत्रां आसात?

चंद्रकांत : आधुनिक खगोलशास्त्राप्रमाण ८८ नक्षत्रां आसात.

सोमू : आतां चड कशीं जालीं?

चंद्रकांत : त्याकाळांत साधनां कमी आशिल्लीं. म्हणजे दुर्बिणी सारकी 'यंत्रां' नाशिल्लीं. तशेंच पुर्विल्ल्यो संस्कृती म्हणजेच भारत, चीन, ग्रीक ह्यो उत्तर गोलांत आसात म्हणून दक्षिणेंतल्या मळबाचो ते खोलायेन अभ्यास करुं शकले नांत.

सोमू : पूण ह्या २७ नक्षत्रांचें अशें म्हत्व कितें?

चंद्रकांत : चंद्र पृथ्वी भोंवतणी फिरता हें तुमकां खबर आसतलेंच!

सोमू : हय.

चंद्रकांत : पृथ्वीची एक भोंवतड पुराय करपाक कितले दीस लागतात? चंद्रदेव तूंच सांग

चंद्रदेव : २७ दीस.

सोमू : सारके २७ दीस?

चंद्रकांत : २७ दीस, ७ वरां, ४३ मिणटां आनी इकरा सेकंद

सोमू : इतलें अचूक खबर आसा?

चंद्रकांत : हय. चंद्र पृथ्वीक भोंवतड मारतना दर राती एका नक्षत्रांत राबितो केल्ल्याबशेन दिसता.

मालू : म्हणजेच दर राती एका नक्षत्राचो पती.

चंद्रिका : **(चिडायता)** हें जालें तुगेलें विज्ञान. आतां तू म्हणटलो चंद्र-रोहिणीच्या प्रेमाकय शास्त्र आसा म्हणून.

चंद्रकांत : आसा तर! शास्त्र आसा. फकत प्रेमाची ही कथा लोकांनी मनोरंजना खातीर जोडल्या इतलेंच.

सोमू : तें कशें.

चंद्रकांत : चंद्राचे भ्रमणकक्षेचो बारीकसाणेन अभ्यास केल्यार अशें दिसून येता कि चंद्र ह्या नक्षत्रांत भितल्ल्यान वचना तर तो तांच्या लागिच्यान वता.पूण रोहिणी नक्षत्राक मात सामको लागून वता. म्हणून लोकांनी ही चंद्र रोहिणीची प्रेम कथा रंगयल्या.

चंद्रदेव : हो किते उलयता तें म्हाका कांयच समजलें ना.

चंद्रकांत : हांव कितें सांगतां तें सत आसा. कारण तें शास्त्राचेर आदारुन आसा.

चंद्रदेव : आरे, तुगेलें सत हावें मानले तर म्हाका आनी म्हत्व कितें उरतलें?

चंद्रकांत : पूण सत तें सत न्हय.

चंद्रिका : कसलें सत. तुमगेलें शास्त्र आमी मानून घेवपाचें आनी कितें आमी सगळ्यो परंपरा सोडून दिवंच्यो?

चंद्रदेव : हें पळयात, तुमचो वाद नाका.आयज म्हज्या आयुष्यांतलो बरो दीस. कितल्या युगांनी म्हाका आयज मुक्ती मेळल्या.

चद्रकांत : भ्रम सगळो.

चंद्रिका : तुमी मात्शो तोंड धांपात.

सोमू : डॅडी, मुखार कितें जाता तें पळोवया तरी.

चद्रकांत : o.k . चलुनी तुमचें.

चंद्रदेव : आयज हांव प्रसन्न जालां. तुमकां जाय तो वर मागात. चंद्रिके माग वर .

चंद्रिका : कितें मागूं चंद्रदेवा, म्हज्या पुताक एक बरी मनासारकी व्हकल मेळची.

चंद्रदेव : इतलेंच? तथास्तू. जालें.

सोमू : मेळ्ळी.

चंद्रिका : कोण ती खंय आसा.

चंद्रदेव : **(मालूकडेन बोट दाखयता)** ही पळय.

**(मालू लजता)**

चंद्रिका : कोण मालू? देवा हें तुवें कितें केलें? तुवें आमचो घात केलो हावें इतलीं वर्सां तुमचें व्रत केलें. ताचें हेंच रे फळ?

चंद्रदेव : पूण मालीनी कितें वायट आसा? सुंदर दिसता. हुशार आसा.

चंद्रिका : पूण देवा ताची जात कितें, आमची जात कितें ?

चंद्रदेव : जात? जात म्हणजे कितें ?

चंद्रकांत : तुका जात खबर ना? मागीर आमचे संस्कृतीचें तुका कितें खबर आसतलें?

चंद्रिका : पूण चंद्रदेवा आतां कितें तरी कर. हें लग्न शक्य ना.

चंद्रदेव : म्हजो वर फाटीं घेवप शक्य ना. आतां शाप दिवून मोडूं येता. पूण तशें करुन म्हज्या दैवी कॅरीअराक बाधा येतली. आतां एकच उपाय आसा.

चंद्रिका : कितें? सांग बेगीन.

सोमू : आई, देवाच्या मनांत आसा जाल्यार तूं कित्याक आड येता?

चंद्रिका : आं, बरो उलोवपाक शिकला मरे तूं . आरे देवाच्या मनांत आसत म्हणून आमच्या मनांत आसपाक नाका? तूं ओग्गी बस. कितें करपाचें तें हांव पळयतां. सांग चंद्रा, चंद्रदेवा कितें उपाय आसा? पूण हें लग्न मोडपाक जाय.

चद्रदेव : भगवान विष्णू आमकां कितें तरी मार्ग सांगू शकतलो.

चंद्रिका : पूण तांका कशें मेळप?

चंद्रदेव : तें म्हजेर पावलें.

**(मनांतल्या मनांत गुणगुणटा. विष्णू प्रसन्न जाता)**

विष्णू : कोण रे कोणे उलो मारलो?

चंद्रदेव : देवा हांव चंद्र.

विष्णू : आरे तूं हांगा कितें करता? आयज संकष्टी मरे. भारतीय अस्तुऱ्यो तुजी वाट पळयतात. स्वर्गांत फोनाचेर फोन येतात. आनी तूं हांगा?

चंद्रदेव : देवा. हांगा एक मोठो प्रश्न निर्माण जाला.

विष्णू : कितें जालें?

चंद्रदेव : हावें हिच्या पुताचें लग्न ह्या मालूकडेन जावचें म्हणून वर दिलो.

विष्णू : म्हणजे तूं सोयरीकोय करपाक लागलो? बरें मागीर.

चंद्रदेव : पूण हांगा मनशाच्यो जाती वेगवेगळ्यो आसात खंय! ह्यो जाती, देवा तुवें केन्ना निर्माण केल्यो?

विष्णू : जाती आमी निर्माण करुं नात. मनीस जातीच्या मनीस घातकी वृतीनच त्यो निर्माण केल्यात.

चंद्रदेव : पूण आतां कितें तरी कर देवा. कितेंय उपाय आसतलो.

विष्णू : उपाय, देवाच्या हातांत ना. मनशाच्याच हातांत आसा. तुवें एक व्हडलें संकष्ट निर्माण केल्ले. आरे तूं धर्तरीच्या इतलो लागीं आसूनय भारतीय समाजशास्त्राचो तुवें मातय अभ्यास केलो ना. फकत सुंदर नारीच्या नादांतच उरलो. तुका हांव परतो शाप दितां.

चंद्रदेव : देवा नाका.

चंद्रकांत : कथा बरीच अद्‌भूत जायत आसा.

विष्णू : आयक कान उगडे दवरुन. म्हजी शापवाणी आयक. तूं सदांबशेन भागत वतलो आनी सदांबशेनच वाडत वतलो.

चंद्रदेव : ना ना **(पांय धरता)** देवा उःशाप सांग.

विष्णू : उःशाप आनी कसलो कपलाचो? आरे युगायुगांत तुका असोच रावपाचो आसा.

चंद्रदेव : तरी देवा, परंपरेनुसार उःशाप दिवूंक जाय. नाजाल्यार ही कथा पुराय जावंची ना.

विष्णू : कसलो म्हणून उःशाप दिवूं? बरें आयक, कान उगडे दवरुन आयक. जेन्ना भारतीय समाजांतली जातीव्यवस्था आनी अंधश्रध्दा नष्ट जातली तेन्ना ह्या शापाचो प्रभाव नष्ट जातलो.

चंद्रदेव : आभार देवा.

चंद्रकांत : देवा, तुमी पसून निराशावादी कित्याक जाले?

विष्णू : अशें कित्याक म्हणटा तूं?

चंद्रकांत : तुवें जो उःशाप दिला ताचेवयल्यान अशें दिसता किं भारतीय समाजांतली जातीव्यवस्था आनी अंधश्रध्दा केन्नाच नष्ट जावची ना.

विष्णू : तूं खरोच बुध्दीमान आसा. तुमचें समाजशास्त्र आमच्या हाताभायर गेलां. पूण तुमी प्रयत्न सोडूं नाकात. तुमी तरी आशावादी रावात. तुमच्या अंधश्रध्दा आनी जातीव्यवस्था निर्मुलन चळवळीक आमचो सदांच आशिर्वाद आसतलो. बरें हांव वतां.

**(अदृश्य जाता. चंद्र दुख्खी जाता.इतिहासीक नाटकाबशेन भाषण करता)**

चंद्रदेव : युगांयुगांसावन सपन म्हजें
केन्नातरी दीस हो येतलो
मळबांतलें साम्राज्य म्हजें
परत म्हाका मेळतलें.
विश्वांत हांव परत एकदां
तेजस्वी म्हणून मिरयतलों
पूण हाय, हाय रे हाय
सोसली कितली ही ख्यास्त
प्रेम, प्यार, मोहब्बत, मोग
ह्या शब्दांत कितली भरल्या तांक
रोहिणीच्या प्रेमाखातीर
सगळ्या आयुष्याचें केलें समर्पण
दोन प्रेमी युगूलांचीं पळोवन मनां
दिलो हावें वर
पूण हाय, हाय रे हाय
जालं भलतंच काय
गुरुत्वाकर्शण, प्रेमाकर्शण परस म्हान
समाजशास्त्राचेंच चेपण ठरलें बलवान
हाय रे हाय.

**(चंद्र मोठ्या मोठ्यान रडटा)**

ंद्रकांत : बरेंच मनाक लावून घेतलां शें दिसता.

ंद्रिका : भोग म्हणून सांग. आमकां वर दिवन त्रासांत घातल्यात.

ोमू : आई, ताची कितें चूक आसा?

ंद्रिका : तूं ओगी बस पयलीं.

ंद्रकांत : यो चांदोबा यो. रडूं नाका.

ंद्रदेव : **(रडून आडुता)** चंद्रकांता?

चंद्रकांत : पयलीं ओगी राव आनी हांव कितें सांगतां तें आयक. हो सगळो भ्रम हो कल्पना विलास.

चंद्रदेव : म्हणजे? हें सत न्हय.

चंद्रकांत : न्हय.

चंद्रदेव : मागीर सत कितें ?

चंद्रकांत : सांगतां. तूं म्हणजे चंद्र हो मळबांतलो सगळ्यांत तेजस्वी आनी आकर्शक असो गोल. म्हणून पृथ्वीवयल्या कवींनी तुजेर तरेतरेच्यो सौंदर्य कविता बरयल्यात, तुजी तुळा सुंदर अस्तुरीकडेन केल्या. तुजेर अश्यो प्रेमकथा बरयल्यात.

चंद्रदेव : इतलो सुंदर दिसता हांव?

चंद्रकांत : पूण जेन्ना खगोलशास्त्रज्ञानी दुर्बिणींतल्यान तुजेकडेन पळयलें तेन्ना तुजो डोंगराळ आनी खडबडीत पृष्ठभाग पळोवन कवींचो सामको अपेक्षा भंग जालो. आनी तेन्नाच्यान आमच्या सुंदरींच्या मुखामळांचेर मुंमरां फुटपाक लागलीं.

**(हांसता)**

चंद्रिका : फकांणां पुरो जालीं.

चंद्रदेव : पूण चंद्रकांत, म्हजो क्षय कसो जाता?

चद्रंकांत : ताकाच चंद्रकळा अशें म्हणटात. तें समजून घेवपाखातीर तुका थोडें भैतिकशास्त्र समजून घेवचें पडटलें.

चंद्रदेव : म्हणजे कितें?

चंद्रकांत : हें पळय, सूर्य हो तारो आमचे सगळे सुर्यमालीकेक उजवाड दित ताचो प्रकाश आमचेर म्हणजे पृथ्वीचेर आनी तुजेर म्हणजे चंद्राचेर पडटा. पृथ्वी आनी चंद्राक स्वताचो प्रकाश ना. म्हणून ज्या भागांचेर सुर्यप्रकाश पडटा तेच भाग प्रज्वलीत जातात.

चंद्रदेव : हें म्हाका खबर आसा. जेन्ना हांव सुर्याकडेन तोंड करतां तेन्ना म्हज्या तोंडार उजवाड पडटा. पूण फाट मात काळखांत उरता.

सोमू : पृथ्वीचेर दीस रात जातात तें ह्याच खातीर. जाणां चंदामामा?

चंद्रकांत : आतां चांदोबा तूं हांगा उबो राव आनी मालू तूं चंद्रदेवा कडेन तोंड करुन उबें राव.

मालू : **(लजता)** म्हाका बाये लज दिसता.

सोमू : मालूक कित्याक सांगता. हांव रावतां न्हय.

चंद्रदेव : नाका नाका मालूकच रावूंदी.

चंद्रकांत : मालू राव पयलीं **(मालू रावता).** चांदोबा आतां सांग, तुका कितें दिसता?

चंद्रदेव : व्वा! व्वा! मालूचो सुंदर सुंदर मुखडो.

चंद्रकांत : सारकें सांग.

चंद्रदेव : मालूचें तोंड दिसता.

चंद्रकांत : मालूची फाट कित्याक दिसना? सांग.

चंद्रदेव : कित्याक?

सोमू : आरे, मालूची फाट विरुध्द दिकेन आसा.

चंद्रदेव : हय मरे कितलें सोपें न्हय?

चंद्रकांत : सोमू लायट ऑफ कर. काळोख कर. **(काळोख जाता)** चांदोबा आतां सांग मालूचें तोंड दिसता?

चंद्रदेव : ना.

चंद्रकांत : कित्याक दिसना?

ंद्रदेव : काळखांत कशें दिसतलें? मालूच्या तोंडार काळोख आसा न्हय इतलेंय कळना म्हाका?

ंद्रकांत : आतां सांग ह्या प्रयोगांतल्यान तुका कितें मेळ्ळे?

ंद्रदेव : म्हाका कितें मेळ्ळे? म्हाका कांयच मेळूंकना.

ंद्रकांत : तशें न्हय रे. ह्या प्रयोगांतल्यान आमी कितें सिध्द केले?

ंद्रदेव : आतां लक्षांत आयलें. जो भाग आमच्या नजरेच्या विरुध्द वटेन आसता तो आमकां दिसना. तशेंच जो भाग काळखांत उरता तोय आमकां दिसना. कितलें सोपें हें शास्त्र!

चंद्रकांत : तें समजून घेवपाक जाय. ना जाल्यार आमगेलीं आसात. कसलेंच ज्ञान नाका.

चंद्रिका : सांग तुगेलीं ज्ञानां त्या चंद्राक.

चंद्रकांत : तूंय आयक.

चंद्रदेव : पूण म्हजो क्षय कसो जाता तें सागलें ना.

चंद्रकांत : क्षय न्हय रे चंद्रकळा म्हण.

चद्रदेव : तेंच तें.

चंद्रकांत : सांगतां आयक. पयलीं म्हाका एक सांग, तुजें एक अर्द सदांच पृथ्वीचे दिकेन कित्याक आसता?

चंद्रदेव : हय. म्हजें तोंड सदांच पृथ्वीचे दिकेन आसता. फाट सदांच पृथ्वीचे विरुध्द वटेन आसता. कित्याक? सांगतां. म्हाका पृथ्वीकडेन पळयत रावचें दिसता.

चंद्रकांत : आयक आता. हांव ताचें शास्त्र सांगतां. चंद्राक पृथ्वीची एक भोंवतड पुराय करपाक जितलो काळ लागता तितलोच काळ ताका आपल्या भोंवती फिरकी घेवपाक लागता.

सोमू : म्हणजे चंद्राचो म्हयनो आनी दीस-रात सारक्योच आसात म्हणपाचें!

चंद्रकांत : हय. एकदम बरोबर.

सोमू : म्हणजे चंद्राचेर दीस-रात २७ दिसांचे आनी चंद्र म्हयनोय २७ दिसांचो.

चंद्रकांत : हो एक मोठो योगायोग. ताका लागून चंद्राची एकच बाजू पृथ्वीच वटेन उरता. दुसरी बाजू सदांच पृथ्वीचे विरुध्द वटेन उरता म्हणू ती आमकां केन्नाच दिष्टी पडना.

चंद्रदेव : हें म्हाका केन्नाच खबर नाशिल्लें. पूण चंद्रकळा कश्यो जातात?

चंद्रकांत : सांगतां. आतांमेरेन आमी गजाली केल्यात तांची थोडी उजळणी करुया.

एक - चंद्राचो जो भाग सुर्याच्या वटेन आसता ताचेरच उजवाड पडटा.

दोन - चंद्राच्या अर्धा भागार सदांच उजवाड आसता आनी

तीन - चंद्राचो एकच भाग सदांच पृथ्वीचे वाटेन आसता.

चंद्रिका : म्हाका आतां तुमचें शास्त्र कळपाक लागलें. खरेंच खूब मजेशीर... म्हाका दिसता हीं व्रतां म्हणटात तें खरें न्हय. पूण म्हजो एक दुबाव ...हांसू नाकात आं.

चंद्रकांत : सांग तूं.

चंद्रिका : जर सदांच चंद्राच्या अर्धा भागाचेर उजवाड पडटा तर सदांच आमकां अर्दो चंद्र दिसपाचो न्हय.

सोमू : तशें न्हय आई. जरी चंद्राच्या अर्धा भागार उजवाड आसलो तरी उजवाडाचो कितलो भाग पृथ्वीच्या वटेन आसा ताचेर तें अवलंबून आसा.

चंद्रिका : म्हणजे?

चंद्रदेव : म्हज्या तोंडाच्या कितल्या भागाचेर उजवाड पडटा तितलो तुमकां दिसतलो.

चंद्रिका : म्हणजे?

सोमू : चंद्राचें तोंड सदांच पृथ्वीचे वटेन आसता न्हय!

चंद्रिका : म्हणजे?

सोमू : डॅडी तूंच सांग पळोवया.

चंद्रकांत : बरें, तें तुमकां जमपाचें न्हय. सोमू तें घुंवपाचें कदेल मदीं दवर **(सोमू दवरता)** मालू तूं कदेलाचेर बस.

सोमू : तूं परतो परतो मालूकच कित्याक सांगता. हांव बसतां

चंद्रदेव : नाका, तुका ते जमचेलें ना.

सोमू : आई, ह्या चंद्राची नदर म्हाका बरी लागना. पळय कसो मालूकडेन पळयता तो!

चंद्रिका : अशें कितें उलयता रे?

चंद्रकांत : मालू बस.

**(मालू कदेलार बसता)**

मालू : हें पळय बसलें.

चंद्रकांत : समजा मालूचें तोंड सदांच सुर्याचे वटेन आसा.

चंद्रदेव : म्हणजे मालूच्या तोंडार सदांच उजवाड पडटा.

चंद्रकांत : समजा, सूर्य वर्तुळाकार फिरता.

सोमू : सूर्य फिरता?

चंद्रकांत : सूर्य फिरना रे. पूण तसो भास जाता न्हय.

सोमू : बरोबर.

चंद्रकांत : जसो सूर्य वर्तुळाकार फिरता तशें मालूचे तोंड फिरता.

चंद्रदेव : आयडिया एकदम बरी.

सोमू : **(तापता)** चंद्रा चड उलोवपाची गरज ना.

चंद्रकांत : आतां आयकात. आमी सगळे पृथ्वीवयले लोक. मालूच्या तोडां सामकार उबे रावुया. आतां सांगात कितें दिसता?

चंद्रदेव : मालूचो सुंदर मुखडो.

सोमू : हांव सांगतां, मालूचो मुखडो.

चंद्रकांत : म्हणजेच चंद्राची पुराय एक बाजू आमकां दिसता. ही जाली पुनव. आतां मालू, तूं ९० अशांचो कोन करुन घुंव.

मालू : हें पळय घुंवलें.

**(मालू घुंवता)**

चंद्रिका : आतां आमकां मालूचें एक कानसूल म्हणजे अर्दोच मुखडो दिसत आनी अर्दो भाग माथ्यावयले केंस.

चद्रकांत : म्हणजेच अर्दो चंद्र. ही जाली अष्टमी.

चंद्रिका : अष्टमीचो चंद्र म्हणटात तो हो.

चंद्रकांत : हय. मालू आतां आनीक ९० अंशाचो कोन करुन घूंव.

चंद्रिका : आतां दिसता मालूच्या केसांचो आंबाडो.

चंद्रदेव : म्हणजे सगळो काळोख.

सोमू : तुका सांगलां न्हय रे उलयनाका म्हणून. हांव सांगतां काळोख. म्हणजे कांयच दिसना.

चंद्रिका : म्हणजेच उमास.

चंद्रकांत : अशो तरेन ह्यो चंद्रकळा घडटात.

सोमू : पुनव जातगर चंद्राचो पृथ्वी वटेनचो उजवाडाचो भाग कमी कमी जायत वता.

चंद्रकांत : ताकाच चंद्रकोर म्हणटात.

सोमू : हय. आनी उमास जातगर चंद्रकोर वाडत वाडत वता.

चंद्रकांत : बरोबर. आतां हो एक बॉल पळय. **(एक फुटबॉल ताची अर्दी बाजू काळी आनी अर्दी धवी. मदी आरपार बडी)** हो चंद्र अशें मानूया. हाची अर्दी बाजू काळी ही काळखाची बाजू आनी धवी ही उजवाडाची. **(मदीं रावन हातांन बॉल हळू घुंवडायता)** आतां काळी बाजू तुमकां दिसता.

चंद्रिका : ही उमास.

चद्रकांत : आतां हांव हो बॉल सवकास घुंवडायतां. **(बॉल घुंवडायता)** कितें दिसता?

सोमू : चंद्रकोर वाडत वता.

चंद्रकांत : ताकाच शुक्ल पक्ष म्हणटात आनी चौथी तीथ ती विनायकी. **(बॉल घुंवडायता)** आतां कितें दिसता?

चंद्रदेव : ही पुनव.

चंद्रकांत : **(बॉल घुंवडायता).**

सोमू : चंद्रकोर ल्हान जायत वता.

चंद्रकांत : हाकाच कृष्ण पक्ष म्हणटात आनी चौथी तीथ संकष्टी.

चंद्रदेव : हो सगळो उजवाडाचो खेळ.

चंद्रिका : आमच्या व्रतांक कांयच अर्थ ना. उगीच उपास केले.

चंद्रदेव : अशें हें शास्त्र. तर, पुराणांतल्यो कथा म्हणजे एक कल्पनाविलास हें पटलें म्हाका.

चंद्रकांत : त्यो सुंदर, मनोरंजनीय आनी अद्‌भूत आसतात म्हणून त्यो जनमानसांत पसरतात.

चंद्रदेव : तुजे कशे म्हणून उपकार मानूं? तुका कसलोय वर जाय जाल्यार माग.

चंद्रिका : नाका रे बाबा. एक वर दिवन आमकां त्रासांत घातल्यात तें पुरो जालें.

सोमू : चंदामामा चल तूं आतां. नमस्कार.

चंद्रदेव : वच म्हणटा पूण वचनच दिसना.

चंद्रकांत : कित्याक? म्हजे ज्ञान तुका आवडलें काय कितें?

चंद्रदेव : ना. हांव मालूच्या प्रेमांत पडलां.

सगळी : कितें?

मालू : **(लजता)** म्हाका बाये लज दिसता.

चंद्रदेव : येदोळच्यान तुका हांव विंगड विंगड अँगलांतल्यान पळयतालों. तेन्नाच तुज्या मोगाचें बीज म्हज्या काळजांत रोवलें. मालीनी, तुज्या सहवासांत हांव रोहिणीक पसून विसरुन गेलों गो! शुक्र ग्रहा सारकें सुंदर रुप

तुजें, मृगशिर्शांतल्या ताऱ्याबशेन तुजे दोळे, कृतिकेंतल्या ताऱ्यांबशेन दांत तुजे. कशें म्हणून तुजें वर्णन करुं? मालू-मालीनी.

सोमू : डॅडी, डॅडी ह्या चंद्राचें म्हाका धड लागना. पयलीं धांवडाय ताका.

चंद्रकांत : आरे, तो आपल्या संवयीचेर गेला. आरे चांदोबा. आज संकष्टी, लोक वाट पळयतात. चल बेगीन.

चंद्रदेव : चल मालू, चल हांव तुका मळबांतली राणी करतां. चल आमी नखेत्रां बरोबर खेळुया आनी हिन्दी पिक्चरांतली गाणी म्हणून नाचत गायत रावया.

मालू : चल चंद्र. तुज्या मोगान हांव पिशें जालां.

सोमू : मालू, तूंय अशें कितें करता, गो! आमचो मोग विसरलें ?

मालू : हांव कितें करुं सोम? चंद्राच्या गुरुत्वाकर्शणाच्या बळाक लागून म्हज्या काळजांतल्या प्रेमाक भरती आयल्या रे. हांव ताचेकडेन आकर्शित जालां, सोमू.

चंद्रदेव : चल यो मालू.

सोमू : डॅडी....आई.... कितें तरी करात.

चंद्रदेव : चल मालू.

मालू : चल चंद्रू

**(हातांत हात धरपाक वतात. इतल्यांत सुणीं भोंकपाचो आवाज)**

डॅडी : **(उलो मारता)** राहू-केतू. राहू-केतू हांगा येयात. भितर येयात.

चंद्रदेव : **(भियेता)** कोण! राहू-केतू? राहू केतू हांगा कशे पावले? हे राक्षस म्हज्या फाटल्यान हांगाय पावले? **(भोंकपाचो आवाज)** म्हाका वाट दाखयात. हांव वतां.

**(सुणी भोंकपाचो आवाज. चंद्रदेव भायर धांवता)**



# मेळय गिन्यान, पळय गिराण

**पात्रां**

मोहन, दामिनी, आई, देवी, छाया, उपछाया, राहू, केतू, सांयंटीस्ट गम, ज्योतिषाचार्य, डॉ. बबल

**ह्या प्रयोगाखातीर लागपी शास्त्रीय साहित्य :** टॉर्च, बॉल (व्यास १२-१५ सेंमी), फुटबॉल, लायट स्पॉट, उदकाची बाटली, फेणयेची बाटली, दोन समान आकाराच्यो ताटल्यो - एक काळी आनी एक धवी, व्हेल्डींग ग्लास, गिराण पळवपाचें वक्ल, एक नकाशा, पोस्टर वो स्लायड, खग्रास गिराण, खंडग्रास गिराण, कंकण गिराण, डॉयमंड रिंग, बॅलेज बिडस्, कोरोना, गिराण स्पर्शाचे प्रकार, गिराणाचो पट्टो दाखवपी नकाशा.

**(माचयेर एक धवो पडदो आसा. जाचो उपेग जनेल, त्याचवरी स्लायडस दाखोवपाक जाता)**

## प्रसंग १

**(मोहन ऑफिसांतल्यान येता आनी पुरो जाल्ल्यान सोफाचेर बसता)**

मोहन : **(उलो मारता)** दामिनी, दामिनी.

दामिनी : **(येता)** आयलो तूं?

मोहन : मात्सो फॅन लाय. गरम जाता.

**(दामिनी फॅन लायता आनी फुड्यांत येवन बसता)**

मोहन : च्या हाड .

दामिनी : च्या मागीर. पयलीं तुका कितें सांगपाक जाय.

मोहन : कितें? साडी सेल बी पडला काय कितें ?

दामिनी : ना.

मोहन : मागीर

दामिनी : **(लाडांत)** एक मेहमान आनेवाला है.

मोहन : मेहमान? कोण सासूमाय?

दामिनी : सामकोच अनरोमॅन्टीक कसो रे तूं?
**(कानांत सांगता).**

मोहन : **(एकदम उबो रावन)** कितें मै बाप बननेवाला हूँ? तूं माँ बनेनेवाली है? माँ माँ **(उलो मारीत)** आई, आई.

आई : **(आई येता)** कितें जालां?

मोहन : आई तूं दादी माँ म्हणजे आजी जावपाची आसा.

आई : त्याखातीर घर कित्याक माथ्यार घेवपाक जाय? आरे तुज्या बापायन धा जाणांक जन्माक घातलीं पूण एकदांय असो बोवाळ केलो ना.

मोहन : आई, ही फिल्मी दुनिया. अशें करचेंच पडटा.

आई : बरें तें आसूं.आतां दामिनीन सांबाळून रावपाक जाय. चडशेंच खावपाक जाय. हरशीं म्हणून कमी खायना रे. पूण आनी इल्लें चड खाल्लें बरें.

मोहन : आनीक एक कामवाली दवरुया.

आई : दवरिल्ली बरी.आनी हें पळय सहकार भांडारांत खळांतल्यो आमल्यो आयल्यात खंय फोरॅन. त्यो एक दोन कील घेवन यो आनी आयक रे. तें कॅलेंडर हाड पळोवया.

मोहन : कित्याक?

आई : सांगतां मागीर. पयलीं हाड.
**(मोहन कॅलेंडर हाडून दिता)**

आई : आयस् सायबा.

मोहन : कितें जालें आई.

आई : आरे फुडल्या म्हयन्यांत गिराण आसा मरे तेंय खग्रास खंय! सामकेंच कडक. हीं गिराणां कित्याक जातात म्हणून कोणाक खबर. लोकांक त्रासांत घालपाक.

मोहन : आई, आतां ते दीस खंय उरल्यात! गिराणाची कसलीच बाधा जायना म्हणून विज्ञानान दाखोवन दिलां.

आई : तुगेलें विज्ञान घाल रांदनीत व्हरुन. आगो दामिनी हांगा यो. हें पळय दर शुक्राराचो नवस कर. हांव दाखयतां तुका.

दामिनी : उपास करचो पडटलो?

आई : हय.

दामिनी : **(टाळयो मारीत)** उपास करपाक म्हाका खूब आवडटा.

मोहन : डब्बल खावपाक मेळटा न्हय. आई, तुगेलें म्हाका पटना. हांव दोतोराकच विचारतां.

आई : दोतोर कितें सांगतलो, कपल! दामिनी फाल्यां शुक्रार. फायच्यानच नवस सुरु करुंया.

## प्रसंग : २

**(देवीची पुजा चल्ल्या. आई पुराण वाचता. मोहन आनी दामिनी हात जोडून बसल्यांत. मदीं झेमतात)**

आई : आरे आयकात. झेमनाकात. देवी एकाद्री प्रसन्न जायत.

दामिनी : हांव जागेंच आसा. आयकतां. उगीच दोळे धांपल्यात.

मोहन : म्हाका दिसता स्वप्नांत देवी बेगीन प्रसन्न जांव येता.

आई : तोंड धांप आनी आयक.

**(वाचतां वाचतां थंयच न्हिदता. देवी प्रसन्न जाता)**

देवी : उठ माते उठ.

आई : **(दोळे उगडटा)** देवी प्रसन्न जाली. मोहन, दामिनी उठात, बेगीन उठात.

**(दोगांय उठतात, देवीच्या पायांर तकली दवरतात)**

देवी : हांव तुमचेर प्रसन्न जाल्यां. कितें जाय तें बेगीन मागात. म्हाका वचूं जाय. **(घडयाळ पळयता)** टायम जाता.

आई : देवी म्हजी सून गुरवार आसा आनी फुडल्या म्हयन्यांत खग्रास गिराण आसा, ह्या गिराणाची बाधा जावंची न्हय देवी.

देवी : तें सेक्शन म्हजे कडेन ना. पूण हांव तुमकां एक उपाय सांगतां.

आई : सांग देवी.

देवी : हागांच्यान १०० कोसांचेर एक योगी आसा. ताचें नांव ज्योतिषाचार्य. तो तुमकां योग्य मार्ग सांगतलो.

मोहन : पूण ताच्या फुड्यांत वचप कशें?

देवी : हो नकाशा घे. **(दिता)** ह्या नकाशावयल्यान तुमकां वाट कळटली. पूण......

मोहन : पूण कितें देवी?

देवी : तुमी जोडप्यान वचपाक जाय आनी वाट खूप अडचणीची आसा.

मोहन : अडचणीची.... ?

देवी : तुमी भियेनाकात. ही मुदी घे **(दिता)** ही मुदी बोटाक घाल जेन्ना कसलेंय संकष्ट आयलें तर तिचें चुंबन घे.

दामिनी : मागीर कितें जातलें?

देवी : तुमी आपशींच घरा पावतलीं, पूण .. .. .. .

दामिनी : पूण कितें देवी?

देवी : तुमची मोहीम पुराय जावंची ना.

**(देवी नाच्च जाता)**

## प्रसंग : ३

**(मोहन आनी दामिनी एका मोडक्या घरांत भितर सरतात. हातांत ल्हानशी बॅग. बॅगांत टॉर्च. मोहनाच्या हातांत नकाशा)**

दामिनी : आरे सामको काळोख मरे. नकाशांत हे घर दाखयलां ? सारकें पळय रे!

मोहन : **(नकाशा उगडटा)** हें पळय हेंच तें घर, नकाशांत दाखयलां.

दामिनी : भुताटकीचें बी घर न्हय मरे?

मोहन : तूं यो. भियेनाका. मुदी आसाच न्हय.

दामिनी : आरे टॉर्च तरी काड. **(मोहन बॅगांतल्यान टॉर्च काडटा).** फाटल्यान हळूच छाया आनी उपछाया येतात. छाया सामकी काळी, उपछाया मात्सी सावळी. मोहनाक आनी दामिनीक वेगवेगळीं दोरयेन बांदतात

दामिनी : **(आड्डता)** बचाव बचाव.

छाया : पयलीं हातांतलो टॉर्च काड. आमचेर उजवाड घालून आमकां काबार करतलो.

**(उपछाया मोहनांच्या हातांतलो टॉर्च काडून आपलेकडेन दवरता)**

दामिनी : आमकां सोडयात.

मोहन : कोण तुमी?

छाया : ये अस्तुरे कितलो तेप जालो आमी तुजी वाट पळयतात.

मोहन : पूण आमी तुमचें कितें वायट केलां?

छाया : तुमी कांयच वायट करुंना. त्या उजवाडाक आमकां बुद्द शिकोवपाक जाय.

दामिनी : कोण उजवाड?

उपछाया : उजवाड म्हणजे प्रकाश, लायट.

मोहन : पूण ताणे तुमचें कितें वायट केलां?

छाया : उजवाड हो आमचो बापूय.

दामिनी : बापायचेरच कोंत्र.

छाया : हय. बापूय म्हणपाक लज दिसता आमकां.

मोहन : पूण तुमी कोण?

छाया : आमी जुंवळ्यो भयणी. हांव छाया.

उपछाया : हांव उपछाया.

दामिनी : छाया सामकी काळी न्हय!

छाया : जांव काळी.

मोहन : तुजी भयण मात सावळी. पूण तुमी बापायचेर, उजवाडाचेर इतलीं कोंत्र कित्याक?

छाया : ताणें आमकां सदांच आपल्या फाटल्यान दवरलीं. धुवो म्हणून आमचेर नदर पसून घातली ना.

उपछाया : एकदीस तरी आमकां धुवो म्हणून तोडांमुखार धरचीं आसलीं. आमकां काळखाच्यो कैदी करुन दवरल्यांत.

मोहन : तुमच्यो भावना हांव वळखूंक शकतां. पूण तुमचे निर्मिती फाटलें शास्त्र कितें तें सांगशात?

छाया : सांगतां. उपछाया हाचे हात सोडय. तिका तशीच आसूंदी.

**(मोहनाचे हात सोडटा)**

छाया : हो बॉल धर .

**(मोहनाच्या हातांत एक बॉल दिता. बॉल कमीत कमी १२-१५ सेंमी व्यासाचो आसचो. बॉलांत आरपार बडी घालची. एक स्पॉट घेवंचो. ताचो आवाठ बॉलापरस चड आसचो)**

छाया : उपछाया ह्या बॉलाचेर एक स्पॉट घाल.

**(बॉलाचेर स्पॉट घालता. बॉलाची सावळी फाटल्या पड्यार पडटा. सावळी प्रेक्षकांक स्पश्ट दिसची अशीं तजवीज करची)**

उपछाया : हो बॉल अपारदर्शक. अपारदर्शक म्हळ्यार कितें तें खबर आसा?

मोहन : हय. तांतुतल्यान उजवाड आरपार वचना. म्हणून ताची सावळी पडटा.

उपछाया : बरोबर. आतां सांग, उजवाड कोण दिता?

मोहन : हो स्पॉट.

उपछाया : हो जालो प्रकाशाचो स्त्रोत.

मोहन : उजवाडाचो स्त्रोत.

उपछाया : पृथ्वीक उजवाड कोण दिता?

मोहन : सूर्य. सूर्य हो उजवाडाचो स्त्रोत.

उपछाया : व्हॅरी गूड. नाव ओव्हर टू छाया.

छाया : थॅक्यू उपछाया. मिस्टर मोहन हे सावळेकडेन सारकें पळय.

मोहन : यॅस् मॅडम छाया.

छाया : बारीकसाणेन पळय. हे सावळेचे दोन भाग आसात. मदलो भाग काळो. ती हांव छाया. तिच्या भोंवतणी कमी काळी आनी विरळ अशी सावळी आसा ती......

उपछाया : हांव उपछाया.

छाया : आमी दोगांय सदांच बरोबर आसतात.

उपछाया : छाया सदांच मदीं आसता आनी तिच्या भोंवतणी सदांच आसता ती...

मोहन : उपछाया.

छाया : छायेंत रावन जर तुवें सुर्याच्या वटेन पळयलें तर तुका अशें दिसतलें किं सुर्याचो गोल पुरायेन अपारदर्शक वस्तीच्या फाटल्यान लिपला.

मोहन : आनी उपछायेंतल्यान पळयल्यार?

उपछाया : उपछायेंतल्यान तुका सुर्याचो थोडो गोल दिसतलो. थोडो भाग लिपिल्ल्यावरी दिसतलो.

छाया : अशें आमचें शास्त्र.

मोहन : थॅक्यू. आतां आमकां वचूंक दी. प्लीज दामिनीक सोडयात.

छाया : **(मोठ्यान हांसता)** सोडयात? आरे इतल्या वर्सानीं ही अस्तुरी आमचे तावडींत सापडल्या. तिका आनी सोडय?

मोहन : पूण तिणें केलां तरी कितें ?

छाया : तिचो बळी दिवपाक जाय.

मोहन : बळी!

उपछाया : बळी दिवून चांडाळ देवीक प्रसन्न करपाक जाय.

छाया : चांडाळ देवीक प्रसन्न करुन आमकां उजवाडाचो नाश करपाक जाय.

दामिनी : **(आड्डता)** नहीं.

उपछाया : छाये कितल्या वेळान बळी दिवपाचो?

छाया : एक वर उरलां.

उपछाया : हें वर कशें काडपाचें?

**(हातांतलो टॉर्च सकयल दवरता)**

छाया : कितें तरी मनोरंजन करपाक जाय आशिल्लें. ये मोहन चलो नाचो.

मोहन : नाचो?

उपछाया : हय रे. चल नाचूंक लाग.

दामिनी : नहीं. **(आडुता)** नहीं मोहन. हमारा इज्जतका सवाल है.

मोहन : दामिनी काळीज घट्ट धर.

**(नाचूंक लागता)**

ये जबतक है जान मै नाचूंगी....

दामिनी : नाचूंगी न्हय नाचूंगा.

**(मोहन पद म्हणीत नाचत नाचत उपछाये फुड्यांत वता आनी टॉर्च काडटा. छाया उपछाया भितात)**

मोहन : **(टॉर्च हातांत धरुन)** जाग्यावयलीं हालूं नाकात. हात वयर करात.

**(छाया उपछाया हात वयर करतात. मोहन दामिनीचे हात सोडटा)**

मोहन : जाग्यावयलीं हालूं नाकात. टार्च पेटोवन तुमचो नाश करतलों.

छाया : आडाय ताका.

उपछाया : कशीं आडांव? ताणे उजवाड घातल्यार आमचो नाश जातलो.

**(मोहन आनी दामिनी धांवत भायर वतात)**

## प्रसंग : ४

**(मोहन आनी दामिनी धांवत धांवत येतात आनी खर्शेत एका फातराचेर बसतात)**

दामिनी : बरें जालें ह्या राक्षणींच्या तावडींतल्यान सुटलीं.

मोहन : हय. एक मात फायदो जालो.

ामिनी : कसलो?

ोहन : सावळे विशीं आमकां म्हायती मेळ्ळी.

ामिनी : सावळेचे दोन भाग आसतात तर.

ोहन : एक छाया आनी दुसरी उपछाया. छायेंतल्यान पळयल्यार उजवाडाचो स्त्रोत पुरायेन आडावता.

ामिनी : उपछायेंतल्यान उजवाडाच्या स्त्रोताचो कांय भाग दिसता. दोगांयची कथा कितली मजेशीर न्हय!

**(फाटल्यान हळूच दोन राक्षस येवन बसतात)**

ामिनी : आवयस्स्.

**(हात हालयता)**

मोहन : कितें जालें?

दामिनी : हात दुखता.

मोहन : पळोवया. **(पळयता)** आरे, हातांतल्यान रगत येता.

दामिनी : रगत? आवयस्स् कितें लागलें?

मोहन : झाडाचो काटो लागला आसतलो. भियेंव नाका. म्हजेकडेन वखद आसा.

**(बॅगेंतली बाटली काडटा)**

दामिनी : ही काजू फेणी कित्याक हाडल्या?

मोहन : आगो आतां ही फेणी न्हय, हें अमृत. अमृत कित्याकय उपकरता.
**(बाटली उगडून दामिनीच्या हाताक लायता. दामिनी हाय हूय करता. राक्षस-वास घेतात)**

दामिनी : बाटली म्हजेकडेन दी हांव लिपोवन दवरतां. नाजाल्यार तूं मदीं मदीं कुट्ट करीत रावतलो.

**(बाटली लिपोवन दवरता)**

राक्षस : **(फुडें येतात)** अमृत! अमृत! खंय आसा अमृताची बाटली? दी आमकां पयलीं दी.

दामिनी : आरे बापरे! हे आनी कोण राक्षस?

राहू : हांव राहू.

केतू : हांव केतू.

मोहन : राहू-केतू?

राहू : अमृत खंय लिपयलां? पयली सांगात.

दामिनी : अमृत. खंयचे अमृत?

मोहन : **(कानांत)** आगो तो फेणयेची बाटली म्हणटा.

राहू : देवानी आमकां फटयले. सगळ्या देवांक अमृत वाटलें आनी राक्षसांक मात फटयले .आमी दोगांयनीय एक एक थेंब मिळयलो. पूण अमृताची रुच आजूनय वचना.

केतू : खंय आसा तें अमृत. नाजाल्यार तुमकां खातां.

मोहन : हें पळय तुमकां अमृत दितां पूण तुमी हागां कितें करतात तें सांगात पयलीं.

राहू : आमी गिराण लावपाक आयल्यात.

दामिनी : गिराण?

केतू : **हय**. फुडल्या म्हयन्यांत सुर्यगिराण लावपाचो आमचो बेत आसा.

मोहन : पूण, हें तुमी कशें करतात.

राहू : सांगतां, पूण आमकां अमृत दितलो न्हय?

मोहन : हय.

राहू : खरें म्हळ्यार गिराणां खगोलशास्त्राच्या नियमा प्रमाण घडटात. आमचें काम समाजांभितर गिराणां विशीं भिरांत निर्माण करपाचें. ज्योतिशाचार्यान आमकां हे मोहिमेचेर धाडल्यात.

मोहन : अशें! पूण गिराणां लागतात तरी कशी?

केतू : चंद्र पृथ्वी भोंवतणी फिरता. त्यावरी पृथ्वी चंद्रासयत सूर्याभोंवतणी फिरता. त्याखातीर हीं गिराणां घडटात.

मोहन : पूण कशी?

राहू : केतू, तांकां अशे तरेन कळपाचें ना.

केतू : बरें, आतां अशें करुंया.

**(दोन बॉल, एक फुटबॉल आनी १२-१५ सेमी व्यासाचो प्लास्टीक बॉल. दोनय तकलेक घालपाक मेळटात अशी तजवीज करची)**

ल्हान बॉल हो चंद्र, मोहन हो तूं तुज्या तकलेक घाल. **(ताका दिता)** ही पृथ्वी दामिनीच्या तकलेर **(फुटबॉल तकलेर दवरता).** दामिनी तूं मदीं एका जाग्यार उबें राव पळोवया. **(दामिनी रावता)** व्हॅरी गूड. आता तूं मोहन, दामिनी भोंवतणी प्रदक्षिणा घाल. **(मोहन प्रदक्षिणा घालता)** आतां राव. राहू तूं हो स्पॉट घे. तूं सूर्य.

**(टिप : सूर्य,चंद्र आनी पृथ्वी सगळ्यांची उंचाय सारकी आसची)**

मोहन : आतां कितें?

केतू : चंद्र पृथ्वी भोंवतणी कसो फिरता हें तुवें पळयलें. आतां पळय मोहन, तू राहू आनी दामिनी हांचे मदीं राव. **(मोहन रावता)** व्हॅरी गूड! चंद्र, पृथ्वी आनी सूर्य हांच्या मदीं येता तेन्ना उमास घडटा.

दामिनी : म्हणजे ही उमास जाली?

केतू : उमासेक चंद्राची सावली पृथ्वीचेर पडटा. ताका सूर्य गिराण म्हणटात. राहू लायट लाय.

**(स्पॉट लायता. चंद्राची सावळी पृथ्वीचेर पडटा. सावळी दाखयता)**

मोहन : सूर्य गिराण म्हणजे चंद्राची सावळी पृथ्वीचेर पडटा इतलेंच?

राहू : आतां लक्षात धर हें फकत उमासेकच घडूं शकता.

केतू : आनी मोहन आतां तूं अर्दी प्रदक्षिणा घाल पळोवया. **(मोहन तशें करता)** आतां कितें जालें सांग.

मोहन : पृथ्वी मदी उरली.

केतू : सूर्य, पृथ्वी आनी चंद्र एके वळींत आयल्यात आनी पृथ्वी मदीं.

दामिनी : ही पुनव जाली न्हय.

केतू : करेक्ट ही पुनव. राहू लायट लाय **(स्पॉट लायता. पृथ्वीची सावळी**

**चंद्रार पडटा)** हें पळय. पृथ्वीची सावळी चंद्रार पडटा हाकाच चंद्र गिराण म्हणटात.

राहू : लक्षांत धर. चंद्रगिराण फकत पुनवेकच घडूंक शकता.

दामिनी : गिरांणां म्हणजे सावळ्यांचो खेळ म्हणपाचो.

राहु : एकदम सारकें उलयलें.

मोहन : पूण,म्हाका आजूनय एक दुबाव येता.

केतू : कितें? सांग

मोहन : दर उमासेक आनी पुनवेक गिराण कित्याक लागनांत?

केतू : एकदम बरो प्रश्न. मोहन तूं परतो मदीं यो. **(मोहन मदी येता)** ही कितें?

मोहन : ही उमास. सूर्य,चंद्र आनी पृथ्वी एके वळींत आसात आनी चंद्र मदीं.

केतू : राहू लायट लाय. **(चंद्राची सावळी पृथ्वीर पडटा)** हें जालें सूर्य गिराण. हें कित्याक जालें?

मोहन : सूर्य, चंद्र आनी पृथ्वी एके वळींत आयल्यांत.

केतू : पूण अशें दर उमासेक जायना.

मोहन : मागीर कितें जाता तर?

केतू : मोहन तूं मात्सो दिमी मोड. आतां पळयात सावळी पृथ्वीचेर पडटा?

मोहन : ना.

केतू : कित्याक?

मोहन : सूर्य,चंद्र आनी पृथ्वी एके वळींत नांत.

केतू : जरी चंद्र,सूर्य पृथ्वीच्या मदीं आसलो तरी एके वळींत ना. म्हणून चंद्राची सावळी पृथ्वीचेर पडटा. पुनवेंकय तशेंच जाता. म्हणून दर उमासेक आनी पुनवेक गिराणां घडनांत.

मोहन : म्हणजे हे तिनय मळबांतले गोल क्वचीतच एका वळींत येतात म्हणपाचें!

राहू : ताकाय शास्त्र आसा.

मोहन : कसलें शास्त्र?

राहू : तें तुमकां समजचेलें न्हय.

मो न : अशें! पूण हें खग्रास गिराण म्हणजे कितें?

केतू : बरें आयक. चंद्र हो गोल आसा म्हणून ताची सावळी... .

मोहन : पृथ्वीचेर गोल पडटा.

केतू : गोल पडपाक जाय. पूण पृथ्वी आनी चंद्र फिरत आशिल्ल्यान हे सावळेचो एक पट्टो पृथ्वीचेर पडटा. **(फाटल्या पडद्याचेर स्लायड वा पोस्टर दाखोवंचे)** हो असो सावळेचो पट्टो पडटा.

राहू : ह्या पट्ट्याचे दोन भाग आसात.

दामिनी : छाया आनी उपछाया.

राहू : एकदम बरोबर. **(चित्राकडेन दाखोवन)** हो काळो पट्टो म्हणजे छाया. ह्या छायाच्या खाला आशिल्ल्या सगळ्या वाठारांत सुर्याचो गोल पुरायेन आडायल्लो दिसतलो. ताकाच खग्रास सूर्य गिराण म्हणटात. म्हणजेच टोटल सोलर एक्लिप्स.

दामिनी : जे वाठार उपछायेच्या खाला येतात तांका सुर्याचो थोडो भाग आडायल्लो दिसतलो.

केतू : ताकाच खंडग्रास म्हणजेच पार्शल गिराण म्हणटात.

राहू : केन्ना केन्ना गिराणाच्या वेळा चंद्र पृथ्वी सावन बरोच पयस उरता. तेन्ना खग्रास गिराण घडना. कारण सुर्याची भायली कड दिसता. ताकाच कंकण गिराण म्हणजेच ॲनुलर एक्लिप्स अशें म्हणटात. एक चकचकीत मुदी शी दिसता.

**(स्लायड वा पोस्टर दाखयता)**

केतू : अशें गिराण खूब कमी प्रमाणांत घडटा.

राहू : १५ जानेर २०१० वर्सा अशें कंकण गिराण भारतांतल्यान दिसतलें

मोहन : म्हाका एक सांगात हो सावळेचो पट्टो कितलो लांब आनी रुंद आसता?

राहू : तें प्रत्येक गिराणाचेर अवलंबून आसता. पूण सरासरी हो पट्टो १६० किलोमीटर रुंद, लागीं लागीं १० ते १५ हजार किमी लांब आसूं येता. खुबश्या वेळार हो अशीरच्च आसता.

केतू : राहू, आरे पुरो जालें. म्हायती दिली आमी. चल रे बेगीन. खंय आसा ती बाटली?

मोहन : बाटली?

राहू : ये फटींगपण करिनाका. हाड ती अमृताची बाटली.

मोहन : आं, चल गो दामिनी खंय दवरल्या ती बाटली. दी तांका.

दामिनी : खंय दवरल्या हावें? आं! याद जाली.

**(बाटली काडटा. राहू केतू बेगी बेगीन झोपय मारतात आनी मोठ्यान मोठ्यान हांसतात. दोगूय मोहनाचे आनी दामिनीचे हात फाटल्यान बांदतात)**

मोहन : हें कितें विश्वासघात?

दामिनी : घातकी!

राहू : हें सगळें आमी मानवां कडल्यानच शिकल्यात.

दामिनी : पूण आमकां बांदल्यांत तरी कित्याक?

राहू : अमृत पितगर नरमांस खावपाक मजा येता.

दामिनी : नरमांस म्हणजे तुमी आमकां मारुन खातले? मोहन, आमी आतां वतात रे वयर.

**(मोठ्यान रडटा)**

मोहन : ओग्गी बस. आनी तकली थंड दवर.

**(राहू-केतू एक एक घोट घेतात)**

राहू : हे खेपे म्हाका अशें गिराण लावपाक जाय किं एकलो पसून मनीस घरांतलो भायर सरचो ना.

केतू : राहू,ते दीस गेले आतां.मनशान विज्ञानाच्या बळार खूप प्रगती केल्या. आतां ते आमकां आयकनांत.

राहू : कसली विज्ञानाची प्रगती? आरे ते सदांच अंधश्रध्देच्या प्रभावा खालाच उरतले.

केतू : १९९५ आनी १९९९ ह्या वर्सानी खूब लोकांनी रस्त्यार येवन गिराण पळयलें.

राहू : आरे, आनीक एक घोट दी रे. **(दोगूय एक एक घोट घेतात)** बरी लागली न्हय.

केतू : हे मात्शें कडक लागता. पूण बरें लागता न्हय?

राहु : हय.

केतू : **(आडखळत)** हें पळय राहू. पृथ्वीवयले विज्ञाननीष्ठ लोक आनी संघटना आमचे विरुध्द बरोच प्रचार करतात.

राहू : करुं दीं! करु दी! **(आडखळत)** आरे भारतांतले एक तरी गुरवार बायलेक गिराणां दिसा भायर येवपाची कापस्ताद आसा?

**(दोगूय बडबडटात)**

मोहन : **(हळूच)** ये दामिनी हांगा यो. दातांनी ही दोरयेची गांठ सोडय.

दामिनी : कशी?

मोहन : आगो हिन्दी पिक्चरांनी पळयलें ना?

दामिनी : पिक्चरांनी जाता म्हणून प्रत्यक्षांत जावपाक नाका?

मोहन : तूं प्रयत्न कर.

दामिनी : **(दांतानी गांठ सोडयता)** सुटली.

मोहन : **(दामिनीचे हात सोडयता)** चल आतां हळूच धांव.

**(मोहन-दामिनी धांवत वतात. राहूचें लक्ष तांचेर पडटा)**

राहू : आरे, धांव. धर तांकां. तीं सुटलीं. धांव धांव.

**(राहू-केतू तांच्या फाटल्यान धांवतात)**

## प्रसंग : ५

**(मोहन, दामिनी धांवत येतात)**

दामिनी : राव राव पुरो जालें.

मोहन : ह्या राक्षसांच्या तावडींतल्यान सुटलीं.

दामिनी : आतां आनी कितलीं अवर्शणा येवपाचीं आसात म्हणून कोणाक खबर.

मोहन : आजूनय आमकां मुदयेची गरज लागली ना न्हय?

दामिनी : हय गरज पडना जाल्यार पुरो. नाजाल्यार आमचें ज्योतिषाचार्याकडेन पावप शक्य जावचें ना. म्हाका सामकी तान लागल्या.

मोहन : राव. **(उदकाची बाटली काडटा)** आगो उदक सोपलें.

दामिनी : आतां उदक खंय मेळटलें? नकाशांत पळय रे बांय बी खंय लागी आसत.

मोहन : **(नकाशा पळयता)** ना. मुखार वाटेर कांयच ना. रस्तो सरळ ज्योतिषाचार्याकडेन वता.

दामिनी : चल बरेंच जालें.

**(दोगांय कांय पावलां मुखार वतात)**

मोहन : **(फुडें पळयता)** राव गो तें मुखार घर कशें?

दामिनी : कशें म्हणजे!

मोहन : नकाशांत अशें घर दाखोवना. चल पळोवया कितें आसा तें तरी!

दामिनी : नाकारे त्यो भानगडी. आता सरळ ज्योतिषाचार्याकडेन या.

मोहन : पूण वाट त्या घराकडल्यानच वता न्हय. चल या.

**(कांय पावलां मुखार वतात)**

दामिनी : ये, त्या घरा मुखार एक बादली आसा. उदकाची आसतली.

मोहन : चल धांव. **(धांवत वतात. बादलेक हात लायतात त्या बरोबर उदक**

**नाच्च जाता)** आरे हात लायल्यार उदक ना जालें ही परत भुताटकी. ओग्गी आयलीं हांगां.

**(सायंटीस्ट गम घरांतल्यान भायर येता)**

गम : हीं भुताटकी न्हय. तुमी मृगजळा फाटल्यान लागल्यांत.

मोहन : मृगजळ ? म्हणजे.

गम : विज्ञानान इतलें ज्ञान तुमच्या मुखार हाडलां. तरीय भ्रामक गजालीचेर विश्वास दवरुन अंधश्रध्दांचो सोद घेवपाक भायर पडल्यांत. बरें, तुमकां तान लागल्या न्हय. ही घेयात उदकाची बाटली

**(उदकाची बाटली दिता)**

मोहन : **(उदक पिवन)** पूण तुमी मर्दींच कशे आयले?

गम : मर्दींच कशे म्हणजे.

मोहन : आमच्या नकाशांत तुमचें हे घर कशें ना ?

गम : खग्रास गिराण लागपाचें आसा. ताचीं निरीक्षणां करपाक हांगा आमी कॅम्प लायतले.

दामिनी : फुडल्या म्हयन्याक गिराण लागतलें न्हय.

गम : हय. तुमकां कशे कळ्ळें.

दामिनी : राहू केतून सांगलां.

गम : राहू केतू ? कोण राहू केतू.

दामिनी : दोन राक्षस

गम : ते राक्षस न्हय. ज्योतिषाचार्यान तांका गिराणां विशी समाजांत भिरांत घालपाक धाडल्यात. तांचीं पोटां भरपाचीं हीं कारस्थानां.

मोहन : राहू-केतू म्हणून पुराणांत आसात न्हय. गिराणांच्या वेळार ते चंद्राक गिळटात म्हणटात.

गम : त्यो पुराणांतल्यो खबरी. प्रत्यक्षांत राहू-केतू हे पृथ्वीच्या भ्रमण कक्षे वयले दोन भुमितीय बिंदू.

मोहन : बिंदू?

गम : हय. फकत बिंदू . संस्कृतांत तांका राहू केतू म्हणल्यात तर इग्लिशींत तांका असेंडींग नोड (Ascending Node) आनी डिसेंडीग नोड (Descending Node) अशें म्हणटात.

दामिनी : ते ग्रहय न्हय.

गम : न्हय. ते तारेय न्हय, ग्रहय न्हय आनी राक्षसय न्हय.

मोहन : मागीर त्या दोन बिदूंचें म्हत्व कितें?

गम : ह्या राहू केतू दोन बिंदूच्या स्थानांवयल्यान गिराणां केन्ना लागतलीं हे समजता. बाय दी व्हे तुमचीं नावां कितें?

मोहन : हांव मोहन आनी म्हजी बायल दामिनी.

गम : गुड हांव सायंटिस्ट गम.

दामिनी : गम नवीनच शें.

मोहन : सायंटिस्ट गम, गिराणां दर पुनवेक वा उमाशेक लागतलीं अशीं भाकितां तुमी कशें करतात?

गम : एकदम बरो प्रश्न. येदोळ सांगलां त्याप्रमाण गिराणां लागपाक दोन गजालींची गरज आसा. एक पुनव वा उमास आसपाक जाय आनी दुसरी गजाल राहू केतूचें स्थान.

मोहन : तें तुमकां कशें कळटा?

गम : आतां आमचेकडेन कॉम्पुटराइझ मॉडेल आसात. तेचवरी तांचीं गणिती सुत्रां आमकां आसात. हें गणिती सुत्र तुमकां सांगतां.

दामिनी : गणीत? नाका नाका. पुरो. म्हाका कितें जाता.

**(घुंवळ येवन पडटा)**

गम : कितें जाले? उदक मार.

**(उदक मारता)**

मोहन : भिवपाचें कायंच ना. म्हजेकडेन वखद आसा.

गम : पूण जालें कितें तिका.

मोहन : गणीत ह्या शब्दाची ताका ॲलर्जी आसा. तिनवेळां तें एस् एस् सी

फेल जालें फकत गणिताक लागून.

**(बॅगांतली बाटली काडून दामिनीच्या नाकाकडेन धरता. तें शुध्दीर येता आनी आमली रुचीन खाता)**

गम : आय एम् सो सॉरी. हें कितें?

मोहन : खळांतली आमली. तुमकां जाय?

गम : रुच आयली.

**(तिगांय आमली खातात)**

मोहन : सायंटीस्ट गम, म्हाका एक सांगात चंद्र हो सुर्यापरस सामको ल्हान तरीय सुर्यगिराणाच्या वेळार चंद्रा फाटल्यान सूर्य पुरायेन लिपता कसो?

गम : ताचें कारण म्हणजे तांचे भितरल्लीं अंतरां. सूर्य, चंद्रापरस चारशें पटीन व्हडलो. त्याचबरोबर तो चंद्रापरस चारशें पटीन पयस. म्हणून चंद्र सुर्याक सारको लिपयता.

दामिनी : कितें योगायोग पळय.

गम : हो एक मोठो सैमीक योगायोग. जर चंद्र मातसो ल्हान आशिल्लो वा चंद्र पृथ्वी सावन मात्सो पयस आशिल्लो तर आमकां खग्रास गिराण केन्नाच दिसचें नाशिल्ले.

मोहन : अशें! पूण चंद्र लागीं आसा आनी सूर्य इतलो पयस आसा अशें आमकां दिसना. ते फाटीफुडें आसात हें आमकां कशें कळना?

गम : मळबांत आमकां सूर्य, चंद्र, तारे दिसतात तांचें अंतरांभीतर खूब फरक आसा. ते फाटी फुडें आसनात. पूण आमच्या दोळ्यांक असो भास जाता कि ते एका पडद्याचेर आसात. ताकाच टू-डायमेंन्शनल इफेक्ट (2-dimensional effect) अशें म्हणटात. तांच्या भितल्ल्या खोलायेचो अंदाज कळना.

मोहन : तशें जाल्यार सूर्य गिरणाच्या वेळार मळबांतलो देखावो कसो दिसतलो?

गम : दाखयतां.

**(दोन समान व्यासाच्यो ताटल्यो घेता. धवी ताटली ती सूर्य**

**आनी काळी ती चंद्र. काळी ताटली फुडें आनी धवी फाटल्यान धरता. ही धवी ताटली सूर्य अशें मानुया आनी ही काळी चंद्र. काळी ताटलेची कड, धव्या ताटलेक सकयल्यान तेंकंयता. आतां चद्राची कड सुर्याक लागता. आतां गिराण सुरु जाता. हाका पयलो स्पर्श म्हणटात. काळी ताटली धव्यावयल्यान सवकास सरकायता)**

आतां खंग्रास गिरण सुरु जाता.

**(धव्याची भितरली कड, काळ्याचे भायले कडेक तेंकता. )**

हाका दुसरो स्पर्श म्हणटात. आतां खग्रास गिराण सुरु जालें.

**(आतां विरुध्द कडो जुळटात)**

हाका तिसरो स्पर्श म्हणटात. आतां खग्रास गिराण सोपता.

**(हळू हळू काळी धव्यावयल्यान सरकत व्हरता आनी दोगांयच्यो भायल्यो कडो जुळटात)**

आता हो चवथो स्पर्श. आतां गिराण सुटलें. असो आमकां प्रत्यक्ष गिराणांचो भास जाता.

**(वयलें प्रात्यक्षिक चालू आसतना. फाटल्या पडद्यार स्लायडस् वा पोस्टरां दाखोवन वेगळे वेगळे स्पर्श दाखावंचे)**

दामिनी : तुमकां गिराणाचें इतलें म्हत्व कित्याक?

गम : चंद्रगिराणापरस आमकां खग्रास सुर्यगिराण म्हणजे एक पर्वणीच.

दामिनी : कित्याक?

गम : सूर्य, एक प्रचंड तापमानाचो उज्याचो गुळो. ताचेकडेन आमकां सरळ पळोवपाकच मेळना.

दामिनी : पूण सुर्याकडेन पळोवन कितें मेळपाचें आसा!

गम : सुर्या वयलें वातावरण, ताच्या वयल्या वायुंचो अभ्यास करप शक्य जायना. खग्रास गिराणाच्या वेळार सुर्याचे प्रखर किरण आडावतात म्हणून त्या वेळार असो अभ्यास करप शक्य जाता. लक्षांत धर सुर्याच्या वातावरणाचो अभ्यास करपाक खग्रास गिरण हो एकच

योग आसा.

**(बाळकी येता)**

मोहन : पूण आमच्या सारख्या सरसकट मनशाक खग्रास गिराणाचें व्हडलें आकर्शण कसलें?

गम : खग्रास गिराणाचें दृष्य इतलें अद्‌भूत आसता किं प्रत्येकाच्या आयुष्यांत एकदां तरी हें खूब सुंदर दृष्य पळोवपाची संद आसता.

मोहन : ताचो फोटो बी आसा?

गम : शॅडो बॅन्डस्‌चो फोटो ना. पूण हो फोटो पळय.

**(पड्यार डायमंड रिंगाचो फोटो वो स्लायड वो पोस्टर)**

दुसरो आनी तिसरो स्पर्श जावंचे अर्दे मिनीट पयलीं अशें दृष्य दिसता ताका डायमंड रिंग म्हणटात. ताच्या उपरांत **(पड्यार बॅलेच बिडस् फोटो वो स्लायड वो पोस्टर अशें दृष्य दिसता)** हाका बॅलेच बिडस् अशें म्हणटात.

दामिनी : नेकलेस सो! कितलीं सुंदर हीं दृष्यां न्हय! म्हाका हे खेपे गिराण पळोवपाकच जाय.

गम : हीं दृष्यां पळयतगर लोक खोशयेन नाचपाक लागतात. हाच्या उपरांत खग्रास गिराण सुरु जाता. त्यावेळार सुर्याचें वातावरण स्पष्ट दिसता. **(पड्यार कोरोनाचो फोटो वो स्लायड वो पोस्टर)** ताकाच कोरोना म्हणटात.

मोहन : व्वा. वर्णनच करूं शकनात.

दामिनी : हो योग चुकवपाचो ना.

गम : तुमी हें गिराण पळयातच.

**(दोन-तीन वेळा बाळकी येता)**

दामिनी : परतें परतें अशें कितें जाता?

गम : आमलेची ॲलर्जी जाल्या. नथींग सिरिअस्.

दामिनी : इल्लें उदक पियात.

**(गम उदक पिता)**

मोहन : दर वर्साक गिराणां लागनांत?

गम : कमीत कमी वर्साक दोन सूर्य गिराणां आसतातच. पूण खग्रास सूर्य गिराणां मात खूप कमी.

दामिनी : मोहन, आमी या आतां वेळ जातलो.

गम : तुमी खंय वतात ह्या आड मार्गान?

**(बाळकी)**

दामिनी : आमकां ज्योतिषाचार्याकडेन वचपाचें आसा.

गम : तुमी कित्याक वतात. तो तुमकां आपल्या मोहजालांत बांदून घेतलो. सगळो समाज ताणें आपल्या मोहजालांत भ्रमीष्ट करुन वडयला. एकदां ताच्या तावडींत सापडलो किं तातुंतल्यान भायर सरप कठीण. आमच्या विज्ञानान इतली प्रगती करुन सुध्दा आमच्या समाजाक ताच्या मोहजालांतल्यान मुक्त करप आमकां शक्य जालें ना.

**(बाळकी)**

दामिनी : पूण आमकां ताचे कडेन वचूंकच जाय.

गम : कित्याक?

**(बाळकी)**

दामिनी : हांव गुरवार आसां. गिरणाचो आमच्या भुरग्याचेर वायट परिणाम जावंचो न्हय म्हणून ताचे कडेन उपाय विचारपाक जाय.

गम : **(बाळकी)** तुमकां आतां ज्ञान मेळटा न्हय. **(बाळकी)** तुमी विचार करात **(बाळकी)** आनी ठरयात **(बाळकी)** आवयस् उलोवपाकच जमना.

मोहन : आमकां वचूंकच जाय सायंटिस्ट गम.

**(गम कितें तरी उलोवपाक सोदता पूण ताका परत्यो परत्यो बाळकी येतात. खुणेन तांका नाका नाका म्हणटा)**

मोहन : बरें गम तूं न्हिद. गुड बाय.

**(वतात)**

## प्रसंग : ६

**(मोहन, दामिनी चलत येतात)**

दामिनी : आनी कितलें पयस वचपाचें आसा?

मोहन : **(नकाशा उगडटा)** आनी बरीच वाट आसा मुगो.

दामिनी : वाटेर आनी कितें लागना मरे, राक्षस बी!

मोहन : सांगपाक जायना.

दामिनी : हो सायंटीस्ट गम मात आमकां बरो मेळ्ळो. तुवें ताका आमली ओगीच दिली. आनी खुबशी म्हायती सांगतलो आशिल्लो.

मोहन : पूण आमी आतां ज्योतिशाचार्याकडेन कित्याक वतात?

दामिनी : कित्याक म्हणून कितें विचारता. पिशें बी लागूना मरे! इतलीं संकश्टां आमी पार केल्यांत आनी आतां तूं हें कितें विचारता!

मोहन : पूण गिरणांविशी सगळी म्हायती आमकां मेळ्ल्या न्हय.

दामिनी : तें बरोबर, पूण आमच्या पोटांतल्या भुरग्याचेर गिराणाचें बरे वायट परिणाम जातले काय ना, हें कशें कळटलें?

मोहन : आगो सायंटिस्ट गम म्हणटालो किं आमकां जें ज्ञान मेळ्ळां त्याप्रमाण विचार करात म्हणून.

दामिनी : पूण आमी कसो विचार करप? हें ऐन वेळार तुगेले नाका आशिल्ले विचार नाकात. आमी ज्योतिशाचार्याक मेळ्ळे बगर वचप ना.

मोहन : आगो विचार तरी कर.

दामिनी : कसो विचार करुं? हावें केन्नाच विचार म्हणून केलो ना. आवय बापायन अमकें कर म्हणून सांगलें तें हावें केलें. तुजेकडेन लग्न कर म्हणून सांगलें. ते हावेंय केले आनी तुवेंय केलें. त्यावेळार तुवें कितें विचार केल्लो?

मोहन : आगो तो वेळ वेगळो आनी आतां वेगळें. ज्योतिशाचार्याकडेन वचपाक म्हजो कायंच विरोध ना. पूण तो खंय मनशांक मोहजालांत घालता.

दामिनी : हय खंय. पूण देवीचें उतर कशें मोडप आनी आमच्या प्रश्नाची जाप कशी मेळटली!

मोहन : पूण ज्योतिषाचार्याक आमकां गरज आसल्यारच मेळपाचें न्हय!

दामिनी : पूण आमच्या प्रश्नाची जाप?

मोहन : आगो, आता पळय सूर्य गिराण कशें जाता?

दामिनी : चंद्र सुर्याच्या आड येता आनी ताची सावळी पृथ्वीचेर पडटा.

मोहन : सावळी पडल्यार कितें जाता!

दामिनी : कितें जाता?

मोहन : म्हणजे पृथ्वीचेर सावळी पडल्यार कितें वायट जाता?

दामिनी : वायट किरण येईत बी.

मोहन : वायट किरण खंयच्यान येतले. किरण येतात तेय चंद्र आडावन धरता.

दामिनी : पूण वातावरण एकाद्रे इबाडूं शकता.

मोहन : कशें?

दामिनी : चंद्र मदीं येता तो एकाद्रो तापता आसतलो.

मोहन : हें पळय, चंद्राच्या अर्ध्याभागार सदांच सुर्याचे किरण पडटात. फकत गिराणादिसाच पडटात अशें ना. दुसरी गजाल म्हळ्यार चंद्र दर उमासेक पृथ्वी-सूर्य हांचे मदीं येता. फकत तो गिराणां दिसा एके ओळींत येता इतलोच फरक.

दामिनी : पूण ताचेवयल्यान वायट वायू येवूं शकतात.एक ओळींत आशिल्ल्यान सरळ पृथ्वीचेर पावतले.

मोहन : तशें जावूंकच शकना. कारण चंद्राचेर वातावरण ना. म्हणजे वायूच नात. दुसरें म्हणजे चंद्राचो वयलो भाग घट्ट फातरांचो आसा ताचें बाश्परुप जावपाची शक्यताय कमी. आनी सदांच चंद्राचेर सुर्याचे किरण पडटात. म्हणून गिराणाच्या दिसा वेगळें आनी कितें घडटा अशें म्हणूं येना.

दामिनी : तुजें म्हाकाय पटपाक लागलां. गुरवार बायलेचेर वायट परिणाम जातात अशें समजुपाक कसलोच आधार दिसना.

मोहन : आनी मनशाचेर जर परिणाम जातात अशें आमी मानलें तर जनावरांचेर कित्याक जायनात?

दामिनी : हय मरे. गाय, माजरां. सुणीं हांचीं पिलांय व्यंग जावपाचीं न्हय?

मोहन : तीं खंय गिराणां दिसा काळखांत न्हिदून रावतात? म्हणून म्हणटां गिराणां दिसा अन्न खावप ना, गुरवार बायलेन काळखां कुडीत न्हिदून रावप म्हणटात ताका अर्थ ना.

दामिनी : इतलेंच न्हय तर आंग खरपुवपाक जायना, आंवडो घोटपाक जायना अशेंय म्हणटात.

मोहन : भारतांतल्या कांय भागांनी लोक घराच्या भायर येनात. कांय लोक ढोल वाजोवन गिराणाक धांवडायतात खंय.

दामिनी : **(हांसता)** गिराणाक धांवडायतात? राहू-केतूक धांवडायतात आसतले.

मोहन : ह्यो सगळ्यो गिराणाकडेन जोडलेल्यो अंधश्रध्दा. गिराण सोपतगर खुबशे लोक न्हावनय घेतात. कांय लोंक न्हंयत न्हावन पवित्र जातात अशें म्हणटात.

दामिनी : ह्यो अंधश्रध्दा नष्ट करपाक गिराणां विशीं शास्त्रीय म्हायती आमच्या समाजांत पसरपाक जाय.

मोहन : चल या आमी घरा.

दामिनी : गेल्लीं बरीं.

**(फाटल्यान आवाज येता)**

ज्योतिषा : हरामखोरांनो, पयलीं फाटीं सरात .

**(भितर येता. मोहन, दामिनी फाटल्यान पळयतात)**

मोहन : कोण?

ज्योतिषा : हांवच तो ज्योतिषाचार्य.

मोहन : तुमी हांगाच आसात?

ज्योतिषा : जंय गरज ना, थंय हांव सदांच आसतां. म्हाका मेळना आसतना तुमी वतात? तुमी चड ज्ञानी समजतात?

मोहन : ना आचार्य, आमकां आमच्या प्रश्नाचीं उत्तरां मेळ्ळीं. म्हणून आमी परतीं वतालीं.

ज्योतिषा : कसलीं उत्तरां मेळ्ळी? विज्ञानाच्या बळार म्हाका आव्हान दितात. आरे तुमच्या आयुष्याचें घट्टण जातलें. पयलीं फाटीं सरात आनी म्हाका शरण येयात.

मोहन : तो फ्युरिओज जाला.

दामिनी : ताचे दोळे पळयल्यार म्हाका भिरांत दिसता.

मोहन : चल धांव.

**(दोगांय धांवतात)**

ज्योतिषा : पयलीं फाटीं सरात. नाजाल्यार तुमचो नाश करतलों.

**(हातांत कमंडुलांतलें उदक घेता)**

दामिनी : तो आमचेर उदक मारता रे! चल बेगीन किस् घे. बेगीन किस् घे.

मोहन : आगो ह्या बोवाळांत तुजो किस् कसो घेवं!

दामिनी : म्हजो न्हय रे पिश्या मुदयेचो. मुदयेचो किस् घे.

मोहन : आं म्हाका यादच नाशिल्ली.

**(मोहन बोटांतले मुदयेचो किस् घेता आनी दोगांय नाच्च जातात)**

## प्रसंग : ७

**टिप :** प्रयोगाच्या काळांत जर सूर्य गिराण लागीं आसत तर हो प्रसंग घालचो. ना जाल्यार सरळ निमण्या प्रसंगाचेर वचचें. ह्या प्रसंगांत लागींच्या सूर्य गिराणां विशींची अदीक म्हायती दिवची)

**(आई मायचेर येता)**

आई : स जावंचीं जालीं दिसता. टी. व्ही. लावूंक जाय. आयज स वरांचेर दामिनीची मुलाखत आसा न्हय. शी! केन्नाच म्हणून सातवो म्हयनो

लागलो कळ्ळोच ना. त्या दामिनीची म्हणून कितें मदांतकाय. त्या ज्योतिशाचार्याक मेळपाक गेल्याक सावन एकच ध्यास घेवन बसलां. आपूण गिराण पळयतलें. म्हाका सामकी भिरांत जाल्या गे बाये. आयज तिची मुलाखत आसा टी. व्ही. चेर. काल एक भाग दाखयलो. आयज दुसरो. बाकी कितेंय जांव म्हजी सून हुशार आं.

**(मोहन भितल्ल्यान येता)**

मोहन : आई टी. व्ही. लाय.

आई : **(टी. व्ही. लायता)** लायलो. बस.

**(दोगांय बसतात. जनेलाचो उपेग टी. व्ही. म्हणून करचो. टी. व्ही चेर डॉ. कूक दिसता. दामिनी टी. व्ही. च्या भायर रावून डॉ कूकची मुलाखत घेता)**

दामिनी : नमस्कार.

डॉ. कूक : नमस्कार.

दामिनी : प्रेक्षकांक आमचो परतो एकदां माये मोगाचो येवकार. प्रेक्षकानों कालच्या भागांत आमी गिराणां म्हणजे कितें, तीं कशी लागतात, तांचे फाटली अंधश्रध्दा हांची म्हायती घेतली. आयज आमी अधिक म्हायती घेवया. डॉ. कूक आमच्या मुखार आसात. काल तांची आमी वळख करुन घेतल्या. तर डॉ कूक ह्या दिसा गिराण लागपाचें आसा. हें कसले प्रकाराचें गिराण आसतलें?

डॉ. कूक : **(म्हायती)**

दामिनी : डॉ. कूक हें गिराण जगांतल्या खंयच्या भागांतल्यान खग्रास दिसतलें?

डॉ. कूक : **(म्हायती)**

दामिनी : भारतात खंय खंय हें खग्रास दिसतलें?

डॉ. कूक : **(म्हायती)**

दामिनी : गोयांत हें गिराण कशें दिसतलें?

डॉ कूक : **(म्हायती)**

दामिनी : गोयांत ह्या गिरणाचो स्पर्श आनी अस्त कितल्यांक जातलो?

डॉ. कूक : **(म्हायती)**

दामिनी : डॉ. कूक सूर्य गिराण उगड्यां दोळयांनी पळोवचें न्हय अशें म्हणटा तें कित्याक?

डॉ. कूक : हो एक बरो प्रश्न विचारलो. त्या बाबतीत लोकांचो काय गैरसमज आसा. एक मतींत धरपाक जाय किं गिराणां कडेन पळोवप म्हणजे सुर्या कडेन पळोवप. आनी सुर्याचे किरण इतले खर आसतात वि दोळे इबाडूं शकतात.

दामिनी : ही तुमी बरी म्हायती दिली. आतां आमकां सांगात लोकांनी गिराण कशें पळोवचें?

डॉ. कूक : **(प्रात्यक्षिक दाखयता)** हो १४ नंबरचो व्हेल्डींग ग्लास. हातुंतल्यान गिराण पळोवप एकदम सेफ. तशेंच गिराण पळोवपाची स्पेशल वकलां मेळटात. गॉगल वापरचें न्हय. ह्या वकलांक ॲलुमिनीयम मिलार वापरतात अश्या वकलांतल्यान गिरांण पळोवचें. कांच काळी करुन वा एक्स्-रे फिल्म वापरुन गिराण पळोवचें न्हय.

दामिनी : दुर्बिणीतल्यान गिराण पळोवपाक जाता?

डॉ. कूक : शी . . शी . . . शी. सामकें डँजर. पूण दुर्बिणीतल्यान इमेज एका कागदार घेवंची आनी पळोवचें. सगळ्यांत सोपें म्हणजे एका पुढ्याक एका पेनाच्या आकाराचो बुराक करचो आनी सुर्या दिकेन धरचो ताची इमेज एका पडद्यार घेवंची आनी गिराण पळोवचें.

आई : **(मर्दीच)** आगो तें विचार गो.

दामिनी : कितें? आं विचारतां. डॉ. कूक गिराणाच्या वेळार कांयच खावपाक जायना म्हणटात तें बरोबर?

डॉ. कूक : सामकें फट. कांयच अर्थ ना.

आई : **(मर्दीच)** आगो तें गो. . . .

दामिनी : विचारतां विचारतां. मात्शी ओगी राव.

डॉ. कूक : **(गोंदळटा)** कितें म्हळ्ळे ओगी रावूं?

ामिनी : तुमकां न्हय. तुमकां न्हय. डॉ. कूक एक सांगात गिराणाच्या वेळार गुरवार बायलांनी काळखांत न्हिदपाक जाय अशें म्हणटात, खाजोवपाक जायना, आंवडो देखून घेवपाक जायना हाचे बाबतींत तुमचें मत कितें?

ॉ. कूक : ही सगळी अंधश्रध्दा. पुर्विल्या काळांत गिराणां विशींचे ज्ञान खबर नाशिल्लें म्हणून गिराणां विशीं अशो खुबशो गैर समजुती समाजांत पसरिल्ल्यो आसात. गिराणाच्या काळांत गुरवार बायलांचेर शास्त्रज्ञानी संशोधन केलां आनी अशें दिसून आयलां कि जीं व्यंग भुरगीं जन्माक येतात तांच्या ओठांक भाण पडप, आंगार खत पडप हाचो आनी गिराणांचो कांयच संबंद ना. ताका वेगळी वैद्यकीय कारणां आसात.

दामिनी : डॉ. कूक आतां हांव निमणो प्रश्न विचारतां. आमच्या समाजांत गिराणाविशीच्यो खुबश्यो अंधश्रध्दा मूळ धरुन आसात. त्यो नश्ट करपाक कितें करपाक जाय?

डॉ. कूक : हो म्हान मोलाचो प्रश्न आमच्या समाजा मुखार आसा. अंधश्रध्देचीं पाळां-मुळां इतलीं खोल गेल्लीं आसात कि तीं सोपेपणेन नश्ट जावचीं नात हें आमकां बेस बरें खबर आसा. आमच्या समाजांतल्या डॉक्टरांनी, शास्त्रज्ञांनी, विद्वानांनी एक जावंन एक विज्ञान लोक शिक्षण ही चळवळ मुखार व्हरपाक जाय.

दामिनी : तांतूत बायलांचोय सहभाग आसूंक जाय.

डॉ. कूक : बायलांचो सहभाग हो चड गरजेचो. कारण ह्या अंधश्रध्दांचो मुखेल बळी क्ता तो बायलांचो. तुवें बायल जावूनय आनी गुरवार आसतनाय गिराणां विशीं जागृती घडोवन हाडपाक चळवळ उबी केल्या त्या खातीर तुजें हांव अभिनंदन करतां.

दामिनी : थँक्यू, डॉ. कूक.

डॉ. कूक : तूं गुरवार आसतनाय गिराण पळोवपाक वतलें, ह्या तुज्या निर्णयाचें हांव कौतूक करतां. बाकीच्यो बायलोय तुज्या धाडसाचें अनुकरण करतल्यो.

दामिनी : अशी म्हाका आस्त आसा डॉ. कूक.

डॉ. कूक : दे दान सुटे गिराण अशें म्हणटल्या लोकांक आमी नवो मंत्र दिवंय
"मेळय गिन्यान पळय गिराण"

दामिनी : मेळय गिन्यान-पळय गिराण.

## प्रसंग : ८

**(आई एकटीच आसा)**

आई : **(चिंतेस्त)** आजुनीय फोन कसो ना? सकाळीं हाच्या पोटांत दुखपाव लागलें म्हणून हॉस्पिटलांत व्हेल्लें. आजूनय रकाद कसो ना? भंय दिसता गे बाये! गुरवार आसतना हें दामिनी गिराण पळोवपाक गेल्लें न्हय! कितलें सुबेज हें! गुरवार बायलेन म्हणून केन्ना गिराण पळोवप? केन्नाच आयकलें ना बाये. आमचो बाब बरो जाल्यार पुरो बाबा. आजुनय कसो पत्तो ना! **(फोन वाजता)** हॅलो... मोहन... हांव आई. दामिनी कितें.. चलो जाला. जांव सायबा.. सगळें सारकें आसा मरें.... हात, पांय, कान, दोळे सारके आसात न्हय.. ..भाण बी पडूंना न्हय.... बरें खंय लाशें बी ना मरे? ना. जांव सायबा ...हात पायांचीं बोटां मेजल्यांत पांच पांच पांच पांच पांच.. ..पांच वेळा पांच जाली दिसता ...आरे चार पांच आसपाक जाय... चार पंचे वीस... वीस आसात न्हय....गोरो जाला.... बरें बरें. **(फोन दवरता)** जांव बाबा आमचो नातू बरो जालो. गिराणां, तुजें तोंड काळें कर आतां... सगळीं फकाणां तर ही! दिसलेंच म्हाका. पूण लोक म्हणटात न्हय अशें जाता तशें जातां. सगळें फट. सून म्हणटा तेंच खरें मेळय गिन्यान -पळय गिराण.

मेळय गिन्यान -पळय गिराण
चलो जालो सोबित गोरो पान
रखु सखु पाकु

कसलेंच ना गो भाण
तानू आमचो, सोबित गोरो पान
रखु सखु पाकु
लाय गो मांरांड
दे दान सुटे गिराण
सगळेंच हें फकाण
रखु सखु पाकु
व्हरुया मुखार
चळवळ ही लोकविज्ञान
मेळय गिन्यान-पळय गिराण.



# धांवात.....धांवात!
# कॉमेट पडटा.

**पात्रां**
सुमन, शांतीबाय, सुहास, नाना, राकेश (भुरगो), दामबाब, कॉमेटमेन

**(बेल वाजता, सुमन माथ्यार तोप घालून येता)**

सुमन : **(दार काडटा)** यो शांतीबाय बरें जालें तूं बेगीन आयली ती. म्हाका दिशिल्लें तूं आयज येवचिना काय म्हणून. आयदनां घासपाक म्हणून वतालें.

शांतीबाय : आगे व्हनीबाय, हें गे कितें. तूं माथ्यार तोप घालून शी.

सुमन : आगो तुका खबर ना?

शांतीबाय : कितें?

सुमन : तो कॉमेट आयला मळबांत. कॉमेट आयला तें तुका खबर ना शे दिसता.

शांतीबाय : हो कॉमेट आनी कोण?

सुमन : आगो कॉमेट म्हणजे धुमकेतू.

शांतीबाय : धुमकेतू? राहूकेतू म्हणून आयकल्यात. पूण हो धुमकेतू आनी कोण गे?

सुमन : हय गो. हे राहूकेतू आमच्या फाटल्यान लागल्यातच. आतां हो धुमकेतू आयला न्हय. काल सांजे सुहास राकेशाक घेवन वेळेर गेल्लो, धुमकेतू पळोवपाक. येवन ते उलयतालें. एका नक्षत्राक खंय सान्नीबशोन लांब शेपटी आसता. आनी हो कॉमेट कमीचो न्हय खंय, बरोच कडक.

शांतीबाय : आवय म्हजे! कडक आनी आसतलो. पूण तुवें हो तोप माथ्यार कित्याक घातला गे.

सुमन : आगो हो धुमकेतू पृथ्वीचेर पडलो जाल्यार.

शांतीबाय : आवयस् तो पृथ्वीर पडटलो?

सुमन : सांगू येता? सट्‌ट करुन हालललो आनी पृथ्वीचेर पडलो जाल्यार? आयज सकाळीं म्हाका खूब वायट सपन पडलें गो. म्हाका दिसता कितेंय तरी आकांत जावपाचो आसा.

शांतीबाय : व्हनीबाय, सकाळचीं सपनां खरी जातात खंय!

सुमन : म्हणूनच म्हाका भिरांत दिसता. खूब वर्सां पयलीं म्हणजे कोट्यांनी वर्सांपयलीच्यो खबरी गो. तेन्ना खंय अशेच धुमकेतू पृथ्वीचेर पडटाले. तुवें तो डायनासोर म्हणून व्हडल्या व्हडल्या जनावरांचो सिनेमा पळयला?

शांतीबाय : हय. व्हडलीं व्हडलीं जनावरां झाडायेदीं, हांवें हांगाच व्हिडीओचेर पळयल्यांत .

सुमन : धुमकेतू पडून तेन्नाचीं हीं व्हडलीं व्हडलीं जनावरां नश्ट जालीं खंय.

शांतीबाय : ह्या जगांत कितें जायत म्हणून सांगपाक जायना गे बाये.

सुमन : म्हणून हांवें हो तोप माथ्यार घातला. खड्डेर बी पडलो जाल्यार? तकली तरी सालवार जातली न्हय? आगो तकली सलामत तर तोप हजार. बरोबर न्हय? तोप घालून तकली गरम जाली. मात्सो काडून दवरुया. **(तोप काडून दवरता)** चल तूं बेगीन. म्हाका आज धुमकेतू महात्म्य वाचपाक जाय. बेगीन न्हावन येतां. आं, तो हुमणाचो तोप तूं माथ्यार घाल. त्या सोवळ्या तोपाक मात हांत लायनाका हां....

**(शांतीबाय तोप घेवन भितर वता)**

सुहास : **(भितल्ल्यान भायर येता)** सुमन सुमन नुस्त्याची पोती खंय दवरल्या.

सुमन : आयज नुस्तें नाका आनी तूं बेगीन न्हावन घे.

सुहास : नुस्ते नाका? तूं किते शेनवारय करपाक लागलें काय कितें? पुरो जालें हें शिवराक. चल नुस्त्याची पोती घेवन यो.

सुमन : आरे म्हाका आज महात्म्य वाचपाक जाय.

सुहास : महात्म्य! हें आनी कसलें महात्म्य?

सुमन : आरे तो वयर आयला न्हय.

सुहास : कोण आयला वयर?

सुमन : काल तुमी उलयताले न्हय. मळबांत धुमकेतू आयला म्हणून.

सुहास : आं! धुमकेतू. कॉमेट? मागीर तुका तें महात्म्य आनी कसलें पिशें लागलां?

सुमन : तो कॉमेट सट्‌ट करुन सकयल पडलो जाल्यार!

सुहास : आगो हो कॉमेट पृथ्वीचेर पडपाक ना अशें खगोलशास्त्रज्ञानी सोदून काडलां.

सुमन : तांचें कितें धड आसा?

सुहास : हो कितें पयलोच कॉमेट? अशे कितलेशेच कॉमेट येवन गेल्यात.

सुमन : म्हणजे. . . . ! अशे कॉमेट पयलीं दिसताले?

सुहास : हय तर! हॅलेचो कॉमेट, एँकेचो कॉमेट. कॉमेट कॉहावटेक, कॉमेट टेंपल-टटल आनी कॉमेट हाकूटाके. १९९७ वर्साच्या सुरुवातीच्या म्हयन्यानी दिशिल्लो तो कॉमेट हॅल बॉप (HaleBopp).

सुमन : हॅलेचो बाप?

सुहास : हॅलेचो बाप न्हय. हॅल -बॉप

सुमन : पूण म्हाका कशें खबर ना तर! हां तेन्ना तूं मुंबय आशिल्लो.

सुहास : हय त्या दिसानी हांव मुंबय ट्रेनींगाक गेल्लों म्हणून तुमकां ताजी खबर ना.

सुमन : पूण धुमकेतूची नांवां तुमकां कशीं कळ्ळीं? ते धुमकेतू तुमकां टेलॅग्राम करुन कळयतात काय कितें किं आपूण अमको अमको कॉमेट, येवपाचो आसां.

सुहास : ना. कॉमेटांची नांवा दिवपाची एक पद्दत आसा. जो खगोलशास्त्रज्ञ सगळयांत पयलीं कॉमेट पळयता आनी ताची नोंद करता त्या

खगोलशास्त्रज्ञाच्या आडनांवावयल्यान तो कॉमेट वळखतात. आतां हें उदाहरण पळय. तुका समजपाक मात्सो कळाव लागता न्हय?

सुमन : हय वय हांव सामकें बुध्दु न्हय!

सुहास : तें मागीर पळोवया. तर हांव कितें सांगतालों. आं, तर कॉमेटाचीं नांवां कशीं दितात? उदाहरण हॅल -बॉप कॉमेट, २२ जुलै १९९७ राती ॲलन हॅल (Alon Hale) आनी थॉमस बॉप (Thomas Bopp) ह्या दोन वेगवेगळया खगोलशास्त्रज्ञानी तो एकाच वेळार सगळ्यांत पयलीं पळयलो म्हणून तांचीं नांवां त्या कॉमेटाक दिल्यांत.

सुमन : ताणीं पयलीं पळयलो म्हणजे? तांकाच कित्याक पयलीं दिसलो तर? तूं सदाच बडायो मारता मरे जगांत येद्यो येद्यो व्हडल्यो दुर्बिणी आसात म्हणून! बाकीचे तुगेले ते कोण खगोलशास्त्रज्ञ कितें मूस मारताले?

सुहास : तो सोदून काडलो तेन्ना तो सुर्यासावन खूब खूब पयस आशिल्लो म्हणून तो सामको बारीक आशिल्लो. आनी येद्या व्हडल्या मळबांत येदोसो चणोसो सोदून काडप म्हणजे सोपें काम न्हय. तुज्यान तर जमनीचेर पडिल्ली सूय पासून सोदपाक जायना.

सुमन : तें कितेंय जांव कोणेंय पयलीं सोदून काडलो म्हणून कितें जालें? मळबांत तो नाशिल्लोच जाल्यार ते कितें सोदतले आशिल्ले कपल? तांच्या नशिबांत तो आशिल्लो म्हणून ताणीं तो सोदून काडलो.

सुहास : तांका सपनांत दिसू ना तो, नशिबांत आशिल्लें म्हणटा तें तूं! दुर्बिण लावन रातीच्यो राती ते मळबाक दोळे लावन बसतात. तांच्या कष्टांचें हें फळ.

सुमन : तांच्या नशिबांत आसूं वा नासूं पूण आमच्या नशिबांत कितें?

सुहास : आगो तुज्या नशिबाचो आनी धुमकेतूचो संबंध किंते?

सुमन : म्हाका आयज सकाळीं खूब वायट सपन पडलें. कितेंय तरी आकांत जावपाचो आसा. सकाळचीं सपनां खरीं जातात खंय. म्हाका भिरांत

दिसता, हो धुमकेतू पृथ्वीचेर पडटलो. म्हणून तोप हावें माथ्यार घातला. आरे तोप खंय गेलो? शांतीबायन घासपाक व्हेलो दिसता.

सुहास : तोप न्हय, वान दवर माथ्यार. कसली भिरांत ना मागीर. तुका कोणें सांगलें हो धुमकेतू पृथ्वीचेर पडटलो म्हणून? हो धुमकेतू पृथ्वीचेर पडपाक ना.

सुमन : तुज्यान कशें सांगू येता. रातचें हांव पळयतां कितलेशेच तारे झप्प झप्प करुन पडटात ते.

सुहास : तांका उल्का म्हणटात. ते धुमकेतू न्हय. ते ल्हान ल्हान फातरांचे आनी धुळीचे कण. पृथ्वीच्या गुरुत्वाकर्शणांक लागून ते पृथ्वीच्या वातावरणांत भितर सरतात. पूण तुजे खड्डेर पडचे पयलींच तांचो गोबोर जाता.

सुमन : म्हणजे तुमी शास्त्रज्ञ बॉम्ब घालून तांका लासयतात दिसता!

सुहास : तशें न्हय. ते जेन्ना पृथ्वीच्या वातावरणांत भितर सरतात तेन्ना हवेकडेन घर्शण जावन ते खूब तापतात. इतले तापतात किं तांका उजो लागता. चडशे वयर हवेंतच गोबोर जावन वतात. तांचो थोडो भाग उरलो जाल्यार पृथ्वीचेर पडटा. तांकां अशनी म्हणटात. पृथ्वीचेर कोट्यानी वर्सां पयलीं अश्यो खूब अशनी पडटाल्यो. बाकीच्या गिऱ्यांचेरय आनी चंद्राचेर अश्यो अशनी पडटाल्यो.

सुमन : म्हणूनच हांव म्हणटां कि हो धुमकेतू पृथ्वीचेर पडचोना कित्यावयल्यान?

सुहास : आयज़ विज्ञान इतलें प्रगत जालां किं ह्या धुमकेतूचें अंतर कितलें आसा, ताचो व्यास कितलो आसा, ताचे भितर कसले पदार्थ आसात, हें लागीं लागीं सिध्द जाल्लें आसा. शास्त्रज्ञानी असो सगळो अभ्यास करुन ताची कक्षा सोदून काडल्या. ताचे वयल्यान हो कॉमेट पृथ्वीचेर पडपाची आनी कसली भिरांत?

सुमन : पूण शास्त्रज्ञांचे हें अंदाज खरे जातले हें कित्यावयल्यान? आमचें नशीब फुटकें आसत जाल्यार पडूं येता.

सुहास : परत तुजें नशीब आयलें? हें विश्व तुगेल्या नशिबाचेर चलना. तें चलता तें विशिश्ट अशा नियमांचेर आनी हे नियम सोदून काडप हेंच शास्त्रज्ञांचें कार्य. तूं म्हण्टा किं वैज्ञानिकांचे निष्कर्ष खरे कशे आसतले? ताका खूब पुरावे आसात. ताच्या फाटल्यान खूब प्रयोग केल्ले आसात. हाचे पयलीं जे कॉमेट दिसले तांची कक्षा शास्त्रज्ञानी सोदून काडिल्ली त्यो खऱ्यो जाल्यो. दुसरें उदाहरण घेवंचें जाल्यार १९९४ वर्साच्या जुलै म्हयन्यांत शूमेकर-लेव्ही हो कॉमेट गुरु गिऱ्याचेर पडलो. शास्त्रज्ञांनी जे अंदाज केल्ले ताचेवरी हो कॉमेट गुरुचेर पडलो. शास्त्रज्ञांनी ज्या दिसा पडटलो म्हणून अंदाज केल्लो त्याच दिसा आनी त्याच जाग्यार. हेंच विज्ञानाचें खरें यश. नशीब नशीब म्हणून मनशाची उदरगत जायना.

सुमन : तूं आतां न्हावपाक वता काय ना?

सुहास : हांव मागीर न्हातलों.

सुमन : हांव न्हावपाक वतां. म्हाका तुजें कांयच धड लागना.

**(वता)**

सुहास : तूं केन्नाच सुधारपाचें ना जाल्यार.

**(बॅल. दार उगडपाचो आवाज)**

नाना : सुहास आसा तूं ? बरें जालें.

सुहास : नाना, असो अकस्मात धुमकेतू बशेन!

नाना : आरे, बाबा रे धुमकेतू म्हणूं नाकारे बाबा.

सुहास : किते जालां नाना. भिल्ल्याबशेन सो दिसता.

नाना : हो धुमकेतू रे.

सुहास : हय, पूण तुजे तकलेर पेज कित्याक?

नाना : आरे, ताची शेपटी पळोवन भिरांत दिसता रे.

सुहास : नाना, कॉमेटावयल्या शेपटेक भिवपा सारकें कांयच ना. ही शेपटी म्हणजे कॉमेटावयल्या पदार्थाची वाफ. कॉमेट म्हणजे चडसो झेलाचो

गुळो म्हणूं येता. हो कॉमेट जेन्ना सुर्याच्या लागीं पावता तसो ह्या झेलाची वाफ जाता आनी ती आमकां शेपटीशी दिसता.

नाना : ही शेपटी म्हणजे वाफ रे?

सुहास : हय. हे शेपटेंत आनीकय पदार्थ आसूं येता. म्हणजे माती, कार्बन मोनॉक्सायड आनी हेर.

नाना : पूण हांव म्हणटां सगळ्याच ताऱ्यांक शेपटी कित्याक नासता रे?

सुहास : सगळ्यांकच आतां शेपट्यो लावंच्यो पडटल्यो तर!

नाना : हांव फकाणां करना रे.

सुहास : धुमकेतू आनी तारे हातूंत खूब फरक आसा. धुमकेतू हे आमच्या सुर्यमंडळाच्या भायल्या भागांतल्यान येतात. त्या भागाक ऊरटस क्लाऊड (Oorts cloud) अशें म्हणटात.

नाना : कितें म्हणलें? ऊर...... .

सुहास : ऊरटस क्लाऊड. ऊरटस हें खगोलशास्त्रज्ञाचें नांव.

नाना : हे रे, धुमकेतू थंयच्यान येतात रे?

सुहास : हय. गुरु, शनी वो लागिंच्या ताऱ्यांक लागून तांची कक्षा बदलता आनी ते सुर्याचे दिकेन येतात. ऊरटस क्लाऊड हो सूर्य मंडळाचोच भाग अशें मानतात.

नाना : मागीर गिरे आनी धुमकेतू हांतूत फरक कितें रे?

सुहास : खूब फरक आसा. गिऱ्यांची कक्षा लागीं लागीं वर्तुळाकार पूण अंडाकृती तांतयांच्या आकाराची आसता. पूण धुमकेतूची कक्षा खूब लांबट आसता. तांका इलीप्टीकल अशें म्हणटात. अशा धुमकेतूचो थरावीक असो भ्रमणकाळ आसता. हॅलेचो कॉमेट ७६ वर्सांनी येता. म्हणजे ताका कक्षा पुराय करपाक ७६ वर्सां लागतात.

नाना : सगळेच धुमकेतू अशे परते परते येतात, रे?

सुहास : ना. कांय धुमकेतूंची भ्रमण कक्षा अशी आसता कि ते सुर्यालागीं परते केन्नाच येवंक पावनांत.

नाना : आतां एक सांग रे. ह्या धुमकेतूची शेपटी मारुतीच्या शेपटेबशेन कित्याक घुंवना रे.

सुहास : ही शेपटी सदांच सुर्याचे विरुध्द दिकेन आसता.

नाना : तशें कित्याक तर रे?

सुहास : समज तुवें मेणवातीच्या ज्योतीचेर फूंक मारली. तर ती ज्योत विरुध्द दिकेन वतली.

नाना : म्हणजे? सूर्य धुमकेतूचेर फूंक मारता रे?

सुहास : ना. सुर्याच्या प्रकाश किरणाचो प्रचंड दाब म्हणजे प्रेशर आसता. ताका सौर वारो (solar wind) अशें म्हणटात. ह्या सौर वाऱ्याक लागून धुमकेतूची शेपटी सुर्याच्या विरुध्द दिकेन वता.

नाना : प्रकाश किरणाचो दाब आसता रे?

सुहास : हय. आता कळळें न्हय धुमकेतू म्हणजे कितें ते.

नाना : हय रे. तूं म्हणटा तें कळटा रे. पटता रे. पूण अशो धुमकेतू येवप हें बरें चिन्न न्हय रे. पृथ्वीचेर कितेंय अवर्शण येवंक शकता.

सुहास : अवर्शण कसलें नाना.आकर्शण म्हण, आकर्शण! हो धुमकेतू कितें पयलोच न्हय. ह्या शतकांत कितलेशेच धुमकेतू येवन गेले पूण कांयच घडलें ना. १९१० सालांत हॅले धुमकेतूची शेपटी इतली लांब आशिल्ली कि एकदां आमची पृथ्वी ते शेपटेंतल्यान गेली. पूण कांयच वायट गजाल घडली ना. मागीर आतांच कित्याक भिरांत.

नाना : पूण दैवाची काळ निती कितें तें सांगू येता रे?

सुहास : शास्त्रज्ञानी ह्या कॉमेटाची कक्षा सोदून काडल्या.हो कॉमेट पृथ्वीच्या गुरुत्वाकर्शणाच्या भितर येवपाचो ना. ताच्या शेपटेंतल्यान जीं रसायनां भायर पडतलीं तीं पृथ्वीचेर पडपाचीं नांत. आतां कांय भोंदू लोक मात ताचो फायदो घेवंक सोदतात. तांचो तसो स्वार्थ आसता. हांगा कितेंय घडलें तर ताचो संबंद कॉमेटाकडेन जोडून

अंधश्रध्दांक बळगें दिवपाक फाटीं फुडें पळोवंचे नात. म्हणटात न्हय फांदी मोडपाक आनी कावळो बसपाक एक जालें.

नाना : पूण सुहास, आमी कितेंय तरी करुंक जाय रे.

सुहास : हय बरोबर, आमी ह्या धुमकेतू विशीं म्हायती लोकांकडेन पावोवपाक जाय.

नाना : तशें न्हय.तशें न्हय रे.हांव म्हणटां धुमेकेतू दिसप हें एक दुश्चीन्न, म्हणून आमी कितें तरी करुंक जाय रे.

सुहास : म्हणजे तुमी किते करपाक सोदतात तर!

नाना : आमी आमच्या वाड्यार एक यज्ञ करपाचो थारायला.

सुहास : यज्ञ केल्यार धुमकेतू धूम ऽ ऽ करुन धांवतलो काय कितें?

नाना : पूण आमचे वयलें संकष्ट तरी वतलें न्हय रे.आमी मरे फकत ५०० रुपया वर्गणी घेवपाचें थारायलां.

सुहास : ५०० रुपया वर्गणी? धुमकेतूच्या नावांन ही लूट बी न्हय मूं?

नाना : **(रागान)** सुहास अशें कित्या कितें उलोवंक नाका. वर्गणी घेवपाची ही म्हजी पयली खेप न्हय. जाणा मरे? वर्गणी घेवन हावें खूब कार्यक्रम करुन दाखयल्यात, सांगतां. फाटलीं २० वर्सां हांव नरकासुरा खातीर वर्गणी जमा करतां. जाणा मरे?

सुहास : नाना, तुमगेल्या ह्या यज्ञाक म्हजी मान्यता ना. अशे यज्ञ करप म्हणजे अंधश्रध्देक वाव दिवप. हांव वर्गणी दिवचो ना.

नाना : तूं दिना जाल्यार कितें जालें रे. बाकीचे दिवपी आसात. हांव वतां. बरें रे.

सुमन : **(येता)** नाना कितें जालां असो तावान सो खंय वता?

नाना : सुमन तू आसा तें बरें जालें गो. तो धुमकेतू आयला न्हय, गो.

सुमन : हय वय. हांवें ताचेंच महात्म्य वाचपाचें थारायलां.

नाना : एकदम बरें केलें मुगो तुवें.

सुहास : अज्ञानाक आतां अज्ञान मेळ्ळें.

सुमन : तुमी आतां वोगी बसात.

सुहास : वयल्यान जाणवाय.

सुमन : तुमी चड ज्ञानी न्हय?

सुहास : बरें बरें हांव वतां नुस्ते हाडपाक.

सुमन : हां हाडात आनी खायात तुमीच.

**(सुहास वता)**

सुमन : नाना, तुमी कित्याक आयिल्ले?

नाना : सुमन आगो हो धुमकेतू आयला न्हय गो! बऱ्याचो सो दिसना गो.

सुमन : म्हाकाय तशेंच दिसता. कितेंय तरी अवर्शण येतलें शें दिसता. आज सकाळीं तर म्हाका वायट सपन पडलें.

नाना : म्हणून हांव म्हणटां, एक ल्हानसो यज्ञ तरी करुया न्हय गो.

सुमन : हें मात तुमी एकदम बरें केलें. म्हाकाय अशेंच कितें तरी करचें शें दिसतालें. केन्ना थारायला?

नाना : पयलीं वर्गणी जमोवपाक जाय न्हय गो.

सुमन : हय, कितली वर्गणी काडल्यात?

नाना : चड न्हय गो. फकत ५०० रुपया काडपाचें थारायला. वयल्या वाड्यार खंय जाणा मुगो व्हडलो यज्ञ करपाचे आसात. ताणी एक एक हजार रुपया काडल्यात.

सुमन : जांव आमी फुल ना जाल्यार, फुलाची पाकळी तरी घातल्या बशेन जातलें.

नाना : सकयल्या वाड्यार धुमकेतूची व्हडली प्रतिमा करुन लासतले खंय! रातचो फोगय आसतलो खंय गो!

सुमन : अशें आमीय कितें तरी करुंक जाय आशिल्लें! एक रात नाटक आनी एक रात ऑर्केस्ट्रा दवरुंया?

नाना : म्हाकाय तशेंच दिसतालें. पूण लोक वर्गणी दिवपाक रडटात.

सुमन : जांव, फुडल्या वर्सा व्हडलो प्रोग्राम करुया.

नाना : सुमन, धुमकेतू दर वर्सा येनांत, जाणा मुगो.

सुमन : हय. पूण धुमकेतूचो एक दीस असो पाळपाक जाता न्हय.

नाना : हय गो, पूण खंयचो दीस म्हणून पाळटले?

सुमन : धुमकेतू पडटा तो दीस.

नाना : हें आनी कितें अभद्र मागता गो तूं?

सुमन : तोंडाक किडे पडूं म्हज्या. धुमकेतू तू पाव रे. नाना आमी अशें करुया. धुमकेतू पडना तो दीस आमी मनोवया.

नाना : फुडल्या वर्साचें फुडें पळोवया. तूं आतां वर्गणी दिता मुगो? म्हाका कळाव जाता. दुसऱ्यांगेर वचपाक जाय.

सुमन : मागीर दितां. सुहास मात्सो तापला न्हय. ताका मात्सो समजावपाक जाय. दितलो तो.

नाना : मागीर जालें तर! आशा सोडपाची मुगो?

सुमन : अशें कितें म्हणटा. आमकां किते वायट जाल्लें जाय. हांव जोडटालें जाल्यार दितलें आशिल्लें. पांचशेंच कित्याक पांच हजार दिन आशिल्लें.

नाना : बरें तर हांव वतां.

सुमन : हांव मागीर धाडून दितां, तुमी आनी येवपाचे त्रास घेनाकात.

नाना : बरें विसर नाका. याद दवर गो.

सुमन : ना ना विसरना नाना. तुमी म्हणून असलें बरें काम करतात. बाकीच्यांक खंय पडलां दुसऱ्यांचें. बरें तर.

**(नाना वता)**

सुमन : शांतीबाय आगो शांतीबाय.

शांतीबाय : कितें व्हनीबाय.

सुमन : म्हजीं देवाचीं सगळीं आयदनां घासलीं न्हय! चकचकीत जाल्यांत न्हय!

शांतीबाय : हय. सगळीं चकचकीत केल्यांत. बरीं डिटर्जट लावंन घासल्यांत.

सुमन : हें पळय. सुहास नुस्तें घेवन येतलो. तें मात्शे उजरावन दी.

शांतीबाय : पूण म्हाका घरा वचपाक कळाव जातलो.

सुमन : तुका जाय जाल्यार म्हज्या वाट्याचे दोन कुडके व्हर गो.

शांतीबाय : बरें पळयतां.

सुमन : आगो, उत्तर खंयची ती जाणां तूं?

शांतीबाय : उत्तर कोण उत्तर? शाणू बाबाली सून? पाडा पडूं तिचें.

सुमन : आगो उत्तर गो उत्तर दिशा. पूर्व, पश्चिम, दक्षीण-उत्तर.

शांतीबाय : म्हाका कितें खबर? पूण तुका कित्याक जाय ती उत्तर.

सुमन : धुमकेतू महात्म्य उत्तर दिकेकडेन तोंड करुन म्हणूंक जाय खंय!

शांतीबाय : तुगेल्या घोवाकच बरें खबर आसतलें. हांव कपडे उमळपाक वतां.

**(शांतीबाय वता आनी राकेश येता. हातात क्रिकेट बॅट)**

राकेश : मम्मी, मम्मी हांव क्रिकेट खेळपाक भायर वतां.

**(मोठ्‌ठ्यान दोन-तीन वेळा शिंकता)**

सुमन : आरे राकेश, तूं आनी कित्याक भायर वता. आरे कॉमेट बी पडत मरे तकलेर.

राकेश : मम्मी तूं कित्याक भियता गे. काल आमी पळोवन आयले. तो पडपाक माडाचो नाल्ल गे?

सुमन : हें पळय तूं भायर वचनाका. आमी दोगांय जाणां धुमकेतूचें महात्म्य वाचुया.

राकेश : हांवें लायब्ररींतल्यान कॉमेटाचेर एक बरें पुस्तक हाडलां. ताचेर बरी म्हायती आसा. धुमकेतू खंयच्यान येतात तें तूं जाणा?

**(मोठ्यान शिंकता)**

सुमन : हें पळय तुगेलीं ज्ञानां म्हाका नाकात. तूं आज भायर सरचो ना. तुका थंडी जाल्या.

राकेश : म्हाका क्रिकेट खेळपाक वचपाक जायच. आज आमची मॅच आसा.

सुमन : आरे. तूं शाणो न्हय. म्हाका आयज सकाळीं वायट सपन पडलें. तो कॉमेट एकाद्रो पडत सकयल सांगू येता?

राकेश : मम्मी हो कॉमेट पृथ्वीचेर पडपाचो ना. शास्त्रज्ञानी ताची कक्षा सोदून काडल्या आनी तूं कांयच भियेनाका. पडलोच जाल्यार हांव अशीं सिक्स मारतां किं कॉमेट पृथ्वीच्या बॉऊंडरी भायर.

सुमन : राकेश, काय राक्षस रे तूं! कित्या कितें अशें अभद्र उलयता. कॉमेटा पाव रे बाबा! **(राकेश शिंकता)** ही पळय तुका थंडी जाल्या. तूं भायर .सरनाका. आनी तोप माथ्यार घालून बस.

राकेश : तोप? माथ्यार?

**(हांसता)**

सुमन : आरे, कॉमेट पडलो जाल्यार खड्डो तरी वाचूंनी.

**(बॅल वाजता)**

सुमन : पप्पा आयला आसतलो. चल दार उघड आनी नुस्त्याची पोती घेवंन शांतीबाय कडेन दी. हांव भितर वतां आनी हे पळय तूं भायर वचचो ना.

राकेश : बरें बरें.

**(दार काडटा)**

सुहास : राकेश ही पोती मम्मीकडेन दी.

राकेश : मम्मी धुमकेतू पुराण वाचपाक गेल्या. म्हाका ही पोती शांतीबाय कडेन दी म्हणून सांगलां.

**(राकेश पोती घेवंन भायर वता)**

सुहास : बरें, चल दी. शी! ही म्हजी बायल केन्नाच सुदारपाची नां दिसता.

राकेश : **(शिंकत येता)** पप्पा, हांव क्रिकेट खेळपाक वतां.

**(परत शिंकता)**

सुहास : आरे, तुका थंडी जाल्या दिसता.

राकेश : रोखडोच येतां पप्पा.

सुहास : चल चड वेळ वोतांत रावनाका.

राकेश : पप्पा एक याद जाली. काल तुवें सागिल्ले किं धुमकेतू हे ऊरटस क्लाऊडांतल्यान (Oorts cloud) येतात म्हणून.

सुहास : हय बरोबर.

राकेश : पूण पुस्तकाचेर आनीक एक जागो सांगला.

सुहास : हय, नेपचून गिरो आसा पळय, ताच्या कक्षेच्या फुडें खुबशे बारीक बारीक फातरांच्या गुळयांचो पट्टो आसा ताका क्युपर पट्टो (KUIPER BELT) अशें म्हणटात.

राकेश : क्युपर म्हणजे कितें.

सुहास : जेराई क्युपर (Gerard Kuiper) हें खगोलशास्त्रज्ञाचे नांव.

राकेश : ताणें हो सोद लायलो?

सुहास : हय, ह्या पट्ट्यांतले फातर आपली कक्षा सोडून सुर्यालागीं येतात.

राकेश : पप्पा, समज हो धुमकेतू पृथ्वीचेर पडपाक आशिल्लो तर आमी सगळे काबार जावपाचे न्हय?

सुहास : हय तर! सगळी जीव सृष्टी सोपपाची.

राकेश : तशें जाल्यार आमी मनीस कितें करतले आशिल्ले?

सुहास : आमी तुगेल्या मम्मीबशेन धुमकेतूचें महात्म्य वाचतले आशिल्ले. नाजाल्यार यज्ञ करपाचे.

राकेश : आनी माथ्यार तोप घालतले आशिल्ले.

**(दोगय हांसतात)**

सुहास : समजा तूं म्हणटां त्या बशेन धुमकेतू पृथ्वीचेर पडपाची शक्यता

निर्माण जाली. तशें जांव शकता. तर कितें करपाचें हाचेर शास्त्रज्ञ विचार करतात.

राकेश : कितें म्हणून.

सुहास : एक म्हणजे एक यान सोडून ताची कक्षा बदलप वो एक प्रचंड अणूस्फोट ताचेर घडोवन हाडून ताचो नाश करप. कितेंय तरी उपाय करचेच पडटले न्हय.

राकेश : नाजाल्यार पृथ्वीवयली मनीसजातच नश्ट जातली. बरें पप्पा हांव क्रिकेट खेळपाक वतां.

सुहास : चल, बेगीन यो.

**(राकेश वता. सुमन, देवाचीं आयदनां घेवंन येता)**

सुमन : उत्तर दिशा खंयच्यान आसा ती सांगात.

सुहास : इतले पावसाळे काडले आजून उत्तर खंयची ती खबर ना.

सुमन : तुगेल्यो जाणवायो नाकात. खंयची ती सांगात.

सुहास : उदेंतीकडेन तोंड कर .दाव्या हातीकडेन उत्तर .

सुमन : तें कोडें कित्याक, खंयची ती दाखोवपाक जायना?

सुहास : तुज्या टॉयलेटीच्या दाराकडेन तोंड करुन उबें राव तीच तुजी उत्तर .

सुमन : म्हणजे टॉयलेटीच्या दाराकडेन तोंड करुन धुमकेतू महात्म्य म्हणपाचें? कशेंशेच दिसता. आमी टॉयलेटीचें दार दुसरे कडेन केल्ले बरें आशिल्लें.

सुहास : त्यापरस आमी पृथ्वीच घुवडायल्ली बरी न्हय.

सुमन : जाणां जाणां कळटा म्हाका.

**(आयदनां मांडून दवरता. भितर वता. बॅल वाजता)**

सुहास : कोण? दामबाब. आज ह्या बाजून सो?

दामबाब : असो वतालों. खबर घेवया म्हणले तुजी.

सुहास : बरें केलें

दामबाब : आरे, तो धुमकेतू आयला न्हय.

सुहास : मागीर, तूं भियेलो काय कितें?

दामबाब : ना. तुका विज्ञानाचें बरें ज्ञान आसा न्हय. म्हणून तुजेकडेन थोडी म्हायती घेवया म्हणलें.

सुहास : वा, आज सकाळच्यान तूंच म्हाका मेळ्ळो जाणे धुमकेतूविशी शास्त्रीय आस्त दाखयली.

दामबाब : तुमी धुमकेतू-धुमकेतू म्हणून बोवाळ घालतात. ह्या धुमकेतूचे इतलें म्हत्व कसलें?

सुहास : दामबाब, धुमकेतूचें खूब महत्व आसा. एक म्हणजे ते सदांच पळोवपाक मेळनांत. दुसरें म्हणजे धूमकेतूवयल्या पदार्थाचो अभ्यास करप हें खूब म्हत्वाचें. ताचे वयल्यान आमकां सुर्यमंडळाची उत्पत्ती जाली त्याकाळांत सुर्यमंडळांत कसल्या तरेचीं द्रव्यां आशिल्लीं हाचो अंदाज करपाक मेळटा. धुमकेतू हे सुर्यमंडळाचोच भाग अशें समजतात. सुर्यमंडळाच्या गिऱ्या आनी उपगिऱ्यांच्या द्रव्यांत आज खूब बदल जाल्यात. पूण धूमकेतूवयल्या मुळाव्या द्रव्यांत कांयच बदल जावनांत म्हणून ताचो अभ्यास करप म्हत्वाचें.

दामबाब : बरेंच म्हत्व आसा तर. पूण हो धुमकेतू अमक्या दिसा अमक्या अमक्या नक्षेत्राकडेन दिसतलो हें तुमकां पयलींच कशें कळटा? तुमी शास्त्रज्ञ ज्योतिष जाणांत काय कितें?

सुहास : हेंच तर विज्ञानाचें खरें यश. विज्ञानान खुबशीं गणिती सुत्रां सोदून काडल्यांत. ह्या सुत्रांच्या आधारान ही सगळी म्हायती मेळटा. हें शास्त्र ज्योतिष न्हय.

दामबाब : हो धुमकेतू मंगळाचेर बी पडपाची शक्यता आसा व्हय?

सुहास : मंगळाचेर? मंगळाचेर सो कित्याक?

दामबाब : कांय वर्सा पयलीं एक धुमकेतू गुरुचेर पडिल्लो म्हणटात.

सुहास : हय, पूण हो कांय मंगळाचेर पडपाची शक्यता ना.

दामबाब : पूण तुमच्यानी तशें करपाक नजो?

सुहास : दामबाब, आज तुमी बरेच मुडांत शे दिसतात हां. बरेच इंटेरेस्टींग प्रश्न विचारतात म्हणून! पुष्पाची सोयरीक बी जमल्या काय कितें?

दामबाब : आरे खंयची सोयरीक रे. ह्या मंगळान सगळो आमचो घात केलो. ताचे पत्रिकेंत तो कडक मंगळ आसा न्ही रे! धा जाणांनी पत्रिका परत केली. म्हणून म्हणटालों, तुमच्यानी हो धुमकेतू त्या मंगळाचेर उडोवन ताचो नाश करपाक शक्य जायना काय म्हणून!

सुहास : दामबाब, कितें मंगळ घेवन बसल्यात. अमेरीकेचें पाथफांयडर हे यान ४ जुलय १९९७ ह्या दिसा मंगळाचेर देंवलें. त्या यानान कितलीशीच म्हायती पृथ्वीचेर धाडल्या आनी आमी मात पत्रिकेंतलो मंगळ घेवन बसल्यात.

दामबाब : पूण तशें चलत आयलां न्हय!

सुहास : कितें चलत आयलां? ज्या कर्माक कसलोच शास्त्रीय आधार ना, तीं आमी चलत आयल्यांत म्हणून चलोवपाचीं हें कसलें कर्म? आतां म्हाका सांगात तुमचे पत्रिंकेंत हो धुमकेतू दिसता तो खंयच्या स्थानांत आसा?

दामबाब : हो मंगळ आसा तो पुरो. धुमकेतू आनीक कित्याक जाय रे!

सुहास : हांव तशें म्हणना? म्हजें म्हणणें अशें कि आतां हो धुमकेतू आमच्या आयुष्यांत आयला न्हय. म्हणजे तो आमच्या सगळ्यांच्या पत्रिंकेत आसचो पडलो. खंय आसा तो तुमचे पत्रिंकेत?

दामबाब : हें तुकांच बरें खबर आसतलें.

सुहास : दामबाब, ही पत्रिंका बित्रिंका म्हणजे एक थोतांड. ताका कसलोच शास्त्रीय आधार ना. फकांणा तीं.

दामबाब : मागीर हांव कितें करुं? पुष्पाचे सोयरीके खातीर इतलो भोवलों. भोवून भोवून मोटारीचे नवे टायर झरले.

सुहास : हांव तुमकां एक आयडिया दितां. धुमकेतू धाडून मंगळाचो नाश करपाची कल्पना तुमी सोडून दियात. तुमी अशें करात. पुष्पाल्या पत्रिंकेत ज्या जाग्यार मंगळ आसा थंय धुमकेतू अशें बरयात. आनी अशें सांगुया कि पत्रिंकेत आसप हें एक शुभ लक्षण जावंन आसा.

दामबाब : तुमची आयडिया एकदम बरी आसा.

सुहास : हें काम तुमचें सामकें सोपे जातलें. मुद्दाम करुन पळयात. पयलेचे खेपे सोयरीक जुळटली. नाजाल्यार हांव धुमकेतूचें नांव केन्नाच घेवंचो ना.

दामबाब : हांव अशेंच करतां. पत्रिकेंत मंगळाच्या जाग्यार धुमकेतू अशें बरयतां. बरें हांव आतांच वतां. तुवें खरोच मोठो आधार दिलो. ओब्रिगाद.

**(वता)**

सुहास : आयचो पेपर खंय गेलो? हां मेळ्ळो. कॉमेटाचेर कसलीय खबर आयल्या ती वाचुया.

**(सुमन येता)**

सुमन : तूं न्हावपाक वचना?

सुहास : वतां. तुगेलें कर तू.

सुमन : केदो वेळ जालो. हें महात्म्य वाचतलें म्हणून, कामां सोपच नांत. आतां सुरु करुया? **(आयदनां दवरता, एका पाटार बसता)** धुमकेतू तुका म्हजो तकली आपटून नमस्कार. गोल गुळो दिसता बरो, लांब लांब शेपटी रे उड उड चल चल. गायतां तुजें हे महात्म्य. म्हजे खट्टेर पडूं नाका रे, उड उड चल चल. **(अकस्मात किळांच मारता)** धांव धांव, हो हो पळय. कॉमेट कॉमेट केदी लांब शेपटी.

सुहास : खंय गो कॉमेट?

सुमन : तो जनेलाकडेन आसा पळय.

सुहास : आगो, तो पंतग?

सुमन : पतंग? जांव बाये! कॉमेट, पाव रे बाबा. महात्म्य वाचपाकच अपशकून जालो. **(परत वाचता)** गोल गुळो, दिसता बरो, लांब लांब शेपटी रे उड उड चल चल. **(मर्दीच)** शांतीबाय, तें नुस्तें मात्शें कायलीर उडय. गायतां तुजें हें महात्म्य, म्हजे खट्टेर पडूं नाका रे. उड उड चल चल.

सुहास : मात्शें बंद कर पळोवया तुजें हें पुराण.

सुमन : तुमी ओगी बसात. गोल गुळो . . . . हे महात्म्य चाल लावन म्हणल्यार आनी बरें जातलें.

**(परत महात्म्य सुरु करता. छोटा बच्चा जान के मारे. ही चाल लावन म्हणटा. इतल्यांत एक बॉल भितर पडटा. भायल्यान सिक्स सिक्स म्हणून भुरग्यांचो आवाज. बॉल मेजापोंदा/खाटी पोंदा वता थंयच्यान 'आवय आवय' असो आवाज येता)**

सुहास : कोण आड्डता?

सुमन : खंयच्यान आवाज येता?

सुहास : खाटी पोंदच्यान सो दिसता.

सुमन : खाटी पोंदा पळयात.

**(सुहास खाटी पोंदा पळयता)**

सुहास : आरे हो कोण, हांगा कसो पावलो?

सुमन : कोण, चोर चोर धांवात.

**(खाटी पोंदच्यान एकटो भायर येता ताका लांब शेपटी आसा)**

कॉमेट : थांबात थांबात. हांव चोर न्हय हांव कॉमेट मॅन.

सुहास : कॉमेट मॅन? ही मॅन, स्पायडर मॅन आनी आतां कॉमेट मॅन?

कॉमेट : हांव वयल्या कॉमेटवयल्यान आयलां. हांव सवकास देंवतालों. एका भुरग्यान असो एक दांडो मारलो सामको भितर येवन पडलों.

सुहास : राकेशान बॉल समजून सिक्स मारली आसतली.

कॉमेट : हाय-हुय आऊच! भेंड मोडलें. भेंडाक लावपाक कितें आसा?

सुहास : हे लिजीए. बाम लाय.

**(बाटली दाखयता)**

कॉमेट : ये मुचमुच दवा मुझे नहीं चाहिये.

सुहास : तो ये लो कु ऽ ऽ व. (Koov)

**(दुसरी बाटली दिता)**

कॉमेट : **(लायता)** आतां बरें दिसलें.

सुहास : पूण तूं खऱ्यानीच कोण?

कॉमेट : सांगलां न्हय, हांव कॉमेटावयलो मनीस-कॉमेट मॅन म्हणून!

सुमन : खरेंच! दिसता मात हिरो सो.

सुहास : तूं हांगा कित्याक आयला ?

कॉमेट : खुब वर्सां पयलीं आमी तुमच्या पृथ्वीच्या लागीं आयिल्ले तेन्ना पृथ्वीचेर जीव सृष्टी नाशिल्ली.

सुहास : कोट्यानी वर्सां जालीं ते खबरीक.

कॉमेट : तुमच्या हिशोबान कोट्यानी वर्सां जालीं जावंयेत. पूण आमच्या हिशोबान कांय शेंकडेच जाल्यांत. तर त्या भोंवडेच्या वेळार आमी आमच्या शेपटेंतल्यान कांय जीव पृथ्वीचेर सोडिल्ले.

सुहास : म्हणजे पृथ्वीचेर पयलो जीव तुमी सोडिल्लो?

कॉमेट : हय. आमी एक पेशीय जीव म्हणजे One Cell जीव हांगा सोडिल्ले. अशाच तरेचे जीव आमी बाकीच्या गिऱ्यांचेरय सोडिल्ले. आतांचे हें भोंवडेर आमी आमच्या जिवांच्या रोपणांचें कितें जालां तें पळोवपाक आयल्यात.

सुहास : तुमी पृथ्वीचेर जिवाचें रोपण केल्लें तर! म्हणजे तुमी सोडिल्ल्या त्या जिवांचें उत्क्रांतीकरण जावन आमी मनीस तयार जाल्यात अशें म्हणपाचें आसा काय कितें तुका.

कॉमेट : आयज पृथ्वीचेर तुमच्या सारके मनीस तयार जाल्यात ते आमीच सोडिल्ल्या जिवांक लागूनच.

सुहास : आमच्या कांय शास्त्रज्ञांनी एक सिद्धान्त सांगिल्लो आसा कि पृथ्वीवयलो पयलो जीव कॉमेटावयल्यान आयला म्हणून.

कॉमेट : तुमगेलो सिद्धान्त आमकां लागनां. आमी कितें केलां तें सांगलां.

सुमन : पूण आतां तूं कित्याक आयला?

कॉमेट : ह्या भोंवडेच्यावेळार आमी सगळ्या गिऱ्यांवयले एक एक प्राणी व्हरुन तांचो अभ्यास करतले अशीं तजवीज केल्ली पूण आमची खूब निराशा जाली.

सुहास : कित्याक?

कॉमेट : खंयच्याच गिऱ्यांचेर आमकां जिवाची वाड जाल्ली दिसली ना. आमी रोपण केल्ले जीव मरुन गेले पूण जेन्ना आमी पृथ्वीच्या लागीं आयले तेन्ना आमकां खूब आंनद जालो.

सुमन : कित्याक?

कॉमेट : पृथ्वीचेरच आमी सोडिल्ल्या जिवांचें उत्क्रांतीकरण जावन तुमच्यासारके सुंदर आनी बुदवंत मनीस तयार जाले.

सुमन : खरें तें उलयलो. ताका पसून हांव सुंदर दिसलें. तुमच्या तोंडांतल्यान हें उतर केन्ना आयलां?

सुहास : आगो तो तुका सुंदर म्हणना. तागेलो सुंदर ह्या शब्दाचो अर्थ वेगळो.

सुमन : पूण कॉमेटमॅन तूं आतां कितें करुंक सोदता?

कॉमेट : तुका सॅम्पल म्हणून हांव कॉमेटार व्हरतलों आनी आमी तुमचो अभ्यास करतले.

सुमन : म्हणजे तूं म्हाका व्हरतलो?

कॉमेट : हय. पूण आमी तुमचें कांयच वायट करचेनांत.

सुमन : पूण तूं आमच्याच फाटल्यान कित्याक लागला?

कॉमेट : तूं आमची स्तुती करता तें आयकून हांव खूब खूश जालों.

सुमन : स्तुती? ना ना हांव फकाणां करतालें.

कॉमेट : ना हांव तुजेर प्रसन्न जालां. हांव तुकाच व्हरतलों. चल या.

सुमन : पूण म्हाका व्हरुन कितें फायदो? हांव तर सामकें भोटें. तूं म्हगेल्या घोवाकच व्हर. तो खूब बुदवंत आसा. ताचो अभ्यास केल्यार तुमकां कितेंय ज्ञान मेळटलें. म्हजे तकलेंत तुमकां फकत बटाटे मेळटले बटाटे.

सुहास : आगो, तूं अशें कितें म्हणटा. हांव गेल्यार तूं विधवा जातलें मगो.

सुमन : त्याखातीर तूं कांयच भियेवनाका. हांव तुजो फोटो लावन सदांच तुजी याद काडटलें.

सुहास : तूं दर वर्सा वडा पुनव करतालें तें कितें घोवाक वयर धाडपाक?

सुमन : तें हांगा हाडनाका. हो प्रसंग वेगळो. तूं मरुन वयर वचना. तूं जितोच वता.

सुहास : तूंच वच.

**(दोगांय थोडो वेळ तूं तूं करतात)**

कॉमेट : वा... वा ...वा ... कॉमेटमॅन खूश हुआ.

सुमन : हो आनी कितें म्हणटा रे.

सुहास : ताणे पृथ्वीचेर येवन हिन्दी सिनेमा पळयल्यातशें दिसतात.

कॉमेट : तुमकां झगडटात तें पळोवन म्हजें खूब मनोरंजन जालें. तुमकां दोगांकय व्हेल्यार आमचो अभ्यासय जातलो आनी मनोरंजनय जातलें.

दोगांय : दोगांकय ..

कॉमेट : चलात म्हज्या बरोबर चलात.

**(बॅल वाजता)**

सुमन : कोण आयलो?

कॉमेट : रावात हांव दार काडटां.

**(दार उगडटा.राकेश दारांत उबो.शिंकता.कॉमेटमॅन धांवून कुशीक वता)**

राकेश : मम्मी हांवें सिक्स मारिल्ली, तो बॉल भितर पडलो सो दिसता.

सुमन : **(रडत)** राकेश, बाबा तूं आनी हांगा कित्याक आयलो? हो आमकां व्हरपाक आयला.

राकेश : हो आनी कोण गे?

**(शिंकता)**

सुमन : आरे हो कॉमेटमॅन.

राकेश : कॉमेट मॅन.

**(शिंकता)**

कॉमेट : आरे पयस राव, पयस राव. तूं शिंकता. तुज्या आंगांत व्हायरस आसा-पयस राव.

सुहास : हो थंडेच्या व्हायरसाक भियेता दिसता?

कॉमेट : आरे हो व्हायरस हांगा कसो आयलो? ह्या व्हायरसान आमकां कितले सतायले म्हाका आनी हो व्हायरस बादलो तर म्हाका कॉमेटाचेर घेवपाक नांत. **(कॉमेट शिंकता)** आरे सायबा, त्रासांत पडलों .म्हज्या आंगात हो व्हायरस सरलो. **(शिंकता)** म्हाका तुमी त्रासांत घातलो. म्हाका आतां कॉमेटाचेर घेवपाक नात **(शिंकता)** तुमचेकडेन ह्या व्हायरसाचेर कितेंय उपाय आसा ?

सुहास : ना, पूण तूं मरपाक ना.

कॉमेट : ह्या व्हायरसान आमकां खूब त्रास दिले. हो ना करपा खातीर आमी हजारानी कॉमेटमॅनांक काबार केल्ले. म्हाका हो व्हायरस जाला म्हणून कळ्ळें जाल्यार म्हाका कॉमेटावयल्यान भायर उडयतले **(शिंकता)** कितेंय उपाय आसल्यार सांगात.

सुमन : म्हाका दिसता ताका इल्लीं काजू फेणी दिल्ली बरी.

सुहास : सोरो पिवपाक दिवप हें बरें न्हय.

कॉमेट : तुमचेकडेन कितें तरी उपाय आसतलो.

सुमन : इल्ली दिवन पळोवया. गेल्यार गेली पिडा. नाजाल्यार आमकां व्हरतलो न्हय.

सुहास : बरें, हाड इल्ली.

**(सुमन भितर वचून बाटली आनी कप हाडटा)**

सुमन : ही इल्ली घे.

कॉमेट : हें पिल्यार बरें जाता?

सुमन : पळय घेवन. गोंयकारांचें हें थंडेचेर रामबाण वखद. घे इल्ली.

**(घेता)**

कॉमेट : व्हा. बरी लागली आनी इल्ली दी.

सुमन : घे.

**(कॉमेट हळू हळू घुंवता)**

सुहास : आगो, तो घुंवपाक लागलो. ताका लागली शी दिसता!

कॉमेट : आनी इल्ली दी.

**(पिता आनी जोरांत घुंवता)**

सुहास : आगो तो घुंवता, वेगान घुंवता. फॅनाबशेन फास्ट घुंवपाक लागलो.

**(फॅनाचो आवाज)**

कॉमेट : आनी इल्ली.

**(जोरांत घुंवता)**

सुहास : आगो पुरो तो वेगान घुंवता पळय. मिक्सरा बशेन फास्ट घुंवता, आतां तो हांगा उरचो ना. ताची गती आनी वाडटा.

**(मिक्सराचो आवाज)**

कॉमेट : म्हजी गती वाडल्या. म्हज्यान रांव नजो. हांव वतां सुहास.

सुमन : राव आमी येतात.

कॉमेट : नाका नाका. म्हाकाच कॉमेटाचेर घेतात काय ना तें पडलां म्हाका. तुमी आनी नाकात. बरें.

**(घुवंत भायर वता)**

सगळीं : बरें बाय बाय.

**(मिक्सराचो आवाज एकदम बंद. सुमन बेगबेगीन दार धांपता)**

सुमन : सुटलीं एकदाचीं, हांवें सागूं नाशिल्लें. कितेंय तरी घडटलें म्हणून.

सुहास : पूण तुवें ताका फेणी दिली तें वायट केलें.

सुमन : पूण फेणयेक लागून तो हांगचो निसटलो.

सुहास : तो फेणयेक लागून गेलोना. तो गेलो थंडेच्या व्हायरसाक भिवून.

सुमन : कितेंय जांव आमी सुटलीं एकदाची.

सुहास : पूण एक भिरांत दिसता. तांका फेणयेची रुच लागत म्हणून.

**(बॅल वाजता)**

सुहास : राकेश दार उगड.

**(दार उघडटा. दारांत कॉमेटमॅन उबो)**

सगळीं : कोण? कॉमेटमॅन तूं?



# उल्कापात आनी धुमकेतूचो घात

**पात्रां**

बुवा उर्फ जीवनकाका, पांडे, देशपांडे, सुश्मिता, ऐश्वर्या, टेंपल, टटल, चार भुरगे.

(बुवा हरिदासाच्या भेसांत, हातांत टाळ घेवन किर्तन सांगपाच्या तालांत उलयता)

बुवा : भावानों आनी भयणीनों
जाण्टेले आनी तरनाट्यांनों
श्रीमंतांनो आनी विव्दानांनों
श्रमिकांनों आनी साक्षरांनों

भुरगो : बुवा, माटवांत दरिद्री, निरक्षर आनी विद्‌वाटेय आसूं येतात.

बुवा : आरे समाजांत तशे चोर, आसतात, फटींग आसतात, स्मगलर आसतात, राजकारणी आसतात, विद्‌वाटेय आसतात. पूण ते हांगा नाटक पळोवपाक माटवांत नांत.

भुरगो : कित्या वयल्यान?

बुवा : कारण नाटक पळोवपी सगळे सुशिक्षीत, सुसंस्कृत, सुज्ञानी, सुमंगल अशे सगळे सु सु आसतात.

भुरगो : बुवा ये सु सु क्या है?

बुवा : सु सु म्हणजे चांगले.
चांगले म्हणजे बरें.
बरे म्हणजे वायट न्हय.
अशे प्रेक्षक आमचे सुसु.

भुरगो : पूण बुवा आपण हैसर कित्याक येयल्यात?

बुवा : आमी म्हणजे आमची मंडळी. आमची मंडळी म्हणजे आमची नाटक

आमची मंडळी म्हणजे आमची नाटक मंडळी.
नाटक आमचें फिल्मी.
हिरो लाडको जल्मी.
नाटक आमचें देखणें.
ना कसलें वाकडें.
पळोवंचें न्हय इकडें तिकडें.
भुरगो करतात सगळ्यांचें आवडतें.
आरे विंचू चावला, आरे विंचू चावला.

भुरगो : **(आड्डता)** आरं! आरं! आरं!

बुवा : कित्याक आरडलो?

भुरगो : बुवा, हें आरे विंचू चावला कित्याक?

बुवा : कांय लोकांक मदीं मदीं दोळो लागतकर तांकां जागे दवरपाक अशें करचें पडटा.

भुरगो : पूण तुमचें नाटक तरी कसलें?

बुवा : नाटक आमचें नवें.
नवें म्हणजे अगदीं करकरीत.
तोर्राद आनी फेर्राद.
आयजच घडी मोडल्या.
दुदांत नाहीं पानी.
पान्यांत नाहीं दूद.
अगदीं शास्त्र शुध्द.

भुरगो : हें शास्त्र शुध्द म्हणजे काय?

बुवा : नाय ते पौराणीक,
नाय ते इतिहासीक.
नाय ते कौटुंबीक,

नाय ते पारंपारीक.

न नाय नाय नाय ना नाय नाय नाय

भुरगो : पूण हाय तरी काय?

बुवो : न नाय नाय नाय ना नाय नाय नाय.

भुरगो : पयलें सांगा बुवा.

तुमचें नाटक काय.

हें आमकां सांगपाक जाय.

बुवा : असं काय.

मागीर आयक.

सांग तुज्या मांयक.

नाटक आमचें विज्ञानाचेर, विज्ञानांतल्या खगोलशास्त्राचेर.

भुरगो : खगोलशास्त्र?

बुवा : खगोलशास्त्र म्हणजे.

भुरगो : मी सांगतंय.

ख म्हणजे खड्डो

गोल म्हणजे वांटकुळो

खगोल म्हणजे वांटकुळो वांटकुळो खड्डो

म्हणजेच बांय

आग्गे म्हजे मांय.

बुवा : न नाय नाय नाय न नाय नाय.

**(एकदम दुख्खी)**

कितलें दुर्दैव आमचें. जें मळब आमी सदांच रातचें पळयतात. ज्या विश्वांत आमी जगतात, ताची आमकां मातय जाणीव ना. हे तारे, हीं नक्षत्रां, हो सूर्य, तो चंद्र. थोडो वेळ तरी मळबांत दोळे लायात. धाय दिकांनी भरुन पातळेल्ली सैमाची सोबितकाय तुमकां दिसतली.

अफाट, अनंत, विराट तेचवरीं सुंदर, सोबीत, लखलखीत, चकचकीत मनोरंजनीय, मनोकाल्पनीक जें आमकां दिसता आनी जें आमकां दिसना.

भुरगो : बुवा, बुवा अशें संवदेनशील जायनाकात. सारकें सांगात हें दोळ्यांनी दिसता आनी दोळ्यांनी दिसना. असलें कसले हें खगोलशास्त्र.

बुवा : मळबांतले हजारो तारे आमकां दिसतात. पूण त्या भायर अखंड, अनंत अशें हें ब्रम्हांड आसा. तें आमकां दोळ्यांनी दिसनां. त्याखातीर आमकां जाय दुर्बीण.

भुरगो : पूण बुवा आमच्या नाटकांत तुमी कितें सांगपाक सोदतात.

बुवा : एकोणशें अठ्ठ्याणव सालीं

सतरा नोवेंब्राच्या रातीं

अद्भूत घटना घडलीं आकाशीं

उदेंतीकडेन उदेली सिंहराशी

वर्षाव घडलो उल्काराशी

नाटक आमचें फिल्मी

हिरोईन लाडकी किम्मी

खगोलशास्त्रांत घडली घटना

आमच्या नाटकाची हीच कल्पना.

भुरगो : आरे विंचू चावला, आरे विंचू चावला.

बुवा : आरं! आरं! आर! हें विचूं चावला अशेंच कित्याक?

भुरगो : बुवा विचारतां म्हणून रागार जायनाकात.

बुवा : विचार रे पुता.

भुरगो : घटना घडून गेली. जालें तें जावन गेलें. ताचे फाटल्यान कित्याक हें रडें?

बुवा : घटना घडून गेली पूण ती कशी घडली, कित्याक घडली, परत घडूं येता. हांचें ज्ञान कोणाक आसा?

भुरगो : कोणाक तिचें पडून गेलां?

बुवा : हेंच तें, हेंच तें, हेंच आमचें चुकता. जेन्ना सैमांत खंयचीय घटना घडटा तेन्ना तिचें योग्य निरीक्षण करुंक जाय. तशें आमी केन्नाच करिनांत. परंपरा आनी अंधश्रध्दा हाचेच फाटल्यान आमी वतात. म्हणून खगोलशास्त्रांत ही अद्‌भूत अशी उल्कापात वर्षावाची घटना. ह्या घटने फाटलें ज्ञान आनी विज्ञान लोकांमेरेन पावचें, असो आमच्या नाटकाचो प्रामाणिक उद्देश आसा. तर आमच्या सुसु प्रेक्षकांनी आमचें नाटक मन लावन पळोवंचें हे मागणें. **(भुरग्याक)** वाजय रे.

नाटक आमचें फिल्मी,

करमणुकीक नाही कमी

संवगां तांतलीं साडे सात,

उल्कापात आनी धुमकेतूचो घात,

आरे मुंगी चावला, आरे जूही चावला.

भुरगो : **(आड्डता)** आरं, आरं, आरं.

बुवा : कित्याक आरडलो? गप्प बस आनी नाटक पळय. तर कथा आमची अशी. पांडे आनी देशपांडे रावतात आमने सामने. म्हणजे शेजारी. मीडल क्लास. दोगांयचेय नवे बंगले. पांडेची बायल सुश्मिता आनी देशपांडेची बायल ऐश्वर्या. कॉलेजीतल्यो मैत्रिणी. पूण आतां शेजान्नी. म्हणतगर सांगपाकच नाका. जाल्यात एक नंबरच्यो वैरीणि.

**(बुवा एक भरिल्ली पोती घेऊन वचपाक वता)**

भुरगो : पूण बुवा आतां कुठें?

बुवा : हांव ह्या नाटकाचो धोशीलावणो. नांव म्हजें जीवन.

भुरगो : हिन्दी पिक्चरांतलो जीवन?

बुवा : हय. जीवनकाका.

भुरगो : पूण पोतयेंत कितें?

बुवा : मांयचें मितें. आतां सांगचें न्हय तें. चल ऊठ वाटेवयलो. वचूं दी म्हाका.

**(भुरगो आनी तीन भुरगे मुखार येतात. दोन दारांच्यो कमानी करुन एकमेकां सामकार उबे रावतात)**

बुवा : **(एका दाराकडेन विचारतात)** पांडेचें घर खंयचें?

दार १ : हें पांडेचें.

बुवा : आनी देशपांडे?

दार २ : हें देशपांडेचें. यो आमगेर यो.

दार १ : पयलीं आमगेर यो.

बुवा : पांडे आसा?

दार १ : हय आसा.

**(एकट्याचें नाक दांबता. तो डिंग -डांग आवाज करता. पांडे दार काडटा)**

पांडे : कोण? जीवनकाका? यो यो! रातचो सो?

बुवा : पांडे, पांडे हें रे कितें लचाण?

पांडे : कितें जालां?

बुवा : आरे हो पेपर वाच.

पांडे : कितें जालें सरकार गडगडलें?

बुवा : आरे तें सदचेंच.

पांडे : मागीर कितें खून! दरोडो.

बुवा : आरे तेंय सदचेंच.

पांडे : मागीर जालां तरी कितें?

बुवा : आरे आरे हो उल्कापाताचो वर्षाव! आरे उल्कापात काय घात रे हो?

पांडे : त्याखातीर तुजो हो आकांत. जीवनकाका तूं आजच पेपर वाचता काय कितें. कितले दीस जाले. उल्कापात वर्षावाचेर चर्चा येता.

बुवा : अशें! आमकां कितें खबर! पूण हो उल्कापात म्हणजे कितें रे? कांय अवर्शण बी न्हय मरे?

पांडे : जीवनकाका तूं असो कित्याक भियेता.

बुवा : पूण हो उल्कापाताचो पावस खंय मरे!

पांडे : आयज, फाल्यां आनी परवां अश्यो तिन राती खूब उल्का पडपाच्यो आसात. म्हणजे पावसच पडल्यावरीं दिसतलें. ताका इग्लीशींत मिटीओर शॉवर (Meteor Shower) अशें म्हणटात. उल्का तश्यो सदांच पडटात. वराक १०-२० उल्का पडटातच पूण ह्या तीन दिसांत हजारांनी उल्का पडटल्यो.

बुवा : रातीची दिसतात ती. मळबांत बारीक बारीक चकचकतात तीं आनी कितें!

पांडे : तीं कितें बारीक बारीक मळबांत थिकां लायल्यांत शीं दिसलीं काय तुका?

बुवा : मागीर आनी कितें तर. तीं पडटात ती केन्ना केन्ना खूब वेळां पळयल्यांत हावें. उज्या गुळो शीं पडटात.

पांडे : पूण ती नक्षत्रां न्हय.

बुवा : मागीर कितें तर वयर आनी कितें आसा पडपाक.

पांडे : जीवनकाका, नक्षत्रां म्हणजे बारीक थिकां न्हय. नक्षत्रां सुर्यापरस कितलेशेच पटीन व्हड आसतात.

बुवा : म्हणजे हीं नक्षत्रां सुर्यापरस व्हडलीं? पूण कितलीं बारीक दिसतात.

पांडे : ती खूब खूब पयस आसतात म्हणून तीं आमकां बारीक दिसतात.

बुवा : आमकां तुमगेलें शास्त्र कितें खबर! लोक म्हणटात तें आमी म्हणटात. पूण हें उल्का म्हणटात तें कितें तर!

पांडे : उल्कापात म्हणजे अंतराळांतले बारीक बारीक धुळीचे कण. ते पृथ्वीच्या वातावरणांत भितर सरतात.

बुवा : अंतराळांतय धूळ? अंतराळांत आनी धूळ खंयची रे बाबा.

पांडे : तुवें धुमकेतू पळयला. धुमकेतू म्हणजे कॉमेट.

बुवा : ताका शेंपटी आसा तो न्हय?

पांडे : तो सुर्याच्या लागीं येता पळय तेन्ना तापता आनी ताच्या वयल्या बर्फाची आनी हेर पदार्थाची वाफ जाता आनी ती लांब शेपटी शी दिसता.

बुवा : शेपटी म्हणजे वाफ?

पांडे : हय आनी धुळीचे कणय आसतात. कॉमेट ही वाफ आनी धूळ सोडून दिता. पूण हे कण कॉमेटाच्या फाटल्यान अंतराळांत आपले कक्षेत फिरत रावतात.

बुवा : पूण आमचेर येवन कित्याक पडटात?

पांडे : तूं जाणा आसतलो कि आमची पृथ्वी सुर्याभोंवतणी फिरत आसता.

बुवा : कितें पांडे, इतलेंय म्हाका खबर ना?

पांडे : पृथ्वी फिरत आसतना धुळीचे कण वाटेत येता.

बुवा : अशें, म्हणून हे कण पृथ्वीचेर पडटात.

पांडे : आयज रातच्यो ह्यो उल्का पृथ्वीचेर पडपाच्यो आसात. चवथी दिवाळेक फोग लायतात तशें हें दृश्य दिसतलें. म्हणुनच तांका उल्कापात वर्षाव म्हणजेच उल्कांचो पावस अशें म्हणटात. येदोळ सांगलां न्हय हजारांनी उल्का पडपाच्यो आसात.

बुवा : आमच्या खड्डेर पडनात मरे?

पांडे : जीवनकाका हे कण चडशे जमनीर पावच नांत. ते वयल्यावयर जळून वतात.

बुवा : कोण उजो लायता तर तांकां?

पांडे : कोण उजो लायना. हे कण खूब वेगान वातावरणांत भितर सरतात तेन्ना तांचें हवेकडेन घर्शण जावन ते खूब तापतात. बुवा, कातरीक धार काडटना ती तापता न्हय तशेंच. हे कण इतले तापतात इतले तापतात कि तांका आपूणच उजो लागता. आनी चडशे वयल्यावयर जळून काबार जातात. तांकांच उल्का म्हणटात.

बुवा : आं! म्हणून ते उज्याचे बाण शे दिसतात.

ांडे : आयचें दृश्य खूब मनोरंजनीय आसतलें. आमी भाग्यवान.

**(भितल्ल्यान सुश्मिता येता. हातांत जेवणाचें टिफीन)**

सुश्मिता : भाग्यवान खंय! आठ दीस जाले हे उल्काघाताचें पुराण आयकतां.

पांडे : उल्काघात न्हय उल्कापात.

सुश्मिता : जांव कितेंय. पात जांव नाजाल्यार घात जांव! आमचो मात घात जायत.

पांडे : तुका कितें सगळेंच पुराण. ज्ञान मिळोवपाचो केन्ना प्रयत्न केला?

सुश्मिता : हे घे टिफीन. सकाळी मात बेगीन यो.

बुवा : रातचो टिफीन घेवन सो खंय रे?

पांडे : आमी आज आमच्या ऑब्झर्व्हेटरीत बसून उल्कापाताची फोटोग्राफी करपाक बसतले. खूब जाण आसतले. तुंय येता जाल्यार यो.

बुवा : नाकारे बाबा. म्हाका भिरांत दिसता.

पांडे : बरें तर तूं बस, हांव येतां.

बुवा : हांव आनी बसना. सुश्मिताची खबर घेवन वतां.

**(पांडे वता)**

सुश्मिता : जीवनकाका तूं केन्ना आयिल्लो.

बुवा : येदोळ. कशें आसा तूं.

सुश्मिता : आसा बरें.

बुवा : हल्लीं नवें कांय घेतलें ना.

सुश्मिता : नांव घेव नाका ताचें.

बुवा : कितें जाले? कॉलेजीतली मैत्रिण न्हंय ती तुजी.

सुश्मिता : पूण आतां ताची मिज्यास चडच जाल्या. आमच्याकी व्हडलो बंगलो बांदला.

बुवा : बंगलो व्हडलो जालो म्हणून कितें जालें. सोबूंक जाय न्ही तो. हे एरीअेंत तुमचोच बंगलो सोबून दिसता.

सुश्मिता : प्रत्येक गजालींकडेन ते म्हजेकडेन कॅम्पीटीशन करता. कॉलेजींत आसतना पसून तशेंच करतालें. हांव पांडेचेर प्रेम करतां म्हणून आपूण देशपांडेचेर प्रेम करपाक लागलें.

बुवा : अशें! देडपांडेंच तें! आता आनी गाडी घेता खंय! तिय ए. सी.

सुश्मिता : अशें! इतल्यार पडलें तांचें. कसली गाडी?

बुवा : खबर ना. बरें हांव वतां.

**(पोती घेवन वता)**

सुश्मिता : पोतयेंत कितें आसा?

बुवा : फातर ते. बरे वाटकुळेच आसात.

**(एक काडून दाखयता)**

सुश्मिता : कित्याक ते?

बुवा : पोरसांत झाडांभोंवतणी डॅकोरेशन करपाक.

सुश्मिता : अशें! म्हाका दी ते. म्हज्या गार्डनांत हांव डॅकोरेशन करतां.

बुवा : जाय जाल्यार दवर. **(हांसता)** कोणाच्या घरार बी मारशी.

सुश्मिता : घरार मारपाक न्हय.

बुवा : शंबर रुपया दिल्यार जाले.

सुश्मिता : कितें फातराचेय पैशे? बरें धा दितां.

बुवा : हें पळय, हावें ते विकपाक हाडुंनांत. तुका जाय म्हणून दितां.

सुश्मिता : बरें हे घे.

**(पयशे दिता)**

बुवा : **(खूश)** बरें तर. फातरांचें बरें डॅकोरेशन कर. कोणाच्या घरार बी मारशी. बरें वतां.

**(दोन दारांच्यो कमानी उब्यो जातात. बुवा दारांतल्यान भायर वता. सुश्मिता फातरांची पोती दुसऱ्या जाग्यार दवरता)**

दार २ : जीवनकाका आमगेर यो.

बुवा : आज नाका फाल्यां येतां.

दार २ : फातर चडशे हाड.

**(हांसतात)**

बुवा : बरें बरें.

**(वता. सुश्मिता दाराकडेन येता)**

सुश्मिता : गेलो दळिद्रो. **(दार धांपता)** फातरांचे शंबर रुपया? तोंडच पळोवपाक जायना ताचें. आमगेली ही देडपाडी गाडी घेता खंय. इतली मिज्याश दाखयता! आयज जावंनी उल्कापात, करता तिचो घात. आतां बेगीन न्हिदल्यार बरें. एकाक उठपाक जाय. अलार्म लायिल्लो बरो. न्हिदून उरत.

**(अलार्म लायता. लायट पालयता आनी न्हिदता)**

दार १ : **(दार २ क विचारता)** आरे, तुमगेर कितें चल्लां?

दार २ : देशपांडे आतांच भितर सरला. कितें तरी बोवाळ चलता. देशपांडे येवचे येवन बॅग भरता.

दार १ : बॅग भरता? कितें झगडीं सुरु? आरे लग्नाक एक वर्स जाता थंय आसा.

दार २ : आरे, तुमकां सदांच आमची नसाय. शेजारी न्हय तुमी! ही पळय ऐश्वर्या आयली.

**(देशपांडे आनी ऐश्वर्या येतात. देशपांडेच्या हातांत बेग)**

ऐश्वर्या : तूं ह्या स्काय पार्टीक वता म्हूण म्हाका भिरांत दिसपाक लागल्या.

देशपांडे : भिवपाक कितें जालां?

ऐश्वर्या : फाटल्या आयतरा पांडे आनी सुश्मिता टेर्रस पार्टीक गेल्लीं खंय. थंय पांडे सामको फ्लॅट. उबारुन हाडला. म्हणून म्हणटां.

देशपांडे : आगो ही तसली पार्टी न्हय.

ऐश्वर्या : मागीर स्काय पार्टी म्हणून आनी कितें?

देशपांडे : आगो आमी दुर्बिण, कॅमेरा घेवन वयर एका मळार बसतले आनी ह्या उल्कापाताचें निरीक्षण करतले.

ऐश्वर्या : अशें! म्हाका पार्टी म्हणतगर तसली पार्टी दिसली. रावरे तुमी उगड्यार वचून बसतले? तुमचे खड्डेर बी पडना मरे त्यो उल्का?

देशपांडे : उल्कापात म्हणजे अंतराळांतले धुळीचे कण पृथ्वीच्या वातावरणांत भितर सरतात.

ऐश्वर्या : आनी हवेच्या घर्शणाक लागून तांका उजो लागता हें म्हाका खबर आसा. पूण लासून वचचे पयलीं ते पृथ्वीचेर पडूं शकनांत काय म्हणटां!

देशपांडे : हो तुजो प्रश्न शाणेपणाचो आसा. कांय मोठे फातर लासून वचचे पयलीं पृथ्वीचेर पडटात तांका अशनी म्हणटात. इंग्लीशीत तांका मिटीओरायट्स (Meteorites) अशें म्हणटात.

ऐश्वर्या : मागीर तूं आनी त्या स्काय पार्टीक वचनाका. आरे तुमचे खड्डेर बी पडत.

देशपांडे : तुजें सदांच अशें! आगो दर वर्सा २८ हजार टन अंतराळांतली धूळ पृथ्वीच्या वातावरणांत भितर सरता.

ऐश्वर्या : इतलें?

देशपांडे : हय. पूण पृथ्वीचेर अशनी पडपाचें प्रमाण सारकेंच कमी. पडल्योच जाल्यार चडशो दर्यांत पडटात.

ऐश्वर्या : ह्यो उल्का आयज फाल्यां पडतल्यो म्हणून तुमकां कशें कळ्ळे.

देशपांडे : टेंपल-टटल नावांचो एक कॉमेट सुर्या लागच्यान येवन गेलो. १९९७ च्या मार्च म्हयन्यांत ताका पळयला.

ऐश्वर्या : टर्टल म्हणजे कासव न्हय. हो कॉमेट कासवाचेर बसून बी गेला काय कितें?

देशपांडे : टर्टल न्हय टटल-टटल. टेंपल आनी टटल ह्या दोन शास्त्रज्ञांनी ताचो शोध लायलो. म्हणून ताचें नांव टेंपल-टटल. कॉमेट म्हणजे

एक व्हडलो बर्फाचो आनी वायूंचो गुळो. हो सुर्यालागीं येतगर तो तापता आनी ताचेवयल्या बर्फाची आनी वायुची वाफ जाता आनी शेपटीशी दिसता. ते शेपटेंत वायुचे तेचवरी धुळीचे कण आसतात. कॉमेट गेलो तरी हे कण अंतराळांत एके कक्षेत घुंवत रावतात.

ऐश्वर्या : पूण हे पृथ्वीचेर कित्याक पडटात?

देशपांडे : ह्या तीन दिसांत आमची पृथ्वी ह्या कणांतल्या कक्षेंतल्यान वता. म्हणून ते पृथ्वीच्या गुरुत्वाकर्षणा खातीर पृथ्वीच्या वातावरणात भितर सरतात.

ऐश्वर्या : पूण येद्या व्हडल्या मळबांत तुमी खंयच्यान म्हणून पळयतले?

देशपांडे : ह्यो उल्का सिंह राशींतल्यान येतात अशें दिसतल्यो, म्हणून सिंह राशीकडेन पळोवपाचें. त्यो सिंह राशींतल्यान पडटात म्हणून तांका लिवोनीडस् अशें म्हणटात.

ऐश्वर्या : हें म्हणून देवालें नाका आशिल्लेंच.वयल्यान फातर वडयता. त्यापरस डायमंड बी उडोवपाचे! खूब वेळ जालो. न्हिदिल्लें बरें.

**(न्हिदता)**

दार २ : **(एकटो दुसऱ्याक)** आमीय न्हिदुया मरे. हो पळय एकाक अलार्म लायला. याद आसा मरे? म्हाका न्हिद लागल्यार उठय.

**(थोडो वेळ संगीत)**

दार १ : **(एकटो दुसऱ्याक)** ये ऊठ, ऊठ एक जालें. अलार्म वाजय.

**(दुसरो रिंग टिंग टिंग असो आवाज करता)**

दार १ : आरे उठना मरे ती. मोठ्यान आवाज कर.

**(दुसरो मोठ्यान आवाज करता. सुश्मिता ऊठता)**

सुश्मिता : केन्नाच एक जालें. मात्सो दोळो लागलो. दाखयतां ते चांडाळीनीक. गाडी घेतां खंय! **(दार १ च्या भुरग्यांक आपयता)** येयात रे. **(फातरांची पोती हाडटा)** शेंवटीयात ते चांडाळीनीचेर.

**(फातर मारपाची अक्शन. दार नं. २ चे भुरगे बचाव बचाव म्हणून आकांत करतात)**

ऐश्वर्या : **(न्हिदेंतल्यान उट्टा)** कोण रे बाबा फातर मारता. उल्को पडटात काय कितें रे.जनेलाचे ग्लास फुटले रे बाबा. राम-राम-राम आमच्याच घरार कित्याक रे पडटात. लोकांचीं घरां नांत? राम! राम! राम! राव रे बाबा त्या शेजान्नीच्या घरार घाल.

**(कांय वेळान परत दारांच्यो कमानी जाग्यार येतात)**

दार १ : आरे सकाळ जाली उठात.

**(दार १ आनी दार २ चे भुरगे आळस काडटात)**

दार १ : **(दार २ क)** कितें रे न्हिद सारकी जाली ना?

दार २ : शी! काल व्हडलो बोवाळ जालो.

दार १ : कितें जालें?

दार २ : उल्का पडल्यो मरे.

दार १ : चड फुटलां.

**(ऐश्वर्या उट्टा)**

दार २ : वोगी राव. ऐश्वर्या उठली.

ऐश्वर्या : शी! सगळीं जनेलां फुटलीं. **(जमनीवयले फातर काडटा).** ह्योच दिसता त्यो उल्को. फातर शे दिसतात.

**(फातर पुंजायता. भायर बुवा येता)**

बुवा : **(दार २)** देशपांडे आयला?

दार २ : आजून येवूं ना.

बुवा : बरेंच जालें.

दार २ : जीवनकाका. फातर चडशेच हाडल्यात न्हय?

बुवा : हय. तुमकां कोणें सांगल्यात त्यो राटावळयो. चल बेगीन बॅल वाजय.

**(दार २ बॅलीचो आवाज करता. ऐश्वर्या दार उघडटा)**

बुवा : देशपांडे ना घरांत?

ऐश्वर्या : ना. रातीं गेल्लो तो उल्का पळोवपाक. आजूनय पत्तो ना.

बुवा : पूण हे जनेलाचे ग्लास कशो फुटले?

ऐश्वर्या : कितें सांगू जीवनकाका. काल रातीं त्यो उल्का पडून सगळे ग्लास फुटले न्हय रे.

बुवा : अशनी पडल्यो आसतल्यो! उल्का वयल्यावयर जळून वतात. जमनीर पडटात त्यो अशनी.

ऐश्वर्या : उल्का जांव नाजाल्यार अशनी. आमच्याच घरार कित्याक पडपाक जाय आशिल्ल्यो!

बुवा : आगो भाग्यवान समज. देवान प्रसाद दिलो अशें समज.

ऐश्वर्या : कसलो प्रसाद! तुज्या बोडक्यार पडल्यार कळतलें आशिल्लें तूं कितलो भाग्यवान तो.

बुवा : तशें न्हय! त्या अशनीचें बरेंच मोल आसता खंय.

ऐश्वर्या : कसलें मोल? फातरांबशेनच त्यो आसात. तांका आनी कसले मोल? माती.

बुवा : आमचे शास्त्रज्ञ ह्या अशनीचो अभ्यास करुन आमच्या विश्वांत कसल्या तरेचे धातू आसात हांचो अभ्यास करतात.

ऐश्वर्या : तशें जाल्यार देशपांडे खूश जातलो.

बुवा : पूण अशनी पडल्यार व्हडले फोंड पडटात म्हणटात. तुमचे तर ग्लासच फुटल्यात. सामक्योच बारकेल्यो काय किते?

ऐश्वर्या : हावें थोड्यो पुंजायल्यात.

बुवा : पळोवया. **(पळयता)** हे फातर. ह्यो आनी खंयच्यो अशनी!

ऐश्वर्या : म्हणजे ह्यो अशनी न्हय?

बुवा : आं आतां याद जाली. काल हांवें हे फातर सुश्मितागेर पळयल्ले.

ऐश्वर्या : अशें! तर हें ते दरिद्रेचें काम. म्हजेर उल्कापात करता? दाखयतां तिका. येवनी आयची रात. करतां सारको निप्पात.

बुवा : सुश्मितान अशें करपाचें न्हय. बरें हांव वतां.

**(फातरांची पोती घेऊन वचपाक वता)**

ऐश्वर्या : जीवनकाका ते पोतयेंत कितें?

बुवा : फातर ते. आमच्या गार्डनात डॅकोरेशन करपाक.

ऐश्वर्या : ते आनीक कित्याक व्हरता. दवर ते हांगाच

बुवा : तुका जाय? दवर तर. शंबर रुपया दिल्यार जाले.

ऐश्वर्या : कितें शंबर? बरें पंचवीस दितां

बुवा : हें पळय, हावें विकपाक हाडुंनांत. तुका गरज आसा म्हणून दितां, नाजाल्यार हांव व्हरतां.

ऐश्वर्या : बरें घे शंबर रुपया.

**(पयशे दिता)**

बुवा : बरें हांव वतां.

**(वता)**

दार २ : जीवनकाका आतां केन्ना?

**(हांसतात)**

बुवा : येवया अशेंच!

**(दार २ चो एकटो भुरगो ऐश्वर्याक एका पाकीटांत घालून एक चीट दिता)**

भुरगो : मॅदाम, ही चीट देशपांडे पात्रांवान दिल्या.

ऐश्वर्या : **(घेता)** बरें थँक्यू.

**(भुरगो वता)**

ऐश्वर्या : **(चीट वाचता)** आयज रातचो णवां उपरांत पावतलों **(चिडत).** ह्या उल्कां मुखार बायल पसून नाका.

**(भितर वता)**

दार २ : **(दार १ क)** देशपांडे णवांक येतलो. आतां आमी कितें करुया?

दार १ : चल. पत्त्यानी खेळुंया.

**(चौगूय जाण खेळपाक बसतात. कांय वेळान)**

दार १ : ये देशपांडे येता. चला चला जाग्यार रावात.

**(देशपांडे येता. दार २ चें नाक दांबता. दार २ बॅलीचो आवाज करता)**

ऐश्वर्या : **(दार काडटा)** यो यो भितर. त्या उल्का मुखार तुका बायल नाका आनी घर दारय नाका.

देशपांडे : आगो अशें तापता कित्याक, जालां तरी कितें?

ऐश्वर्या : जालां म्हजे कपल! मळबांतल्यान अशनी पडल्यो आमचे तकलेर.

देशपांडे : पयलीं थंड जा आनी सांग कितें जालां.

ऐश्वर्या : सांगलें न्हय, अशनी पडल्यो.

देशपांडे : **(भोंवतणी पळयता)** आगो, जनेलाचे ग्लास कोणें फोडले?

ऐश्वर्या : **(फातर दाखयता)** ह्यो पळय अशनी पडल्यो.

देशपांडे : आगो हे फातर कोणे मारले?

ऐश्वर्या : कोण मारतलो. तुगेले पांडे बायलेन.

देशपांडे : सुश्मिता, तें अशें करीत शें दिसना.

ऐश्वर्या : मागीर कितें? वयल्यान पडले?

देशपांडे : **(आव हाडीत)** पांडे राव दाखयतां तुका. तुजे बायलेची ही हिंमत. आमच्या घरार फातर? फाल्यां पोलिसींत केस करतां.

ऐश्वर्या : पोलिस कितें करतले? हांवच पळयतां कितें करपाचें तें.

देशपांडे : म्हणजे तूं कितें करपाक सोदता?

**(ऐश्वर्या फातरांची पोती घेवन येता)**

देशपांडे : हें कितें करता तूं?

ऐश्वर्या : तुज्यान जायना न्हय. आतां हांव कितें करतां तें पळय.

**(फातर मारता. दार १ चे भुरगो बचाव बचाव म्हणटा। सुश्मिता आनी पांडे भायर येतात)**

पांडे : आरे! आरे! कोण फातर मारता?

देशपांडे : **(ऐश्वर्याक आडायता)** पुरो पुरो गो.

सुश्मिता : **(भायर येवपाक सोदता)** ये कोण फातर मारता?

**(पांडे आडायता)**

पांडे : आसूं आसूं आतां हांव पळ्ळेयतां तें.

सुश्मिता : तुजेकडेन जावपाचीं न्हय हीं कामां.

**(सुश्मिता भायर येता)**

सुश्मिता : हे देडपांडे भायर यो. कापास्ताद आसल्यार भायर यो.

**(ऐश्वर्या भायर येवपाक सोदता. देशपांडे आडायता)**

देशपांडे : आसूं! आतां तूं आनी भायर वचनाका.

ऐश्वर्या : कित्याक? भियेता काय कितें!

**(भायर येता. दोगांयचेय तोडांक तोंड लागता. पांडे आनी देशपांडे आडावपाचो यत्न करतात. भुरगे कुशीक रावन मजा पळयतात)**

सुश्मिता : हे चांडाळीणी कोणाचेर फातर मारता?

ऐश्वर्या : फातर? कोण फातर मारता? उल्का पडल्यो आसतल्यो.

सुश्मिता : वा! वा! वा! उल्का म्हणजे कितें तें तरी जाणा?

ऐश्वर्या : खूब खबर आसा.

सुश्मिता : त्या खातीर पुस्तकां वाचपाक जाय. बी. ए. पांच वेळां फेल म्हणून बरें!

ऐश्वर्या : तूं कितें एम् ए जालां काय सी ए?

सुश्मिता : हांव तरी तीनच वेळां फेल.

पांडे : देशपांडे तुजे बायलेक सांबाळ.

देशपांडे : म्हजी बायल म्हज्या हातांत आसा. **(ऐश्वर्याचो हात धरता)** तूं तुज्याच बायलेचें तोंड धर.

ऐश्वर्या : दुसऱ्याच्या घरार फातर मारपाची अवदिसा तुका सुचली तरी कशी?

सुश्मिता : हांव? फातर? उल्का पडल्यो आसतल्यो. तूंच मारता तें फातर.

ऐश्वर्या : हावें फातर मारुंक नांत. तुमचेरच उल्का पडल्यो त्यो. पापी मनशांक हेंच फावो.

सुश्मिता : तूंच ती पापी.

**(दोगाय एकमेकांक पापी पापी म्हणटात. पांडे देशपांडे आडावपाचो यत्न करता. इतल्यांत आवाज येता 'तोंड बंद. तोंड बंद'. धुमकेतू येता. ताका दोन तोंडां, दोन हात आनी तीन पांय आसात)**

सगळीं : हें आनी कसलें जनावर?

**(पांडे, देशपांडे भिवन आपल्या बायलां कुशीक लिपतात. पांडे आनी देशपांडे एकमेकांक खुणायतात)**

पांडे : कोण रे हो?

देशपांडे : जनावर काय दानव रे?

धुमकेतू : हांव न्हय जनावर हांव न्हय दानव.

ऐश्वर्या : मागीर कोण?

धुमकेतू : **(पद)**

सदचीं लफडीं, तुमचीं इगडीं
पापी तुमची करणीं
मायचें मितें नांव म्हजें कितें
टॅम्पल टटल कॉमेट
टॅम्पल टटल कॉमेट



ऐश्वर्या : कोण धुमकेतू?

धुमकेतू : हय.

सुश्मिता : बरें जालें तूं आयलो तो. ही म्हज्या घरार फातर मारता आनी तुजेर घालता.

ऐश्वर्या : हीच ती.

धुमकेतू : शट् अप्, शट् अप्

वयर मळबांत काळो कॉमेट
कांव कांव मारता हालेट
सगळ्यांक सांगता येते वते
झुठ बोले कॉमेट काटे.

ये बायलांनों, एकमेकांचेर फातर मारतात आनी म्हजेर घालतात? तुमच्या एका पसून सॅटलायटाचो आमी इबाड केलो ना आनी तुमची ही मस्ती. रावात हांव आतां उल्कापात करतां आनी तुमच्या सगळ्यांचो संहार.

**(सगळीं एक जातात)**

पांडे : देशपांडे आमी आतां कितें तरी करुन ताका धांवडावपाक जाय.

देशपांडे : हांव पळयतां तें! **(धुमकेतूक)** हे धुमकेतू, तुवें आमचेर अतिक्रमण केलां.

धुमकेतू : अतिक्रमण म्हणजे?

देशपांडे : आमच्या सोबीत पृथ्वीचेर धूळ सोडपाचो तुका अधिकार खंयचो?

धुमकेतू : कोणे धूळ वडयली?

पांडे : तुवेंच धूळ सोडल्या.

धुमकेतू : तुमी शिकिल्ले लोक काय अशिक्षीत रे. तुमची पृथ्वी धुळींतल्यान उप्रासल्या आनी म्हाका दोश दितात?

देशपांडे : पूण तुवें तुजी वाट बदलपाची.

धुमकेतू : कोणे वाट बदलपाची? आरे बैलांनो, हांव पयलीं गेल्लों. म्हज्या फाटल्यान पृथ्वी आयल्या. मागीर कोणे वाट बदलपाची? हांव कितें पयलेच खेपे आयलां?

पांडे : जाणांत आमी १८६६ वर्सा टेंपल-टटल शास्त्रज्ञानी तुजो सोद लायलो.

देशपांडे : दर ३३ वर्सांनी तूं येता. १८६६ वर्सा उपरांत तूं १८९९ वर्सा, १९३३ वर्सांत तूं येवून गेलो.

धुमकेतू : १८६६ वर्सा तुमी सोद लायलो तरी हांव पयलीं येवन गेल्लों. ज्या

ज्या वेळा हांव सुर्यालागीं येतां तेन्ना उल्कापात घडटा हें तुमकां खबर आसा न्हय!

पांडे : देशपांडे, हो आमकां आयकुपाचो ना.

ऐश्वर्या : हें काम तुमचे कडेन जावपाचें ना. आमी पळयतात तें.

**(ऐश्वर्या आनी सुश्मिता कानांत किर्ते तरी सांगतात)**

सुश्मिता : **(धुमकेतूच्या एके बाजूक रावता आनी लाडांत म्हणता)** टेंम्पल टेंम्पल तूं काय बरो शाहरुख खान सो दिसता. टेंम्पल खरेंच, हाय, कुछ कुछ होता है.

ऐश्वर्या : **(धुमकेतूच्या दुसऱ्या बाजूक रावता आनी लाडांत)** टटल टटल तूं काय बरो सलमान खान सो दिसता.

टटल : रिअली कुछ कुछ होता है.

धुमकेतू : **(पद)**

तू गोपांत यो गो किर्ते करुं आतां
आनी मात्शे हांस गो
कुछ कुछ जाता गो
तुज्या मोगांत जालां
सामको हांव पिसो
कुछ कुछ जाता गो
म्हज्या अर्द्या काळजाक
ओड तुजी लागल्या

सुश्मिता : **(धुमकेतूचो एक हात धरता)** यो टेंम्पल यो म्हज्या लागीं यो **(ताचो हात ओडटा)** आय लव यू.

ऐश्वर्या : **(दुसऱ्या हाताक धरुन)** मैं तुमपे मरती हूँ टटल. यो म्हज्या लागीं यो.

**(हात ओडटा. टेंम्पल आनी टटल दोनय वटेनी वचपाक सोदतात. पूण ते एकमेकांक बांदिल्ले आशिल्ल्यान वचूंक शकनांत. एकटो दुसऱ्याक ओडटा. निमणें एकमेकांचेर मुठी मारुन खूब वेळ**

**झगडटात. थोड्या वेळान पाँक पाँक असो हॉर्नाचो आवाज येता. इगर्डी थांबतात)**

धूमकेतू : **(टेंम्पल, टटलाक म्हणटा)** आमचें रॉकेट आयलें. ह्या बायलांनी आमचो घात केलो. चला या आमी बेगीन. रॉकेट वतलें. पूण जाणां जायात फुडल्या वर्साय उल्कापात करतलों.

**(वतात. सगळे बाय बाय करतात)**

सुश्मिता : जांव बाये सुटलीं आमी. नाजाल्यार हो उल्कापात करुन आमकां काबार करपाचो.

ऐश्वर्या : निमणें आमचीच आयडीया यशस्वी जालीं.

पांडे : **(रागान)** आमी घोव लागीं आसतना, तुमी त्या परपुरुषा कडेन प्रेमचाळे केले. सोबता हें तुमकां?

देशपांडे : तेंय परग्रहावयल्या. आमकां मातय सहन जायना हें.

पांडे : आमी आताच तलाक दितात.

**(पांडे आनी देशपांडे तलाक.. तलाक... तलाक.... म्हण्टात. इतल्यान फाटल्यान बुवा येता आनी हातांतलो पाँक पाँक हॉर्न वाजयता)**

बुवा : तलाक न्हय चालाक म्हणात चालाक.

सगळीं : कोण? जीवनकाका?

बुवा : आरे, हांवें हॉर्न वाजयलो म्हणून तुमी वाचले.

ऐश्वर्या : जीवनकाका, राव राव फातर थोडे उरल्यात.

**(सुश्मिता आनी ऐश्वर्या फातर घेवन बुवाच्या फाटल्यान धांवतात. सगळे धांवत वतात आनी मुखार येवन पद म्हणटात)**

नाटक आमचें फिल्मी,
करमणूकीक नव्हतें कमी,
सवंगा रंगली साडे सात,
उल्कापात आनी धुमकेतूचो घात.








## श्रीकांत शंभू नागवेंकार

जल्म: २४ ऑक्टोबर १९४९ ह्या दिसा मडगांव-गोंय हांगा जालो. विज्ञान शिक्षक म्हणून फाटलीं ३० वसी काम करतात. मुळावें शिक्षण मराठींत आनी माध्यमिक शिक्षण इंग्लीशींत जालें. बी एस्सी. आनी बी.एड्. ह्यो पदवी परिक्षा पास केल्यात. भुरगेपणांत सावन विज्ञान नमुने करपाची आवड. राज्य आनी राष्ट्रीय पातळीचेर विज्ञान प्रदर्शनांनी भाग आनी इनामां मेळयल्यांत. गोंय राज्य पातळीवयल्या राष्ट्रीय बाल विज्ञान काँग्रेसीचें लागून पांच वर्सां यशस्वी आयोजन केलां.

पंचवीस वर्सां वयर विज्ञान लोकसंचार चळवळीचें कार्य करतात. सुनापरान्त आनी नवहिंद टाइम्स् ह्या कोंकणी आनी इंग्लीश दिसाळ्यांत विज्ञान सदर फाटलीं तीन वर्सांसावन बरयतात. रेडिओ आनी टी. व्ही. चेर विज्ञान कार्यावळी सादर केल्यात.

गोंयच्या विज्ञान शिक्षकांची संघटना बांदून णव वर्सां कार्यभार सांबाळलो आनी राष्ट्रीय विज्ञान संचार कार्यक्रमाचे गोंय फाटयाचे निमंत्रक म्हणून काम पळयलें.

खगोलशास्त्र इष्टमंडळ गोवा आनी गोवा अंधश्रद्धा निर्मुलन समीतीचे पदाधिकारी आसात. विंगड विंगड विज्ञान संस्थांचे वांगडी आसात. शिक्षण पत्रिकांनी लिखाण आनी संमेलनांनी वांटो घेतला.

"सायन्स स्टेजशो" ह्या कार्यक्रमांचे शंबरां वयर प्रयोग केल्यात.

